# अक्षता

रामकृष्ण जुवारकार

0002513
L: B01 – R03 (Rev.A)




चामुंडा प्रकाशन

अक्षता

(ललित लेख)

रामकृष्ण जुवारकार

© रामकृष्ण जुवारकार

प्रकाशक:
चामुंडा प्रकाशन,
व्हडलें गोंय, ४०३ १०८

अक्षरजुळणी:
स्नेह ग्राफिक्स, शंकरवाडी,
ताळगांव-गोंय, ४०३ ००२

छापपी:
प्रिंटआर्ट ऑफसेट् प्रिंटर्स,
कुंडय इंडस्ट्रियल इस्टेट,
कुंडय, गोंय

मुखावयलें चित्र:
दीपक पेडणेकार




मोल: रु. ४०/-

2513
N->Dev
RAM

## मंगलाक्षता

माथ्यार अक्षता उडोवप म्हळ्यार तोखणायेची गजाल. कोणाच्याय माथ्यार अक्षता उडोवप म्हळ्यार ताच्या कार्याची तोखणाय करून ताका आशिर्वाद दिवप. लग्नांत व्हकल-नवऱ्याच्या माथ्यार जेन्ना अक्षता उडयतात तेन्ना समाजान तें लग्न व्हडा खोश्शेन मानून घेतलां असो ताचेर शिक्को बसता. खंयच्याय कार्याक अक्षयपण हाडूंक अक्षतांची गरज पडटा. देवकार्याच्या प्रसंगार देवाच्या आंगार अक्षता उडोवनूच देवस्पण जागयल्लें आसता. कार्य सोबोवचे अशे सगळे गूण अक्षतांनीं आसतात.

ह्या पुस्तकांत जीं व्यक्तिचित्रां आसात, घडणुकांचीं वर्णनां आनी परिस्थितीचीं निवेदनां आसात तांचेरूय अक्षता उडोवन, मान्यतायेची म्होर मारून तांची तोखणाय केल्ली आसा. समाजीक, संस्कृतीक आनी राजकी मळार वावुरपी जे भाग्यवंत आसात तांचें कौतूक करून तांचो आदर्श दोळ्यांमुखार हाडिल्लो आसा.

अक्षता सवाय आसतात. तांदळांत कुकूम भरशिल्यार अक्षता जातात. तशो मंगलकार्याच्यो खंयच्योय म्हत्वाच्यो वस्तू सवायूच आसतात. सुताचे तीन पोड केल्यार जानवें जाता. तुळशी पानां झाडार मेळटात. दुर्वा रस्त्याकडेक जातात. मानल्यार तण, मानल्यार दुर्वा. ह्या पुस्तकांतल्यो अक्षताय अशोच आसात. तांदुळूच पूण हळद आनी कुकूम भरशिल्लें आसा.

हांतलें चडशें बरप 'सुनापरान्त' दैनिकाच्या 'पारजत' सदरांत आदींच आयिल्लें आसा. थोडें बरप आयतारच्या आंकांत आयिल्लें आसा. वाचूंक जाय ताणीं तें आदीं वाचिल्लेंच आसा. तरी तेंच बरप पुंजावन हें पुस्तक कित्याक असो प्रस्न पडूं येता. म्हाकाय तो पडला. पूण कोंकणी भाशेंत पुस्तकांचो आंकडो उणो आसा. जाता तशी इल्ली इल्ली भर घालूंकूच जाय. ते नदरेन हें पुस्तक छापलां.

कोंकणी बरपावळीचे खटपटींत म्हजीय फूल ना फुलाची पाकळी पडची हे नदरेन ही म्हजी पुस्तक वा पटी आसा. ती हिसपांत येतली अशी आस्त आसा.

**व्हडलें गोंय,** **रामकृष्ण जुवारकार**

१९-१२-१९९८

# मांडावळ

## असोय एक राम

दत्ताराम आमच्या गावांत आडव्या मार्गार फिर्ग्यां भाटांत रावता.

दत्तारामाच्या नावांत दोन देवांचो जोड आसा. तशेंच ताच्या आजवेरच्या धंद्यांत एक जोड धंदो आसा आनी दरेका जोड धंद्याक अडेची जोड आसा.

दत्तारामान जरी आतां दुडवांची गांठ बरी केल्ली आसली तरी ती करूंक ताणे जीणेंत थोड्यो खटपटी आनी लटपटी करूंक नात! इंग्लीशीच्यो चार यत्ता शिकले उपरांत दत्ताराम सोसायटीचे बसीर कंडक्टर रावलो. थंय कश्ट काडून आनी 'कातर मारून' ताणे आपली इल्ली इल्ली उदरगत करून घेतली. पूण हे आलायते जोडीची गोडी जेन्ना दत्तारामाक चडूच लागली तेन्ना जालें ते खूब जालें अशें सोसायटीच्या चालक मंडळान थारावन ताका नोकरेंतल्यान मुक्त केलो. नोकरेच्या बंधनांतल्यान मुक्त जाल्ल्याचें दत्तारामाक व्हडलेशें वायट दिसलें ना कित्याक तर तो मेरेन गावांत एक गाडो घालून तो चलोवपाइतली येणावळ ताणें करून दवरलेली. ताणें भाटांत झरीकडेन गाडो घालो. थंय झरीर जायते जाण न्हावपाक येताले. तांचेय ताका गिरायक बरें जावंक लागलें. मजगतीं तो लग्न जाल्लो. बसीर आसतना कांय थरावीक चलयांची तो बसीची तिकेट घेनासलो. तांतली एक ताचेर मोग करूंक पावली आनी दत्तारामान बायल घरा हाडली. तीय सीतेच्या लक्षणांची आशिल्ल्यान त्रास काडूंक आयकनासली. गाड्यार तीवूय ताका मदत करूंक लागली. नेमान चल्ल्यार मनाचें इल्लें समाधान जाता पूण वेव्हारांत

असल्या समाधानान व्हडली उदरगत जायना असो दत्तारामाचो फाटलो अणभव आशिल्ल्यान गाड्यार ताणें मटक्याचो जोडधंदो सुरू केलो. तांतूंत ताची येणावळ सुमाराभायर वाडली आनी वळखीय जायत्यो जाल्यो.

म्हूर्त ल्हान पूण कीर्त व्हड तेच परी गाडो ल्हान पूण धंदो व्हड हाका लागून ताची गावांत व्हड नामना जाली. फाटले विधानसभेचे वेचणुकेक तो ऐन त्यावेळार फाटी सरपाकूच म्हूण उबो रावलो. हेर उमेदवारांखातीर फाटीं सरपाक ताचें मोल ताणें वसूल केलांच पूण दुसऱ्याच्या प्रचार कार्यांत हिकमतीन वावरून तांतल्यानूय जायतो फायदो वसूल केला. आपूण उमेदवारी फाटीं घेतां अशी वर्तमानपत्रांनीं व्हडली जायरात करून आनी मेळत ताका सांगून पसून ते वेंचणुकेंत दत्तारामाक एकशें सत्तावीस मतां पडलीं! हाचे वयल्यान दत्तारामाचो लौकीक केदो तो कळटा!

दत्तारामाचें शिकप तितलें नासत पूण वाचप चड आसा. मटक्याचे आकडे जाणा जावपाक तो सकाळचे गोंयचे मराठी पेपर घेता पूण सांजचे मुंबयचे इंग्लीश पेपरूय घेता. मुंबयचे पेपर रद्देक परवडटात पूण गोंयचे परवडनात अशी ताची गोंयच्या वर्तमानपत्रांबद्दल तक्रार आसा.

'गरिबी हटाव' ह्या सरकारी धोरणाक दत्तारामाचो पुराय पाळो आसा. खंयचेय सरकार येवं गरिबांचें बरें जाल्यार पुरो अशें दत्तारामाचें धोरण! दत्तारामाच्या गाड्यार मटको चलता तरी सरकारी कायद्यांत हो धंदो बसना. म्हूण सरकारी कायद्यान दत्ताराम एक ल्हान गाडो चलोवपी आसा. गरीब आशिल्ल्यान हालींच सरकारामार्फत ताणे उदकाच्या नळाचे पायप घालून घेवन फुकट कनेक्शन करून घेतलें. ते भायर सरकाराकडल्यान एक सुलभ शौचालय बांधून घेतलां.

आतां नव्यान वेंचणूक लागीं पावल्या. दत्ताराम 'बुडकुलो' हें वेंचणूक चिन्न घेवन वेंचणुकेक स्वतंत्र उमेदवार म्हूण उबो रावंक तयार जाला. खंयच्याच पक्षामार्फत तो उबो रावंक ना. आमदाराच्या हिसपाभायर पक्षबदलाक लागून ताचें पक्षीय राजकारणाक मन उबगलां. आदले वेंचणुकेंत एका पक्षांतल्यान उबो राविल्लो निश्ठावान उमेदवार तितलेच निश्ठेन अंदूंचे वेंचणुकेंत विरूद्ध पक्षांतल्यान उबो रावता. हें ताच्यान पळोंव नज जाता. खंयच्याय पक्षांतल्यान उबो रावल्यार ऐन त्या वेळार फाटीं सरून दुसऱ्या उमेदवारांचें हीत सादपाकूय कठीण आसता. हें येवजून स्वतंत्र उबो रावप हीच व्हडली समाज सेवा अशें तो धरता. दत्ताराम फाटले वेचणूंकेक उबो रावन फाटीं सरलो तरी ताका एकशें सत्तावीस मतां पडलीं आनी अंदुंची वेंचणूक तर कडक जावची आसा. आतां दर मताक म्हत्व आसा, म्हूण हेर उमेदवार दत्तारामाक वेंचणुकेक उबो रावचे पयलींच

समजावन आनी समजून फाटीं काडूंक सोदतात. हे वेंचणुकेंच्या वेळार हेर उदरगती वांगडाच आपल्या घराक आनीक दोन हॉल वाडोवची येवजण करून तांणें पंचायतीकडल्यान आतांच प्लॅन पास करून घेतला.

दत्तारामान आतां मेरेन इतलें केलां. फाल्यां तो कितें करीत हाचो तर्क करप म्हळ्यार फाल्यां मटक्याक नंबर कितें येतलो हाचो तर्क करपासारकें आसा.

दत्ताराम वेंचणुकेक उबो रावता म्हूण सध्या गांवांत उमेदीचें वारें व्हांवता.

अवकळा पयस सारून उमेदीचो मंत्र दिवंक दत्तारामाचो अवतार सदांच तत्पर आसता!


WORLD KONKANI LIBRARY
Accn No : 002513

###

## पांडी पटेकार

फिशालकायेन पटे मारपाक पांडीक कोण लागना. जगांत एकूच सत्य आसा तें म्हळ्यार असत्य हें पांडीचें तत्वज्ञान. तो एक सारके असत्याचे प्रयोग करीत आयला आनी तांतूंत तो सफल जाला.

पांडीक हांवें एक पावट विचारलें 'पांडी, इतले पटे कित्याक मारता रे तूं?' आपल्याक ज्योतिश, भविश्य सगळे कळटा अशे पटे मारून पांडीन म्हजो हात आपल्या हातांत घेतलो आनी म्हज्या हातावेल्यो रेशो पळेत म्हळें, "ही पळे तुका लांबच्या लांब धनरेशा आसा. ना तर म्हज्या हातार पळे, धनरेशाच ना! म्हूण कितें तरी प्राप्ती जावची आनी दिसपट्टो ग्रास मेळचो म्हूण म्हाका पटे मारचे पडटात. म्हजे पटे सुके न्हय. म्हजे हात ओले जाता जाल्यारूच आनी कितें तरी प्राप्ती जाता जाल्यारूच हांव पटे मारतां.

पटे मारतल्यांचो राजा म्हूण पांडीक पट्टाभिशेक करूंक कांयच हरकत ना. पांडीचे पटे सुके न्हय हें मात खरें आसा. पांडीचे पटे आनी पांडीच्यो चोरयो ह्यो एकमेकांत अशो घुस्पल्ल्यो आसात की दोगांयकूय वेगळावं नज.

पांडी आमचो शेजारी पूण ताचे पसून चार हात पैस रावचें असो आमकां सगळ्यांचो बोध. पांडीक केन्नाय हांव लागी करतां तेन्ना घुस्पागोंदळांत पडटां. आमच्या गोरवांक चरोवपाक नित्याचो राखणो गोटी आसा. एक दीस पांडीन येवन गोटीबद्दल तक्रार केली आनी म्हाका म्हळें, 'तो तुमचो गोटी गोरवांक पाड शेतांनीं घालता. थंय तांका चरव सारको मेळना. दीसभर चरोवन गोरवां उपाशीं तीं

उपाशीं. ते भायर तांका तो मारता. तांका म्हजेकडेन सोड. हांव पळे तांका पोट भरून हाडटां.' बदल करून तरी पळोवया अशें म्हूण हांवें पांडीकडेन गोरवां चरोवपाक दिलीं आनी खरेंच गोरवां पोट उप्पाट भरून येवंक लागलीं. पूण एक दीस ज्याकेलीन बाजारांत गाळी संवता तें हांवें आयकलें. "कोण पाड पडलेले गोरवांक सोडटात कोण जाणा! म्हज्यो वाली खाल्यो. आतां शेतांत गोरवां दिसत जाल्यार दोकेच मोडून घालतां." दुसऱ्या दिसा आमोरेचेर वचून पळेत जाल्यार ज्याकेलिनाच्या शेंतांत आमचींच गोरवां! पांडी परतो गोरवांक व्हरूंक आयलो तेन्ना ताचे फुडें गोरवांक तापोवन हांवें म्हळें, 'किते चोरां जाल्यात गो तुमी? लोकांच्या शेतांतल्यो वाली चोरून खातात.?' अशें म्हणून हांव जेन्ना तांचे म्हऱ्यांत गेलो तेन्ना तीं म्हाका खड्डो मारूंक आयलीं. पांडी गोरवां म्हऱ्यांत गेलो आनी तांकां 'काय बरे काळू म्हजें. काय बरो नंदू म्हजो' अशें म्हणीत सांसपिली. 'केन्नाच कोणाचे चोरपी न्हय. शेतकारांक बोब मारपाची संवयूच जाल्या.' खरें सांगूंक गेल्यार म्हजी गोरवां म्हाका खड्डो मारपाक येतात आनी फटी मारतल्याक ल्हेंवतात हें पळोवन पांडीचे संगतीन म्हज्या गोरवांकूय फटीची आनी वालींची रूच लागल्या हें म्हाका कळून आयलें. हांवें पांडीक गोरवां चरोवपाक मना केलो. फुडलो एक म्हयनो म्हज्या गोरवांक शिस्तीर हाडपाक म्हाका नाका पुरो जालें. कांय दिसानीं हांवें पांडीक ज्याकेलिनाचें शेत राखतना पळेलो तेन्ना हांवें ज्याकेलिनाक विचारलें, 'तुवें पांडीक शेत राखूंक दवरला?' ज्याकेलिनान खुलासो केलो, 'हय बाबा, कोण पाड पडलेले शेतांत गोरवां घालतात कोण जाणा! पांडीन म्हाका बरी राखण करतां म्हूण सांगलें. नाय जाल्यार तो बेकार, पैशेय चड मागिना म्हूण ताकाच राखूंक दवरलो. तो राखण बरी करता.' थोड्या दिसानी पांडी फातोडेर कणगां, वांयगी, भाजी बी घेवन लोकांक फुके सवाय विकता तो हांवें पळेलो. एक दीस म्हाकाय कणगां हाडून दिवंक लागलो तेन्ना ज्याकेलिनाच्यो गाळी आनीक बादूंक नाका म्हूण हांवें ताका परतिलो.

पांडी एका जाग्यार धरना. आयज एकल्याची सिर्वीस जाल्यार फाल्यां दुसऱ्याची. तरी पांडीच्या पट्यांक लोक कशे भुलतात कळना!

शेत राखून ताका आनी ज्याकेलिनाक पुरो जातकूच पांडीक हांवें अशोकाचे गॅरेजींत पळेलो. पांडी मॅकानीकाचे काम बरें जाणा. हो सवायसो मॅकानीक पळोवन आनी पांडीच्या पट्यांक भुलून अशोकान ताका आपल्या गॅरेजीत कामाक दवरलो. म्हयनोभर पांडीन आंग मोडून काम केलें. पूण ते उपरांत गॅरेजींत मोटारीच्या पार्टांच्यो चोरयो जांवक लागल्यो. कोण चोरयो करता तें उजवाडाक येवचे पयलींच पांडीन गॅरेज सोडली आनी हें दुबावीत वातावरण नाका म्हूण बेतके मामागेर वचून रावलो. पांडीच्या मामाचो दोंगर आसा आनी तेन्ना

काजी चंवरलेल्यो. उर्राकाचो तेप सोपसर पांडी मामागेर! दीस-रात पांडी उर्राकान तर्र! त्या समाधानान पांडीक कितलेशेच पावटी समाधी लागली. काजूचो मोसाम सोपतकूच चातुर्मास करून आयिल्ल्या पुण्यवंत मनशाभाशेन पांडी परतो आपल्या घरा दिसूंक लागलो!

कांय दीसांनी पांडी परतो आपल्या कामाक लागलो. पांडी मिनेज भाटकाराचे फाटल्यान फुडल्यान कित्याक असो सगळ्यांक प्रस्न पडलो. पूण थोड्याच दिसांनी खरें कारण कळ्ळें. भाटकाराचो एका जाग्याखातीर देमांद चलतालो. ताचो निकाल ताचेवटेन लागची खात्री आसली. करतां करतां पांडी सेलाद फोली घेवन मिनेज भाटकारावांगडा पणजे वचूंक लागलो. देमांदाच्या कामांतूय पांडीक गत आसा. सरपंचाक मेळप, मामलेदाराच्या ऑफिसांत खेपो घालप, कोर्टाच्यो तारखो हाडप अशीं जायतीं भाटकाराचीं कामां पांडीन आपल्या आंगार घेतलीं. निमाणें देमांदाचो निकाल भाटकारावटेन लागलो आनी ताका तीस हजार रुपया आयले. तांतले पंदरा हजार भाटकाराच्या भुरग्यांक गेले. साडेसात हजार ताचे बायलेक. भाटकाराक साडेसात हजार रुपया उरले. भाटकारान ते बँकेत घाले आनी बायले कडेन झगडलो. बायलेच्या साडेसात हजारांतले तीन हजार आपल्याक खर्चाक जाय अशी ताची मागणी. बाजार आपुणूच करतां, नुस्तें आपूण हाडटां, साकर पेत्रोलूय हाडटां तेन्ना आपल्याक बायलेन उण्यांत उणें तीन हजार दिवंक जाय असो भाटकाराचो हट्ट. बायल उबगली आनी तिणे घोवांक म्हळे, 'हे साडेतीन हजारूय व्हर आनी घरा जेवंक येवं नाका.'

भाटकार रागान घरा वचना जालो. तेन्ना पांडीन ताका सांबाळ्ळो. भाटकारान आपले सगळे भाटा कुडके विकून खाल्ले आनी हो निमाणो कुडको आसलो. अशे वायट परिस्थितींत भाटकाराक एकलो सोडूं येता? पांडीन ताची काकुळट केली. भाटकार बँकेतले पयशें काडून काडून पांडीक घेवन भोवंक लागलो. खावप-पियेवप एकठांय. रातचो पांडीच्या घरा न्हिदूंक लागलो. एक दीस भाटकारान बँकेंतल्यान तिनशें रुपया काडले. त्या दिसा दोगांयनीय बरें फेस्त केलें. देडशे रुपया कडयले. रातीकडेन सामको बेशुद्ध जावन भाटकार पांडीगेर न्हिदलो. पूण पांडी मात सावध. तो अशावेळार सोरो पचोवन सावध रावता. सकाळफुडें भाटकार शुद्धीर येवन पळेत जाल्यार बॉल्सांत वीसूच रुपया. भाटकारान पांडीक विचारलें तेन्ना पांडीन म्हळें, 'तूं भानार आसलो काल? कितें मोडटा तेंच तुका खबर नासलें. तूं सगळे खर्चितलो आसलो. तरी हांवें तुका सकाळी निवळणेक जाय म्हूण वीस रुपया बॉल्सांत सांबाळूंक लायले.' भाटकाराक जाप उरली ना. दुसऱ्या दिसा पसून भाटकाराचो आनी बायलेचो एकचार जालो. पांडीगेर रावचे परस झगडीं विसरून बायलेकडेन गेल्यार लाब

आसा अशें ताणें येवजिलें आसतलें!

पांडी ह्या दिसानी घरा कडेन दिसना. पांडी खंय तरी मुदांसाक गेला. हालीच खबर कळ्ळ्या की पांडी पिरवळा कोणाच्या तरी कुळागरांत वावुरता. पांडी थंय पिराच्या व्हाळाकडेन पटे धुवन आनी पुण्य जोडून केन्ना परतो येता तें पळोवंक जाय!

###

## चोर

चोरी बरी न्हय. पूण चोरयेच्यो कळा पळयत जाल्यार ही खर विद्या म्हणूंक जाय. मनीस केन्ना ना केन्ना जिणेंत चोरी करताच. व्हडपणांत न्हय तर भुरगेपणांत तरी करता. भुरगेपणांतल्या चोरयांक व्हडलें म्हत्व नासता. पूण जाण्टे जातकूच कांय जाण जी चोरयेची कला शिकतात ताचें अप्रूप दिसता.

जोतीं चोरपाची कला ही देवळाच्या दरवट्याकडेन तरतरता. जोतें देवळाचे भायर काडून देवदर्शनाक गेल्यार देवाचेर मन कशेंच केंद्रीत जायना.

चोरांच्यो जाती जायत्यो. कलमचोर म्हळ्यार साहित्यचोर. खांदचोर म्हळ्यार आपल्या खांदावेलें वजन अचळय दुसऱ्यांच्या खांदार घालपी. त्या भायर आंगचोर, कामचोर अशेय आसतात. वाटेवेले चोर, घरचोर तशेच चोरार मोर म्हूण आसतात. त्या भायर भुरटे चोर, खांपे चोर अशेय आसतात.

हालींच्या काळार पळेत जाल्यार चोरयेचे रूपडेंच बदल्लां. व्हडले व्हडले चोर सुट्टात तर ल्हान ल्हान चोर सांपडटात. चोरी केल्यार व्हडली करची, समाज ओगी पडटा. ल्हान चोरयो केल्यार ख्यास्तीक कारण जाता.

एक मानांय एका गिरेस्त मनशाची मोटार धुवपाचें काम करतालो. ताचे ताका पयशे मेळटाले. जंय तो मोटार धुतालो थंय ताच्या त्या धनयाचे निरपणसाचें एक झाड आसलें. ताका कुचकुचीत निरपणस जाताले. तांतलो एक निरपणस काडल्यार ती भारतीय दंड संहितेंत चोरी थारचीना अशें ताका दिसलें आनी एक दीस तांणे तांतलो एक निरपणस काडलो. तें भाटकान्नीन पळेलें आनी व्हडलो आकांत केलो. हो चोर हांगा नाका अशें तिणें घोवाक सांगलें. ताका काडून उडोवंक ती हट्टाक पेटली. तेन्ना ताका कामांतलो निवृत्त करचो पडलो. एका निरपणसाक लागून ताणे बरेचशें वगडायलें. ह्याच भाटकाराचे एक पणसाचे झाड आसा. ताकाय जायते पणस जातात. सगळ्यांची नदर चुकोवन चोरून ताणे पणस

चोरिल्लो जाल्यार ती चोरी ताका पचपाची. पूण एक ल्हान निरपणस काडप ही ख्यास्त मेळपासारकी चोरी न्हय अशे तांणे धरलें आनी आपूण चोरी करिना अशें धरून तो बेसावध रावलो. तीच ताची चूक जाली. हालीं काळार चोरी केल्यार व्हडली करची. ल्हान करची न्हय! पणस चोरचो पूण निरपणस चोरचो न्हय!

चोरयेक केन्ना केन्नाय धर्मीक रूप येता. तेन्ना मात भंय दिसता. शर्विलक हो खांपो चोर आसून तंत्र-मंत्रान खंयचो म्हाल कसो गुठलावचो हाची विद्या ताका खबर आसली. चोर विद्देक म्हान विद्देसारकी तो मानतालो!

कार्तिकी एकादशीक आमचे गांवचे शाळेंत चोवीस वरांचो अखंड़ सप्ता जाता. ते राती गांवचे भुरगे लोकांच्या बांदावेलीं आडसरां पाडून खावपांत धन्यताय मानतात. इतलेंच न्हय तर भजनी सप्ताहाच्या धर्मीक कार्याचो हो एक भागूच अशे मानतात! तांतूंत तांकां पुण्य मेळटा अशेंय दिसता जावंक जाय! पूण हालीं काळार ह्या धर्मीक कार्याक बांदांच्या मालकांनी आडखळ हाडिल्ल्यान ही आडसर-चोरयेची चाल लागीं लागीं बंद पडत चल्ल्या.

पूण चोरी ही वायटूच! खूबशे वायट प्रसंग ह्या चोरयेच्या धंद्यांत येतात. सांपडल्यार चोर ना तर साव. केन्ना केन्नाय चोराक सोडून संन्याशाकूय सुळार दिवपाची घडणूक घडटा.

चोरयेचे जायते पावटी गंभीर परिणाम जावं येतात. असेच गंभीर परिणाम जाल्ले एके चोरयेची खबर सांगची पडटा.

पिकेन हो आवयचो एकलोच पूत. ताचो बापूय ताका भुरगेपणांतूच सोडून गेलो. आपल्या अपुर्बायेच्या पुताक आवयन काजार करचो प्रयत्न केलो. पूण पिकेनाचे कितें चुकलां कोण जाणा! तो काजार जालो ना.

तसो पिकेन सगळ्यांचे अपुर्बायेचो. आतां ताका चाळीस-पंचेचाळीस वर्सां जाल्यात. पूण आजुनूय लोक ताका पिकेनूच म्हणटात.

पिकेन कोणाकूय पावपी मनीस. ताचो सगळ्यांक आदार. रातचो कोणूय बरो ना जालो जाल्यार दोतोराक आपोवंक लोक पिकेनाकूय धाडटात.

पिकेन कितें करता तें कोणाक खबर ना. तांचे घरचें शेत आसा. म्हणटकूच जेवणा-खाणाची तशी अडचण ना. पूण दीसभर काम करिनासतना रुशी कसो बसून तो कितें येवजिता तें कोणाक कळना!

हो आमचो पिकेन एक पावट एके चोरयेक सांपडलो. ते चोरयेक विडो घेवन केल्ली चोरी अशें म्हणू येता.

एका भाटकाराक आपल्या भाटांत रावपी एकलो भाडेकार नसाय जाल्लो. तो हरशीं आल्फियाद. पूण ताच्या भाटांत रावन तो व्हडले उद्योग करतालो. मटकोय घेतालो, पूण भाटकाराक भाड्याचें म्हूण कांय दिनासलो.

ह्या भाटकारान चोरांची एक व्हडली टोळी हाडली. पिकेन तांका मार्ग दाखोवपी.

ह्या चोरांनी रातयांत त्या मुंडकाराचे सामान भायर काडून ते दर्यांत उडयले. मशिनांय दर्यांत उडयलीं.

पोलिसांनी सगळ्यांक धरले. पूण हेर चोरांकडेन पयशे आसले. तांणी पुलिसेक पयशे दिवन आपली सोडणूक करुन घेतली. भारतीय दंड संहितेप्रमाण हेरशीं सगल्यांक ख्यास्त जावपाची पूण सरकारी सोर्तीक जसो मटको हो पर्याय आसा तसो भारतीय दंड संहितेक पुलीस दंड संहिता म्हूण गुपीत संहिता आसा! तांतूत कोणाक धरचो आनी कोणाक धरचो न्हंय हाचे नेम आसात. पिकेन तांकां पयशे मेजूंक शकलो ना. म्हूण ताका ख्यास्त भोगची पडली. हेर सुटले!

पुलिसेन गांवभर पिकेनाची धींड काडली. आपणे चोराक धरला हे पुलिसेक लोकांक दाखोवन दिवंक जाय आसलें. कांय जाणांनी ताका माडाक बांदून घालो. पिकेनाचे आवयक आपोवन हाडली आनी तिका म्हळें, "हो पळे तुजो पिकेन कसल्यो भानगडी करता तो!"

पिकेनाची ती परिस्थिती पळोवन आवयचें काळीज चुरचुरलें. इतल्यांत मौजेक दोन-तीग जाणांनीं पिकेनाचेर दांडे घाले. चोराक म्हूण सोडूं येता! फुडें व्हडल्यो चोरयो करतलो! आवयच्या काळजाक त्या दांड्याचे जाल्ले धाय आवयकूच समजुपाचे. लोकांक सांगू येता? चोरी तर खरी! चोराची आवय मात हड्ड्यांत रडटा!

आयच्या ह्या समाजांत व्हडल्या चिकानांच्यो चोरयो पचतात आनी ते व्हड चोर मानान भोंवतात. पूण पिकेन चोरयो चलनात. असल्या चोरांक माडाक बांदतात! व्हडले चोर मोटरींनीं भोवतात!

###

## पाटयेवेलो हुंदीर

हांव न्हिदूंक वतना रातीकडेन केन्ना-केन्नाय माथ्यार नळ्यावेल्यान वांशांचेर आनी वांशांवेल्यान पाटयेचेर असो गुडू-गुडू करून धांवपी एक मध्यम पिरायेचो हुंदीर म्हाका दिसता. ताचो तो गडगड आयकतकूच म्हज्या काळजांत धडधडता. न्हिदलां थंयच्यान हांवें हर्त करतकूच तो अदीक नेटान धांवता आनी अर्दे वाटेवेल्यान परतून खंय तरी वयर छपराच्या कोनशाक आंग चोरून लिपता.

त्या हुंदराचो म्हाका आनीक उपद्रव जायना सो पळोवन हांव न्हिदूंक वतां जाल्यार म्हाका न्हीद लागचीच आसा, म्हजो उपद्रव ना सो पळोवन, हुंदीर आंग भायर काडून भायर सरता. भायर सरतकूच एक पावट तो म्हजेकडेन तुकू-तुकू करून पळेता. म्हजी नदर ताचेकडेन लागिल्ली दिसल्यार तो कांय वेळ फाटी-फुडें जाता.

पूण हालीं आमी संवकळीचे जाल्यात. आमी एकमेकांक समजल्यात. तो कांय म्हाका चाबचोना आनी हांव कांय दांडो घेवन ताका इतले वयर मारूंक पावचोना हें आमकां दोगांकूय बरे भाशेन कळिल्ल्यान आमी जायते पावटी आप-आपल्या जाग्यावेल्यान एकमेकाक तोखेतात. कांय वेळ नदर लावन पळेतकूच तो आपले वाटेन वता आनी हांवूय न्हिदूंक लागतां. पयलीच्या भंया उपरांत आमकां एकामेकाची अपुर्बाय दिसूंक लागल्या. हो हुंदीर म्हजो अपुर्बायेचो जाला.

केन्ना केन्नाथ म्हाका न्हीद पडना आनी ताकाय कितें करचें तें कळना तेन्ना आमी एकमेकाकडेन आमचे विचार मांडटात.

हो हुंदीर हरशीं काळो कित्ट न्हय. तसो रंगान उजळ. सोंडयेन रेखीव, दोळे लुकलुकीत!

हांव ताका विचारतां, "तूं म्हजो जल्माचो वैरी कसो म्हजे पसून इतलो पयस आनी इतलो वयर कित्याक रावता? नाय जाल्यार म्हाका तुजी अपुर्बाय दिसता. लागीं आयल्यार हांव तुका मारचोना. गणपतीचो हुंदीर कसो तुका ल्हायो पसून घालीन."

हुंदरान सोंडी उत्ती केली आनी म्हाका म्हळें, "गणपती पुजेवेळार तुमी आमची पूजा करतात. पूण मागीर तुमी सगळे विसरतात. आमका देडा दिसाची पूजा आनी जल्मभर भंय. ताचेपरस तुमी पूजाच ना केल्ली बरी आसली. तुमी वैरीच अशें आमी मानपाचे. पूण तुमी वैरीच न्हंय तर धवंगी आनी घातकी पसून."

हांवें तें आयकून घेतलें आनी मागीर हुंदराक विचारलें. "बरें, आमी आंगापागांन व्हड. तरी तुमी चीं-चीं करीत जाल्यार आमचे आंग कित्याक शिरशिरता? आमकां ह्या आमच्या भिजूडपणाची खरीच लज दिसता. तूं म्हजो इश्ट म्हूण हांव म्हज्या मनातलें तुका सांगतां."

"कारण नासताना सोडिल्ली बायल, घोवाक जाप विचारूंक येतकूच धड-धाकट दादलो पसून कांचवेता, ताच्या काळजांत कलकल भरता आनी तो भियेवन मोनो पडटा. ताच्या मनाची धिटाय गळून पडटा, आपूण खंय तरीं चुकिल्ल्याचें मन ताका खाता. तशीच कितें तरी तरा तुमची जाता." हुंदरान एक देख दिवन सांगलें.

"तरी हुंदीरमाम, हांव तुजेर खरेंच प्रेम करतां. म्हाका तुजो पाटयेवयलो खेळ आवडूंक लागला." ताचे ते लुकलुकीत दोळे, उजळ सोबीत आंग आनी पाटयेर उडयो मारपाची शिटूकसाण पळोवन म्हाका ते पाटयेवेल्या त्या हुंदराबद्दल खरोच मोगाचो उमाळो आयलो.

'हो मोगाचो उमाळो धड न्हय,' हुंदरान म्हाका शिटकायलो. "तुमचे मनीसजातींमदीं प्रेम करपी जोडीं हांवें जायतीं पळयल्यांत. ती प्रेमांत पडटात तेन्ना एकामेका म्हऱ्यांत आसले बगर तांच्यांनी रावं नज जाता. एकामेकाचो फुडार बरो चिंतून तीं सपनां रंगयतात. पूण एक पावट प्रेमभंग जायत जाल्यार एकामेकाचेर नदर घालूं नज असो राग तांच्या काळजांत खतखतता. एकमेकाचे पःड कशे पडचें आनी दुसऱ्याक त्रासांत पडटना कशें पळोवचे हेंच ते चिंततात. प्रेमाची ओलसाण खंयचे खंय ना जावन रागाच्या धगान तीं एकमेकाचेर जळूंक लागतात."

गणपती व्हड विद्या आनी बुद्द दिवपी. पूण ताचें हें वाहन, हुंदीर, तो इतलो बुदवंत आसत हे म्हाका खबर नासलें. म्हाका कितें उलोवचें तेंच कळना जालें आनीं हांवें तोंडार पांगरूण घेवन न्हिदपाचें सवंग केलें.

इतल्यान 'मँव' करून म्हजो बुकलो थंय आयलो. पांगरूण वयर काडून पळयत जाल्यार म्हजो अपुर्बायेचो बुकलो! ताचें ते गुबगुबीत आंग आनी खांपाखांपांचे सोबीत रंग पळोवन म्हाका तो खूब आवडटालो. म्हजी अपुर्बाय पळोवन आपल्याक खांवक कितें पडटा म्हूण म्हजे फाटी-फुडे तो भोंवतालो आनी हांव मागीर ताका सांसपितालों.

आयज ह्या बुकल्यान हुंदीर धरिल्लो आनी कोणाची कटकट नाका म्हूण उल्लेलो सुल्लेलो हुंदीर तो म्हजे खाटी सकयल येवन खातालो. म्हज्या बुकल्याक आपले आवडीचे खाण मेळ्ळें म्हूण म्हजें मन धादोस जाल्लें. हांव पाटयेवेल्या हुंदराक विसरिल्लों. पूण बुकल्याक पळोवन छपरार वतना हुंदरान म्हाका म्हळें, 'हांव पाटयेर, तूं खाटीर आनी तुजो बुकलो खाटी पोंदा ही मांडावळूच बरी आसा. ही मांडावळ मोडचो हावेस तूं धरूं नाका!'

###

अक्षतांक जें म्हत्व आदीं काळार आसलें तितलें हालीं काळार उरूंक ना.

अक्षता म्हळ्यार हळद, कुकूम आनी गंध युक्त पवित्र तांदूळ. हरिद्रां सौभाग्य परीमल द्रव्य अशे तरेच्यो ह्यो अक्षता. देवपुजेंत तर तांकां खूब म्हत्व आसा. देवाक पुजेक आपोवंक 'आवाहनार्थे अक्षतां समर्पयामि' अशी सुरवात करून पूजा सोपोवच्या वेळा 'छत्रं, चामरं, गीतं, वाद्यं, नृत्यं, आंदोलनं, समस्त राजोपचारार्थे अक्षतां समर्पयामि' अशें म्हणमेरेन अक्षतांनीं देवाक आमची सगळी सेवा पावता. पुजेंत त्या भायर खंयचीय वस्त वेळार मेळना जायत जाल्यार त्या बदला अक्षता अर्पण केल्यार देवाक पावता असो भावार्थ आसा.

देवकार्य सोडलें जाल्यार खंयच्याय मंगलकार्यांतूय अक्षतांक खूब म्हत्व आसा. व्हकल-न्हवऱ्याच्या माथ्यार अक्षता उडोवप हें तर लग्नांत सामकें म्हत्वाचें कर्तव्य. आनीक कितेंय चुकल्यार जाता, पूण मंत्र म्हणून म्हुर्ताच्या वेळार व्हकल-न्हवऱ्याच्या माथ्यार मंत्राक्षता उडोवन म्हुर्तार गळ्यांत माळ पडुंकूच जाय. हो लग्न सुवाळ्याचो अती म्हत्वाचो वांटो. हाकाच लागून कोणाच्याय माथ्यार अक्षता पडल्यो अशें जेन्ना आमी म्हणटात तेन्ना ताचे लग्न जालें असो ताचो अर्थ रोखडोच ध्यानांत येता. आदल्या काळार एकाद्या सुवाळ्याक आमंत्रण दिवंक वतना अक्षता व्हरताले. अक्षता दिवप म्हळ्यार आमंत्रण दिवप आनी अक्षता घेवप म्हळ्यार आमंत्रण स्विकारप. अक्षतांनी कृत्याक दोश बादना, तें क्षय पावना, खतावना अशी हाचे फाटल्यान भावना आसा.

अक्षता उतराचो मौजीक तरेनूय वापर कांय भारती भासांनी केल्लो आसा, शीत जेन्ना कशाय कशें शिजिल्लें आसता तेन्ना त्या 'शितापोंदा रक्षा, मर्दी गोपीचंदन आनी वयर अक्षता' अशें वर्णन केल्लें आसा.

आमी लग्नाचें इंग्लिशीकरण करूंक लागिल्ल्याक अक्षतांचें पयलींचें म्हत्वाचें स्थान आतां उरूंक ना. हालीं लग्नाचीं जीं आमंत्रणां येतात तातूंत जायत्या निमंत्रण पत्रिकांनी लग्नाचो म्हूर्त सकाळचो अमक्या समयार आनी 'रिसेप्शन' सांजचे अमकी वरां तीं अमक्या वरामेरेन अशें कळीत केल्लें आसता. अक्षता उडोवंक आमी थोड्याच जाणांक आपयतात आनी रिसेप्शन मात दबाज्यान जावंक जाय अशी आमची अपेक्षा आसता. म्हाका हालींच एक लग्नाचें निमंत्रण पत्र आयलें तातूंत लग्नाच्या म्हूर्ताचो वेळ-स्थळ कांय नासलें. तातूंत इतलेंच कळीत केल्लें की वधू-वराच्या लग्नाचें रिसेप्शन न्हवऱ्याच्या निवासस्थानार

अमक्या अमक्या दिसा सांजे पांच ते आठ मेरेन. तर लग्न केन्ना हाची चौकशी काडूंक गेल्यार म्हजी शेजान्न म्हाका म्हणूंक लागलीं, 'लग्न जालें पांच दीस आदीं. हांव गेल्लीं तांगेर तेन्ना खबर मेळ्ळी. लग्न आलतिनार कोणाचो रिकामो बंगलो आसलो तातूंत दवरिल्लें आनी रिसेप्शन हांगा गांवांत दवरलां अशें न्हवऱ्याची आवय म्हाका सांगताली.' लग्नाक कोणा कोणाक आपयल्लें कांय म्हूण विचारल्यार ती सांगता- 'लग्नाक कोणाक आपोवक नासलें. लग्न सामके प्रायव्हेट दवरिल्लें,' पूण आमची शेजान्न ओगी रावता? तिणे खंय न्हवऱ्याचे आवयक विचारलें, 'आगे, धूवांक तरी आमंत्रण दिल्लें मगें तुवें?' आमचे शेजान्नीन आपल्याक रिसेप्शनाक आमंत्रण नासलें ताचो राग काडिल्लो. लग्नाक अक्षता उडोवंक कोणाकूय आपोवं येता. पूण रिसेप्शनाक असल्या वाचाविदळ शेजान्नीक आपोवं येता?

ह्या रिसेप्शनाक वचूंक म्हजें मन बरें तयार जायना जालें. सारकें सांगचें जाल्यार, लग्नाच्या समयार सगळ्यांचो आशिर्वाद घेवन मागीर देवळांत वचून देवाचो आशिर्वाद घेवन ताचेर शिक्को मारपाचो आसता. पूण व्हकल-न्हवरो देवाचोय आशिर्वाद घेवन मेकळे आनी सगळें कितें करून 'जाल़ें तें जालें' अशा अर्थान आमकां रिसेप्शनावेळार आशिर्वाद दिवंक आनी जेवपा-खावपाक आपोवप हें मनाक पटना जालें. पूण काळाप्रमाण हांव बदल्लो आनी रिसेप्शनाक वचून आयलोंच. रिसेप्शनाक सावन येतना कोणे तरी वाटेर म्हाका विचारलें 'रिसेप्शनाक चड लोक आसलो?' हांवें म्हळें 'पांच ते स मेरेन तरी चड नासलो. आतां स ते सात मेरेन चड जाता जाल्यार तूं पळोवन यो.' सगळे एकठांय येवन म्हुर्तार अक्षता उडोवपांत जी गोडसाण आसता ती ह्या रिसेप्शनांत येना.

आमची खंयचीच गजाल वेळार जायना. म्हूर्ताचें बंधन आशिल्ल्यान लग्न तरीं वेळार जाता. थंय रूसूंक-धोसूंक वेळ नासता. पूण अक्षतांक आनी म्हूर्ताक म्हत्व उणें जावन फुडें आमचीं लग्नकार्यां खंयच्या खंय व्हांवतलीं असो भंय दिसूंक लागला. अक्षता वरीच आदीं अक्षत आंगाऱ्याकूय खूब म्हत्व आसलें. 'सवाशीण बायलांक कुकमा तिळो जितलो म्हत्वाचो तितलोच आदल्या काळार दादल्याच्या कपलार अक्षताचो तिबो म्हत्वाचो आसलो. पूण तिळोय व्हड जावन आतां ताची तिकली जाल्या आनी अक्षत तर नाच्च जालां.

आदल्या जायत्या बऱ्या गजालींचें आमी अवमूल्यन केलां तशेच अक्षतांचें केलां. हें सारकें न्हय. अडी-अडचणींक, सगळ्या शुभ कामावेळार अक्षता आमकां उपयोगाक पडटात. अक्षतांचे बरेपण आमच्यांनी विसरूंक जावपाचें ना.

###

## गोपकपट्टण अकादमी

आयची गोंयची राजधानी पणजी. पूण पयलीचें राजपाटण आमचें व्हडलें गोंय आसलें. आजून आमका आदलें आमचें व्हडपण राखून दवरीन दिसता. पणजेंत जें जें आसा तें तें व्हडल्या गोयां आसचें अशे आमका दिसता.

पणजेंत मुष्टिफंड शाळा आसा. ती जावच्या सुमाराकूच आमी आमच्या गावांत "चामुंडा समाज" नांवाची शाळा लोकांचे तांकीप्रमाण थोडे-थोडे पैशे जमोवन निर्माण केली. पणजे सरस्वती वाचन मंदीर आसा आमी तेच परी एक वाचनालय स्थापन केलें. पणजेंत उत्सव जातात तशेच हांगाय जातात. पणजेंत सप्ताह जातात जाल्यार हांगाय सप्ताह जातात. पणजेंत पुरसावां जातात तर गोंयभर फामाद अशें पुरसांव आमच्या गावांत जाता. पणजे केस्तावां जातात जाल्यार आमीय हांगा केस्तावां करूंक फाटीं रावनात.

अशो कितल्यो म्हूण देखी दिवच्यो. पुण आमच्या गावांत एकूच उणेपण आसलें. तें आमी हालींच भरून काडपाची तजवीज केली. पणजेंत दोन काय तीन अकादम्यो आसात आनी आमच्या गावांत एकूय ना. तेन्ना व्हडल्या गोयांत एक अकादमी स्थापन करची आमी येवजिलें आनी त्या प्रमाण अकादमीच्या वावराक सुरवात केली.

सुरवेक गांवच्या प्रतिष्ठीत लोकांक जमयले आनी अकादमीविशीं आमी चर्चा केली.

आमच्या अकादमीचें नांव कितें आसचें हाचेर जायती भासाभास जाली. व्हडले गोंयचे आदलें नांव 'गोपकपट्टण'. हाका लागून आमी आमचे अकादमीचें नांव 'गोपकपट्टण अकादमी' म्हूण मान्य केलें. मागीर अकादमीचो अध्यक्ष कोण आसचो हाचेर भासाभास जाली. कोणे तरी एका लेखकाचें नांव सुचयलें. पूण तें जायते जाणांक पसंत पडलें ना. ते म्हणूंक लागले, "लेखकांक अध्यक्ष केल्यार ते येवजणो चड येवजून करतात. तांका व्हडली व्हडलीं नांवां दितात. पूण त्या नांवाखाला आपल्याक आनी आपल्या गटांतल्या साहित्तिकांक धन आनी मान कसो मेळचो हाची येवजण बरे भाशेन करतात. तेन्ना अकादमीचो अध्यक्ष साहित्यीक नाका."

निमाणे आमच्या गांवात भजनी मंडळांतलो एक मुखेली आसलो ताका आमी अध्यक्ष केलो. कांय केलें ना जाल्यार भजन तरी करतलो आनी किर्तनां केलीं तरी चिकानां करचो ना अशें एकमत जालें.

अकादमीचो उपाध्यक्ष कोणाक करचो हाचेर मागीर चर्चा जाली. आतां

मात आमी थारायलें की उपाध्यक्ष तरी लेखक आसचो. उपाध्यक्ष नाटकीय आसचो अशें आमी थारायलें. म्हणटकूच तो अकादमीचें नाटक बरे भाशेन रंगयतलो अशें सगळ्यांचें मत पडलें. त्याप्रमाण गावांतलो एकलो नाट्यशिबिरांत वांटो घेवपी, पणजे वचून नाटक सर्तींत वाटो घेवपी आनी पणजे मीरामार रेवेंत बसून काव्य करपी असो एक आमचेमदीं बरोवपी आसलो ताका आमी उपाध्यक्ष केलो.

सरकार दरबारांत आमची कामां वेवस्थीत जावंक जाय म्हूण आमी आमच्या गांवचो पणजे पलासेंत सिर्व्हिसेक वचपी अशा एका प्रतिष्ठीत मनशाक सेक्रेटरी केलो.

खंयच्यान तरी अकस्मात दुडू जोडून हालींच एक ट्रक आनी पिकअप घेतिल्ल्या दुडवाकार मनशाक आमी खजीनदार केलो. तो पैशे कशेय करून उबे करतलो अशी आमका खात्री आसली. आनीक दोन तीग वांगडी आमी कार्यकारणीचेर घेतले.

आतां फुडलो प्रश्न उल्लो तो जाग्याचो. तसो खुद्द व्हडल्या गोयां जमनीचो दर हालीं बरोच वाडला आनी अकादमीक सोबसारकें थंय घररूय मेळना. भाडेंय खुपूच वाडलां.

एका वांगड्यान आमका सुचयलें की आमच्या गांवच्या एका भाटकाराचें मौळ्यां दोंगुल्लेचेर नाल्लांचें लॉज आसा. तो तें दिवंक अनमनचोना. आमी ताचेकडे गेले. जागो मेळ्ळो पूण थंय लागीं विजेचे खांबे नासले. म्हणटकूच विजेचो प्रश्न आयलो. अशा वेळार एकल्यान मदींच तोंड घालें. लॉजांत अकादमी चलोवप लज न्हय आमकां? हेरानीं ताका शिटकायलो. " लॉज नकळ लॉजींग, अकादमीचें काम बरें चलतकूच जालें." मौळे वाड्याचें आदलें नांव मंचलापूर, आमच्या अकादमीचो पत्तो "गोपकपट्टण अकादमी, मंचलापूर" असो थारलो.

विजेचो प्रश्न आमी सोडयलो तो असो : आमी वीजमंत्र्याक मुख्येल सोयरो म्हूण आमंत्रण दिलें. तें ताणें मानून घेतलें. मागीर आमी ताका आमची अडचण सांगली. थंय विजेचे खांबे ना. मंत्र्यान आपल्या सचीवाक आपोवन हाडलो. आनी सांगलें कीं चार दिसां भितर लॉजाकडेन वीज पावूंक जाय. ते प्रमाण थंय वीज पावली.

वर्सांतल्यान एक पावट आमी आतां आमचे अकादमीचें मुखपत्र काडचें येवजिलां. मुखपत्राच्या नांवासंबदान खूप वाद जालो. कसलें तरी झगझगीत, उजवाड दिता तसलें क्रांतीकारक नांव दिवचें अशें मत जालें. कोणे तरी 'मशाल' हें नांव सुचयलें, पुण मशाल हें सापूच गचाळ नांव अशें दुसरे कांय जाण म्हणूंक लागले. कितें तरी संस्कृताक लागीं अशें नांव जाय अशें अध्यक्षाचें आनी उपाध्यक्षाचें मत पडलें. कोणे तरी 'जोत' हें नांव सुचयलें. देवाफुडें आमी जोत

पेटयतात म्हूण जोत हेंच नांव योग्य अशें तांचें मत आसलें. पुण अध्यक्ष जोत म्हणतना खूपूच गडबड करूंक लागलो. देवाफुडली जोत असो उच्चार करचे बदला ताचो 'जोत'चो उच्चार रेड्या-पाड्याचें जोत असो जांवक लागलो. तेन्ना उपाध्यक्षान मदली वाट सोदून काडली. निमाणें 'गोपकपट्टण ज्योती' अशें मुखपत्राचें नांव थारलें.

आमच्या अकादमींत जायते जाण समाजवादी आसात. तेन्ना आपआपल्या समाजांतल्या व्यापाऱ्यांक बी धरून ज्योतीखातीर जाहिराती पुंजावच्यो अशो सुचोवण्यो आयल्यो. त्यो सगळ्यांनी मान्य केल्यो.

आमच्या अकादमीच्या कामाक हालींच सुरवात जाल्या. लेखकांचीं पुस्तकांय छापून हाडची आमची एक येवजण आसा. खंयच्याय लेखकाचें दुसरें पुस्तक आमी छापतात. वयर दिल्ल्या पत्त्यार कळयल्यार जाता.

###

## पाटील

पाटील म्हळ्यार व्हड हुद्यावेलो कोणूय मनीस आसत असो कोणाचोय समज जायत पूण तो खरो न्हय. तो एक मराठी मनीस आसत असो कोणाचोय समज जायत जाल्यार तोय चूक आसा. हांव सांगतां तो पाटील म्हळ्यार आमच्या गावांत कश्टाचें, दिसवड्याचें काम करपी एक कानडी कामगार. आमच्या गांवांत भायल्यान येवन असलें कश्टाचें काम करपी कोणाकूच आडनांवान वळखनात. आडनांवां हीं कश्ट करीनासतना जोडटल्यांक जोडटात असो आमचो समज. बरें, हो मराठीय न्हय, कानडी! कर्नाटकाचो मुखेल मंत्री पटेल हो आडनांवाखातीर गुजराती कसो भ्रम जाता तसो पाटील म्हळ्यार मराठी असो भ्रम जाता. पूण हो शंकरराव न्हय शंकराप्पा पाटील. ताचें पयलें नांव कोणाक चडशें खबर ना. ताका आमच्या गावांत पाटील म्हणुनूच वळखतात.

पाटील व्हडल्या गोंयां आतां सतत पंदरा वर्सां सुमार आसा. हेर कानडी कामगार जे हांगा येतात ते पावसांत आपआपल्या गांवाक वतात आनी कामाच्या तेंपार गोंयांत येतात. पूण पाटील कायम गोयांत आसता. पाटील लग्न जाला आनी ताची बायल फोंड्या आसता अशें एक-दोग जाण केन्नाय फकाणांनीं म्हणतात. तेन्ना पाटलाक तोंच्या फकाणांचो राग मारता. ताका बायल भुरगीं आसतशीं दिसना. तो आतां इतलीं वर्सां एका बार्रापफाटले कुडींत एकलोच रावता आनी रातचो बार्राच्या बल्कावांत न्हिदता.

पाटलाक कोंकणी बरी येता. ताची कोंकणी उलोवपाक बरोवपाक सोपी. आज आमी केल्यात ताचे परस व्याकरणी नेम आनीकूय सोपे. क्रियापदां सगळीं एकलिंगी आनी एक वचनी. देखीक "आमी कामाक गेल्ली आंतांच आयली. तुमी खंय गेल्ली?" ताची कोंकणी फुडारलेले इंग्लेज भाशेसारकी. "I came, you came, We came." क्रियापदाची तोड-फोड ना आनी दादलो बायलेंत असमानता ना. समानतेची फुडाराची कोंकणी कशी! कोंकणी शब्दांचे भांडार ताचेकडे जाय तितलें आसा पूण कोंकणीचें कोंप्लिकासांव ना आनी कित्याक आसचें? कसली गरज आसा? पाटलाकूय जाल्यार रजांव आसा.

आमच्या गांवांत तरातराच्या कामांक उपकारा पडटात ते सगळे कानडी, कोंकणी आनी मराठी कोण ना. म्हूण तांचेरुच पातयेवन रावचे पडटा. तांतल्या तांतूंत पाटलासारक्या मनशांचेर.

गोंयांत इतलीं वर्सां आसलेल्यान आनी तरातरा कॉंट्रॅक्टरांच्या हातासकयल काम केल्ल्यान पाटील कसल्याय कामाक उपकरता. ताचें मुख्य काम मानायपण आसलें आनी ताचो पगार मानायपणाच्या दिसवड्याचो थारिल्लो आसलो तरी त्याच पगारांत गरजेक तो गंवडेपण, मेस्तपण तशेंच रंगोवपाचें बी काम करता. पावसांत तो गोंयांतूच आसता म्हूण शेतकामूय तो जाणा.

पाटलाच्या वावराचें समीक्षण करतना ताचीं दोश-थळांय दाखोवन दिवंक जाय. मटको लावप आनी सोरो पियोवप हो जरी ह्या कामगारांचो सर्वसादारण गुण दोश आसलो तरी पाटलाचो हो गुण दोश सूर-भांग पियेतल्या बैराग्याचो कसो दिसता. पाटलाक संवसार ना म्हूण असल्या कामाक पैशे वगडायले म्हूण संवसाराक कांय बाधा ना. पैशे वगडायले तरी तो कश्ट करून जोडटा. पादिशेर ना. जाणें संवसार सोडला ताचो दोश पसून चंद्रावेल्या दागावरीं पळोवचो आसता! पियेतल्यांच्यो जायत्यो तरा आसतात. पूण पाटलाची वेगळी. काम करता त्या दिसांनी तो आंग मोडून काम करता. त्या दिसांनी तो पियेल्लो दिसना. पूण ज्या दिसांनी पियेल्लो आसता तेन्ना सामको तंद्रेंत आसता. त्या दिसांनी तो काम करीना कांय दिसानी तंद्री देवली म्हणटकूच परतो कामाक लागता. ते नदरेन हे ताचे शुक्लपक्ष आनी कृष्णपक्ष म्हणूं येतात.

एक दीस म्हाका शिमिटाची एक पोती जाय म्हूण पाटलाकडे पैशे दिवन ताका बाजारांत धाडलो जाल्यार हो खंयच्या दुकनार पावलो कोण जाणा! बरोच वेळ जालो पाटील पावलो ना. पाटलाचो हो कृष्णपक्ष आसूक जाय असो म्हाका दुबाव पडलो. दनपार जाली तसो हांव पाटलाक सोदूंक भायर सल्लों जाल्यार पाटील म्हाका वाटेर गोबऱ्याच्या गोठ्यांत सुस्त न्हिदिल्लो दिसलो. गोबऱ्याच्या गोठ्यांत पाटलाक पळोवन गोबऱ्याचें कितें तरी जालें हाचो म्हाका भंय जालो.

इतले दीस म्हाका जाल्लो भंय खरो जालो काय? नक्की तशेंच जांवक जाय!

गोबरो हो ह्या वाटारांतलो फामाद धिरयेचो पाडो. येता वता आसतना नित्य ह्या गोठ्यांत हांव ताका पळेतालों. एका वेळार आपल्या पराक्रमान ताणें व्हड कीर्त जोडिल्ली. सगळ्यांचे तोखणायेचो तो जाल्लो. पूण ताचो देह पळोवन कोणाची त्या गोठ्याच्या आसपास वच्ची छाती नासली. हालीं सरकारान धिरयो बंद केल्ल्यान मात ताका निरुपयोगी आनी निरुद्योगी करून उडयल्लो आनी आतां तो सोज्जेक वचत काय कितें असो एक सारको भंय जातालो आनी होच भंय खरो जालो सो दिसता!

गोबरो गोठ्यांत आसल्यार गोठो भल्लेलो दिसतालो. पूण हालीं धिरयो बंद करीत पसून थंयच्यान लक्ष्मी उबगून गेल्लेवरी दिसताली आनी तिच्या वांगडाच श्री, वीरश्री, धीरश्री, जयश्री ह्यो सगळ्यो उठून गेल्ल्यान गोबऱ्याचो देह आसून गोबऱ्याचो गोबोर जाल्लेवरी दिसतालो. गोबऱ्याचो कितें तो देह, कितें ती खावड? तशीच कितें ताची जोड? पूण धिरयो नासलेल्याक कसो ताका पोसपाचो, कित्याक ताका पोसपाचो हो प्रस्न पडलेलो. सरकारान हें आदीं कित्याक येवजिलेंना? पूण सरकारी येवजण्यो ह्यो अशोच. व्हडलें "इन्फ्रास्ट्रक्चर" रचप आनी पैशे ना, प्रोग्राम ना म्हूण तें पाड घालप. आमचो गोबरो म्हळ्यार केदें 'स्ट्रक्चर'! बरें, 'बूल-फायट' ना जाल्यार बूल-फायटरांक पेंन्शन तरी दिवपाचें. तांतूंत गोबरो काय 'बोगस' व्हय. ताची 'फायट' हजारानीं लोकांनीं पळेल्या. हजारानीं लोकानीं ताचेर पयशे लायल्यात. पूण सरकाराक कोण सांगतलो? सरकार रेडो, आपले भरीचो! ताका पाडो तरी कितें करतलो?

गोबऱ्याचें खरेंच बरें-वायट जालेंच आसतलें! कित्याक तर आयज गोठो उक्तो-उक्तो दिसतालो. त्या ऐरावताच्या जाग्यार थंय आयज पाटलाची पांय कवळून पोटली पडिल्ली. ते वीरश्रीच्या जाग्यार पाटलांची सरश्री आयज [illegible] जलसो करताली.

गरज नासली जाल्यार पाटलाक ह्या गोठ्यांतल्यान सोदपाक कोण येवपाचो? पूण म्हाका गरज आसली. शिमिटाची पोती जाय आसली आनी आत्रीक दोन दिसांनी पाटील कामाक जाय आसलो. पाटील मूळचो हाडांनीं घट. व्हड, व्हड वजन उखलपी. सांगिल्लें कसलेंय काम करपी. पूण हाली सोऱ्यान मात्सो लागीं आयिल्लो. तरी आजून मूळचो वळ वचूंक नासलो. आदीं सोरो नासलो अशें न्हय. देवांच्या तेंपार पसून सोरो आसा आनी सोरो घेतात. पूण आतांच्या सोऱ्यान भेसळ चड. तांतून मनीस चड लागीं येता. सोरो घेतल्याचो दोश तितलो न्हय, सोरो काडटल्याचो दोश! ना तर अंदूं काजूचें पीक ना पूण उर्राक ओतता. खंयच्याच दुकनार फाल्त ना. खंयच्यान आयलो हो सोरो? देव आनी दानव हाणीं

कित्याचें मंथन करून हो ना थंयच्यान सोरो अकस्मात वयर काडलो? आदल्या काळार देव-दानवांनी जेन्ना समुद्रमंथन केलें तेन्ना जीं मोलादीक रत्नां वयर सल्लीं तांतलें सोरो हें एक. तर ताका आतां गटाराचें रुप दिले कोणें? सोरो घेतल्यानीं काय काडटल्यानीं? ही रत्नां अशीं 'रोटन' करतल्या वखवख्या समाजाक तर सोन्याचे तानेन पिडिल्ल्या समाजाक शाणेपणां सांगचो कसलोच अधिकार ना. सोन्यान हालिल्लो पाटलाचो देह पळेतकूच असले पुरातन विचार म्हज्या मनांत मांडटात.

पूण पाटलाक देहाचें भान खंय आसा? सद्या तो ह्या संवसारांत नासलो. ताची तंद्री इतले बेगीन देवची आस नासली. तरी ताची समाधी देवोवंक हांवें ताचे म्हन्यान वचून "पाटील, न्हिदली?" काय म्हूण मोठ्ठ्यान विचाल्लें पूण ते घुंवळेन पाटलाक जाप दीन शी दिसलीना. ताका भुजांक धरून हालोवन हांवें म्हळें "पाटील, शिमीट हाडूंक ना जाल्यार हाडूंक नाका. पैशे दी. कोणाकूय धाडून हाडटां." "हांव मागीर हाडटली" पाटलाक निमाणें जाप फुटली.

उलोवंक जड आशिल्ल्या ह्या पाटलाकडे आनीक उलोवपांत अर्थ नासलो. म्हजो निरुपाय जालो आनी हांव घरा परतलों. तरी म्हज्या पैशांचो म्हाका हुस्को जाल्लोच. पाटील नाडीत म्हूण न्हय. तसो तो भानार नासलोच. पूण भानार आसलेलो कोणूय ताच्या बोल्सांतले पैशे काडीत म्हूणून! पाटील सोरो पियेता, मटको लायता पूण गांवांत कोणाचे पैशे बुडयल्ल्याची एक्कूय खबर ना. पाटील म्हजेकडल्यान केन्ना-केन्नाय पैशे उसणे मागून व्हरता. पूण फुडें कामाक येतकूच ते वसूल जातात. पाटलाकडें आस्पत नासत पूण काम करची आजून ताकत आसा. पाटलान उसणे मागून व्हेल्ले पैशे अशेच वसूल जाल्ले आसात.

पूण पाटलाच्या आंगांतली ताकत सरतकूच ताचें फुडें कितें काय? पाटलाची सद्या मध्यम पिराय आसा. आतांची ताकत फुडें आसची ना, आतांचो सोरो तर केद्याक्ष घट मनशाक हालोवन उडयता. पाटलाची ताकत म्हळ्यार पाटलाची आस्पत. ती सरतकूच फुडें कितें? कोणें चिंतलां? पाटलानूय चितूंक ना. संवसारांत कोण ना, कांय ना, फाटीं-फुडें कांय ना अशे तरेची ताची जीण. शक्त आसासर कोणूय ताची खबर घेतलो. अंती कांय ना कोण ना, असो अणभव घेवचेलो आनी खबर देवान घेवचेली! उरलो तर उरलो, अकस्मात आपयलो तर गेलो!

पाटील त्या दिसा म्हाका मेळ्ळोच ना. खंयच्या लोकांत आसलो कोण जाणा! स्वर्गलोकांत काय पाताळांत तेंय खबर ना. सोरो आनी मटको मनशाक त्र्यैलोक्यवासी करता. सोरो सूर जाल्यार मटको असूर! सोरो स्वर्गांत घुंवडावन धर्तरेर हाडून उडयता जाल्यार मटको पाताळांत भोंवडावन हाडटा.

आदल्या काळार आमच्या गांवांत मटक्याक तेजी आसलीच पूण आतां गांवठी आनी घाटी अशो दोन बाजारपेठो एकठांय जाल्ल्याक मटक्या बाजाराक दोट्टी तेजी आयल्या. घाटी बाजारांत तिट्यार सांज-सकाळ एकठांय जावन मटक्या नंबरांचो अदमास काडटात तर आमचे गांवठी खेळगडी बाजारांतल्या दरेक बांकार आपले अदमासपत्रक मांडटात. पाटील दोनूय पक्षांनीं आसता. मटक्या बाजारांत ताका निवासी आनी अनिवासी अशें दोन पास आसात. दर दिसा कांय 'घट नंबर' म्हूण ह्या अदमासपत्रकाचेर चर्चा जाता पूण लक्ष्मी ह्या घट नंबरांक चडशी भाळिल्ली दिसना. ती फट थंय धांवता काय दिसता. मटको लायतल्याच्या नशिबांत पनवत येता तर मटको घेतले श्रीमंत जायत वतात. पाटलान म्हज्या बऱ्याक हे घट नंबर म्हाका जायते पावट सांगल्यात. पूण म्हजो फट समाजाकडे इल्लो चड ओडो आसा. जंय पैसो, मान आनी प्रतिष्ठा आसा थंय मन ओडटा.

आदीं आमच्या गांवांत मटक्याक मान नासलो पूण समाज फुडें पावलो तसो मटक्याक आतां कोण वायट म्हणिना. समाज सुदारलो तसो ताचो आदलो भैरोजोळोप गळून पडटा. आदीं भ्रश्टाचाराक भ्रश्ट म्हूण सहसा आफडूंक वचनासले. आतां श्रेष्ठ मानूंक लागल्यात. मटको आदीं लिप-चोरयां चलतालो. आतां खुल्या बाजारांत आयला. एक पावट एक पुलीस मटको घेतल्याक धरूंक धांवतालो तो चुकून बांयत पडपाचो तो नशीब म्हूण वाटावलो हें आमीं आदीं प्रत्यक्ष दोळ्यांनी पळेलां. पूण आतां पुलीस दोळे झांकीत संतुश्ट कशे पोस्तार पडिल्ले दिसून येतात. तांका कोणे कशे जाग्यार बसयले कळना. आदीं मंत्र्याकडे सरकारी नोकरेक फावोर मागूंक वतना ताका कितेंय दिवप म्हळ्यार ताचो अपमान जायत सो दिसतालो तो आतां मंत्रीच "म्हजें म्हाका आसा मूं?" काय म्हूण विचारता आनी आमी ताका "तुजें तुका आसाच" अशें सांगतात. शिक्षणीक मळार तेंच घडलां. आदीं शिक्षण दिवप हें पवित्र कर्तव्य मानताले. आतां ट्युशन दिल्याबगर शिक्षण जायना. शिकोवप हें एक 'मिशन' आसलें ते आतां "पे कमिशन" जालां. साहित्यिक मळारुय खूप बदल जाल्यात. आदीं काव्य फुलतालें तें आतां चवरूंक लागलां. आदींच्यो कल्पना आतां संकल्पना जाल्यात. आमचे आयाम, प्राणायाम लांब जाल्यात. लिटररी कॉंपिटिशन वाडलां. कोंकणी साहित्याचें वालेसांव करूंक कोंकणी उतरां कमी पडूंक लागल्यात. उतरांक जायत्यो शेडस् आयल्यात. आदल्या साहित्याचो आनी आताच्या साहित्याचो कॉंट्रेस्ट सामको नदरेंत भरपासारको आसा. टोटली पळेत जाल्यार कोंकणी साहित्याची पोटली आतां सादारण मनशाक उबारूंक कठीण जाल्या. मुळावें शिकप जशें इंग्लीश घेवन आतांचे भुरगे मागीर कोंकणी शिकतात तशे आनी

थोड्या काळान इलियट धरून ते इडियट मेरेन सगळ्या विदेशी लेखकांचें वाचन करून मागीर कोंकणी वाचूंक सुरवात करची पडटली. बरें, इतलेंय करून कितें उपेग आसा? सगळें कितें बरोवचेपरस मटक्याच्यो स्लिपी बरयल्ल्यो जाल्यार कितलो मान आसपाचो! कितलेंय शिक्षण घेतलें म्हूण आमच्या गांवांत मटको घेतल्यांक जो मान आसा तो हेरांक ना. तशेंच तांचे वैभवूय दोळ्यांत भरपासारकें. मंत्र्या फाटोफाट मटक्याच्या तंत्रज्ञांक मान आसा. संस्कृतीक, समाजीक तशेच देवाच्या कामांत पसून ते सगळ्यांच्या फुडें आसात. आमच्या मंत्र्याची जशी अँब्युलन्सा भशेन काँटेसा गाडी आसा तशीच गाडी आमच्या गांवच्या मटक्याच्या कुबेराकडे आसा. मंत्र्याच्यो मिरामार बंगल्याभशेन 'कोटेजी' आसात तशो ताच्योय आसात. मान-प्रतिष्ठेक तर ते जळवांभशेन दसून आसात. लक्ष्मी चंचल आसत पूण तांचेकडे ती 'मोबायल'चें सोबीत रुप घेवन रावल्या. आमी पसून कितेंय नोन्सेंस बरोवचे परस मटक्याच्यो स्लिपी बरयल्ल्यो जाल्यार कोंकणीचो रेनासेंस काळ केन्ना येवपाचो!

म्हजे पैशे पाटलाकडे आसले म्हूण म्हाका पाटलाचो हुस्को जाल्लो. पाटील नागवणो न्हय पूण सोन्याफुडें आनी मटक्याफुडें कितें सांगूं येता? ते रातचो हांवें पाटलाक मटक्या बाजारांत सोदलो पूण पाटील म्हाका सांपडलो ना. म्हजे पैशे पाटील मटक्याक मोडीत काय असो म्हाका दुबाव आसलो. पाटलान आपले कश्टाचे पैशे मटक्याक मोडले म्हूण कांय नासलें पूण ताणें हरामाचे पैशे मटक्याक मोडप हें सारकें जावचें नासलें.

पाटील दुसऱ्या दिसा म्हाका बाजारांत सांपडलो. "पाटील, जिती आसा तूं?" हांवें पाटलाक विचाल्लें. "दुकान बंद जाल्ली. काल मात्शी न्हिदली" पाटलाची फुडली काणी आयकुचे आदी हांवें ताका विचाल्लें "पैशे खंय तर म्हजे?" पाटलान म्हजे एकूण एक पैशे काडून दिले. पाटलाकडे आपले आदले कश्टाचे पैशे मोडूंक आसले जावंक जाय, फुडल्या कश्टाचे पैशे मोडची गरज पडली ना.

म्हजे पैशे म्हज्या हातांत पडटकूच पाटलाची सद्याची स्थिती कितें तें समजून घेवचें म्हज्या मनांत आयलें. पाटील सद्या कॉपांतूच आसा काय मटक्यांतूय आसा हाचो अदमास घेवंक हांवें पाटलाक विचाल्लें "पाटील, आयज कितें आयली?" "मात्शी चुकली. डबल सेव्हन आयली. हांवें फॉर्टी थ्री लायिल्ली." पाटलाचो मटक्याचो नंबर मात्सो कित्याक चुकलो हाची पाटलान म्हाका मागीर काणी सांगली. "पयर रातीं सपनांत एक राणी आयली. ती चार घोड्यांच्या गाडयेर बसून रानांत वताली. तिच्या वांगडा दोन सरदार आसले. तांचे पांय मात्शे वाकडे आसले. रानांत शिकारेक वतना वाटेर तांका तीन दोळ्यांचो राकेस

गावलो. त्या राकेसाक तिणें माल्लो. चार घोड्यांची गाडी आनी तीन दोळ्याचो राकेस दिसलो म्हूण फॉर्टी थ्री लायली. दोन लंगडे सरदार दिशिल्ली. डबल सेव्हन नंबर सारकी दिशिल्ली पूण लायली फॉर्टी थ्री. मात्शी चुकली. राती आनीक सपन पडली--' फुडलो मटक्याचो नंबर किते येतलो हें सांगूंक आनीक एक काणी सांगचो ताचो बेत दिसलो पूण हांवें ताका आडायलो. म्हाका ताचो आनीक लोकवेद आयकुंचो नासलो. म्हज्यांतलो धवाडो जागो जाल्लो. पावस लागीं पाविल्लो. घरचें काम जाग्यार घालचें आसलें. त्या वावराक पाटलाबगर दुसरो मेळचो नासलो आनी उपकरचोय नासलो. पाटलाक सगळे तरेच्या वावरांत गत. पाटील वावराक मेळ्ळ्यार दुसऱ्याक सोदूंक वच्ची गरज नासली. हांवें पाटलाक आडावन म्हळें "पाटील ते सगळें आसूं. म्हाका सांग, तूं आमगेर कामाक केन्ना येतली?" "घराकडे काम आसा? दोन दिसानीं येतली. दोन दीस म्हाका फावचें ना." पाटलाचो कृष्णपक्ष सोपूंक आनीक दोन दीस तरी आसले!

पाटील सांगिल्ल्याप्रमाण दोन दिसानीं कामाक आयलो. सात-आठ दीस आंग मोडून काम केलें. कामाच्या दिसांनी मटक्याचो आनी सोऱ्याचो ताका व्हडलो उगडास जायना. एकसारको कामांत. त्या सात-आठ दिसांभितर ताणें म्हजीं घरचीं सगळीं कामां जाग्यार घालीं. घर शिवपापसून ते खंय खंय शिमिट काडपामेरेन. मदीं मदीं मेस्तपण. गरजेक मानायपण. पावसाचे उदक वचपाक खळयो काडल्यो. गोरवांक तण हाडून गोठ्यांत भरलें. पाटलाक काम करतना चार हात आसतात. मागीर तो खंयूंय गोठेंव!

पाटील म्हजेकडलें काम सोपोवन गेलो तो मागीर चार दीस म्हाका दिसलो ना. तो शुक्लपक्षांत आसलो काय कृष्णपक्षांत तें म्हाका खबर ना!

###

## विवाह संस्कार

ज्या मनशाचेर विवाहाचो संस्कार जावंक ना ताची जीण फळादीक जाली म्हणूं नज.

आमच्या गोंयांत विवाहाक लग्न म्हणटात. पूण आदीं संस्कृत काळार लग्नाक विवाहूच म्हणटाले. राशी कुंडलींत लग्न रास आसता पूण ती लग्नाची रास न्हय. लग्नाची रास लग्न राशी सामकार आसता--तेरे घरके सामने म्हणटात तशी. लग्नांत दोनाचे चार हात जातात पूण विवाहांत हातांत हात घाल्ले

वांगडपण आसता, साहचर्य आसता. विवाह म्हळ्यार वांगड तर लग्न म्हळ्यार सांगोड. तसो दोनांयचो वेव्हारांत अर्थ एकूच, गोडी तशीच. पूण लग्न, साखरपुडो असल्या गोड उतरांनी गोडाची आनी साखरेची गोडसाण आसता तर विवाहांत म्होंवाची मधुरसाण आसता. खातल्याक फरक कळटा. ना खातल्याक दोनूय सारकेंच.

गोंयांत आदीं एका दिसान लग्नां आटाप नासलीं. नवरात्रांतल्या उत्सवाभशेन सोपून सोपनासली. दसऱ्यामेरेन सीम हुपूंक मेळ नासली. पुर्तुगेज जेन्ना गोंयांत आयले तेन्ना तांका ह्या काझामेंताचें अजाप जालें. अंतीं १६२०त ताणीं असो कायदो केलो की तिसवाडींतल्या हिन्दूनीं आपली लग्नां घरां धांपून भितल्ल्या भितर बोवाळ नासतना करचीं, ना तर अंत्रुजेंत आदिलशाहाच्या राज्यांत वचून करचीं. आजून पसून तिसवाडयेंतल्या हिन्दूंची लग्नां अंत्रुजेंतल्या देवळांनीच चड करून जातात. लग्नांचो मोसम सुरू जाल्याबराबर अंत्रुजेंतलीं देवळां रिकामी आसतात पूण अगरसाळी भल्लेल्यो आसतात. उदाहरण घेंवचें जाल्यार खंयच्याय संस्थानाचें घेवं येता. देखीक रामनाथी संस्थानांत गेल्यार सांतेरी हॉल, कामाक्षी हॉल, बेताळाचो हॉल, विद्याधिराज हॉल अशा सगळ्या हॉलांनी लग्नां आसतात. सगळोच बोवाळ. कोण कोणाच्या लग्नाक पावत म्हूण सांगूं नज. गोंयच्या देवळांतलीं शांतताय मात तोखेवपासारकी. देवळांत चुकून कोणूय पावता. सगळी शांतताय आसता. गर्भकुडींत देव एकलोच आसता. ताका चड करून ह्या लग्नांक आमंत्रण नासता.

विवाहाचो उद्देश एकूच तरी तरा जायत्यो आसात. आदल्या रुशींनी विवाहाच्यो आठ तरा मेजल्यात. आतांच्यो तरा मेजपाक कॅलक्युलेटर लागतलो. पूण मुख्येल जे प्रकार आसात तांतूंत व्हडलेंशें अंतर पडूंक ना. सूर-असूर, गंधर्व, राक्षस अशे विवाह आदले वरींच पूण आधुनीक रुपान दिश्टी पडटात. आयच्या विवाहांची कांय रुपां अशीं आसात.

**रिसेप्शन विवाह :-** समाजांत सगळ्यांत चड मान्य असो हो विवाह. धर्मीक विधी आदीं खाजगी रितीन उलगून दिव्यांची आनी फुलांची आरास केल्ल्या हॉलाचे स्टेजीर नवरो विलायती आनी व्हकल देशी भेसांत उबी रावन जमिल्ल्या लोकांक एका फाटोफाट एक अशे हात दिवन, तोंडार हांसो दवरीत सगळ्यांच्या अभिनंदनाचो तीन-चार वरां स्विकार करतात ताका रिसेप्शन विवाह म्हणटात. ह्या विवाहांत व्हिडिओ-फोटोग्राफीकूय खूप म्हत्व आसता तशेंच आइस्क्रीम आनी बुफेक. ह्या विवाहांत मधु-चंद्र एकाद्रें आदीं जाल्लोच आसता. हो चड करून साकरपुड्या उपरांत जाता तरी लग्ना उपरांत हनी-मून करूंकूच जाय.

**प्रेम विवाह :-** रिसेप्शन विवाहा फाटोफाट हाचो नंबर लागता. हाका

लव्ह-मेरिएज अशेंय म्हणटात. हो ते ते एजीरूच सोबता. समाजांत थोड्यांक हो मान्य आसता, थोड्यांक ना. पूण कवींचो आनी लेखकांचो हो आवडटो विशय आसा. तुमका मान्य आसूं नासूं आमचें एकमेकाचेर प्रेम आसा आनी आमी लग्न जातलींच अशें उद्धटपणान सांगपी हो विवाह आसा. म्हजी कविता तुमकां कळूं ना कळूं म्हाका ती भावता आनी म्हणून हांव ती घेवन भोंवता अशें आत्मविश्वासान सांगपी कवींक ह्याचखातीर हो विवाह चड मान्य आसता. प्रेम-विवाह हो शब्दप्रयोग मात चुकीचो सो दिसता. हाका प्रेम-विवाह म्हणप म्हळ्यार हेर तरेच्या विवाहांनीं प्रेम नासता असो समज करप. पूण हें सारकें न्हय. हेर विवाह प्रकारांत हाचेहून चड आनी चड काळ तिगपी प्रेम आसूं येता तर ह्या प्रकारांत आनी प्रकरणांत प्रेम इल्लें चड वाऱ्यार घाल्लें आसता! ह्या खातीर संस्कृतांत गंधर्व विवाह हें नांव दिलां तेंच योग्य दिसता.

**पलायन विवाह :-** पळून वचून विवाह करतात ताका पलायन विवाह म्हणटात. समाजाक हो मान्य आसा काय ना हें कळना पूण मौजेचो विशय आसता. शेजाऱ्यांक चर्चेचो विशय. घरच्यांक त्रासाचो. त्रास जाता तो पलायन करतल्यांचो न्हय तर शेजाऱ्यांच्या कुत्सित्रीपणाचो. 'ताणीं पळून वचपाचें न्हय' अशें जेन्ना शेजान्न सांत्वन करता तेन्ना तिका भितल्ल्या भितर जो राक्षसी आनंद जाता तो सुनेकडल्यान हुंडो बळकायतना पसून जाल्लो नासता. ह्या विवाहाक राक्षसी विवाह अशें शिश्ट समाजान म्हळें तरी तो तितलो दुशण दिवपाइतलो न्हय. देवांनी पसून असले विवाह बेधडक केल्ले आसात. पळोंवक गेल्यार, ह्या विवाहाचो कोणाक त्रास ना. लग्नाचो खर्च ना, हुंडो ना, स्टेजीवेली रिसेप्शनाचीं नाटकां नात. हो खरें म्हळ्यार एक तरेचो प्रेम विवाहूच आसता. पूण प्रेम विवाह अशें भासोवन थाराबिल्ल्या लग्नावरी लग्न करून ह्याय विवाहाच्यो सवलती लुबाडपाची ह्या विवाहांत नाड बुद्द ना. हो विवाह देवांनी ना तर कर्तबगार मनशांनी करपाचो! लग्न जावचे आदींच सरलीं कुशीक! समाजाक त्रास ना, घरांत धुस्पट ना! हो विवाह गोंयचे लोक चडकरून सावंतवाडी वचून करतात.

**इंटिमेशन विवाह :-** ह्या विवाहांत रिसेप्शन कमी पूण इंटिमेशन चड आसता. हाका जाहिरात विवाह अशेंय म्हणूं येता. "शुभ-मंगल" आनी "नांदा सौख्यभरे" ह्या घोषवाक्या सकयल ह्या विवाहांच्यो दर्तमानपत्रांनीं जाहिराती येतात. जाहिरातींत फोटोय छापून आयिल्लो आसता. हो फोटो जोड्यान आसता. वर्तमानपत्रार एकोडो फोटो दिसलो जाल्यार तो आनीक कसलो तरी म्हणून समजुपाचो. पूण जोड्यान आयलोय जाल्यार लग्नाचोच म्हूण सट् करून म्हणूं नज. एकाद्रें लग्नाच्या पंदराव्या ना जाल्यार पंचविसाव्या वाडदिसाचो आसूं येता. वाचून पळोवचें पडटा. तांतूंत राजकी विवाह आसत जाल्यार जाहिरात खंय पावत

म्हूण सांगूं नज. लग्न जावन सगळ्या संवसारांत उजवाड घाल्लेवरी ही जाहिरात आसता. उदाहरण दिवचें जाल्यार पणजे-मडगांव महामार्गाचेर जर तिकट्यार लायिल्ल्या व्हडल्या जाहिरात बोर्डाचेर तुमका "Congratulations, Raghoji Rao & Anandibai" अशे तरेचीं उतरां दिसलीं जाल्यार खंयच्या तरी मंत्र्याच्या राघोजी राव नांवाच्या पुताचें कोणा तरी आनंदीबाईकडें लग्न जालां म्हूण समजुपाचें. ही अशी जाहिरात कित्याक केल्या हें आदीं वाचतल्याच्या कपलांत येना. हालींच कांय जाहिरातीनीं अमकी ऑयल अमके मोटरीक कित्याक योग्य हें समजावपाक जशें "The mother knows the best" अशें सांगिल्लें आसता तेच परी "The couple knows the best" अशें सांगपी ही जाहिरात आसतली अशें मागीर ताच्या कपलांत येवंक लागता. हीं सगळीं राजकी कपलां आसात अशेंय तो समजता. ह्याय लग्नांक इन्व्हिटेशनां खास लोकांक आसतात पूण इंटिमेशन सगळे पब्लिकेक आसता. ह्या लग्नांक पब्लिक लग्नां अशेंय म्हणूं येता.

अशी तरातरांची लग्नां आसात. विवाहाचे प्रकार जायते आसात. सांगून सोपचेना. दरेक विवाह आपले परीन बरोच आसता. कित्याक तर, लग्नाच्यो गांठी ब्रह्मदेवानूच मारिल्ल्यो आसतात. सूत कशेंय जमयलें तरी गांठ ब्रह्मदेवाची आसता.

###

## बरोवप्याची वळख

चोर, घरफोडे चोरी करून वतात. चोराक काय कोणे पळेल्लो नासता. पूण घरांतल्यो कांय वस्ती गेल्यो, कांय अस्ताव्यस्त पडिल्ल्यो दिसल्यो म्हणचे चोर घरांत आयिल्लो म्हूण कळटा तशी लेखकाची प्रत्यक्ष वळख नासली तरी लेखकाक ताच्या बरोवपावेल्यान वळखतात.

पूण लेखकाची लागच्यान वळख बरी काय कितें हो प्रस्न आसा.

कांय पाठ्यपुस्तकांनी पाठांवांगडाच तांच्या लेखकांची लांब-रूंद वळख दिल्ली आसता. लेखकाचो जल्म, ताचो जल्मगांव, तो कितें कितें शिकला, खंय खंय भोवला, कसलो धंदो-वेवसाय करता, ताणें कितल्यो तस्त्रीपो जोडल्यात आनी कितल्यो स्कॉलरशिपो मेळयल्यात ताची वळेरी दिल्ली आसता. त्या पाठ्यपुस्तकाच्या वळखीबदला त्या लेखकाची प्रत्यक्ष लागच्यान वळख आसलेली जाल्यार कितलें बरें जावपाचें अशें कोणाकूय दिसूं येता. पुण जे तांका वेव्हारांत

वळखतात ते तांची वळख करून घेयात जांव तांका लागीं धरात अशी शिफारस करीतूच म्हूण सांगूंक येना.

मास्टर दिनानाथाक खंय एक पावट आपले नाटक कंपनी खातीर एका कथानकाची ताकतिकेन गरज आसली. कथानकूय बरें आपल्याक जाय तशें जावंक जाय आसले. ते खातीर ताणें एका नांवास्त्या लेखकाची कंपनीच्या बिराडांतूच रावपा-जेवपाची वेवस्था करून ताका कथानक बरोंवक सांगलें. तर कथानक फुडें वचचना पूण त्या लेखकाच्यो खोडी, मिजासी, तालां आनी कोल्लां इतलीं वाडलीं की ताका कथानक नाका पूण बिराड कवळ म्हूण सांगचें पडलें. त्या लेखकाक कित्याक परतो धाडलो अशें जेन्ना दिनानाथाक विचारलें तेन्ना ताणें जाप दिली "बोकड्याचें मास खावचें पूण बोकड्याक घरांत हाडून पोसचो न्हय."

लेखकाक वळखच्यापरस लेखकाक नावांवेल्यानूच वळखप हांतूंत धोको नासता. पूण संवसारांत अशेय कांय सुखी लोक आसात जे लेखकांक तर वळखच नात पूण तांका नांवावेल्यानूय वळखनात.

फाटीं एक पावट बांबोळे विश्वविद्यालयाच्या कोंकणी विभागांत हांव पाविल्लों. कोंकणी विभागाच्या प्रमुखाफुडें हांव बसलेलो आसतना थंय एक कोंकणी प्राध्यापिका भितर सरली. ह्या विभागांत चडशो प्राध्यापिकाच शिकयतात काय दिसतात. कित्याक हांव थंय बशिल्लो आसतना महिला मंडळाच्या नाटकांतले प्रवेश कशे तांचेच प्रवेश हांवें चडशे पळेले. "हाका वळखता?" काय म्हूण म्हजेकडे बोट दाखोवन त्या प्रमुखान ते प्राध्यापिकेक विचारतकूच तिणें ना म्हणून मान हालयली. म्हजें नांव सांगून हें नांव तरी आयकलां काय म्हूण तिका विचारतकूच परती तिणे ना म्हणून मान हालयली. तिच्या नन्नाकाराचें म्हाका वायट दिसलां जायत म्हूण म्हजी जाय ताचेपरस इतली विस्तारानूच कोकणी लेखक म्हूण वळख करून दितकूच ती "हय?" काय म्हूण विचारून गेली.

ती वतकूच म्हजें तिका नांव पसून खबर ना हे खातीर त्या विभाग प्रमुखान म्हजेकडें अजाप उक्तायलें. पूण म्हाका मात मात्तूय अजाप जावंक नासलें. शिक्षण क्रमांत काय हांवें बरयल्लो एक्कूय पाठ नासलो तेन्ना तिका म्हजे नांव कित्याक खबर आसचें? तिच्या शिकोवपाबद्दलूय म्हजें मत बरें जाल्लें. जी प्राध्यापिका आपल्या शिकोवपाच्या पाठांचेर ध्यान केंद्रीत करता आनी तांकाच वेळ चड दिता, हेर कितेंय वाचपांत वेळ वगडायना ती चड करून बरी शिकोवपी आसूंक जाय. कोंकणींत तशीं जायती पुराणां आसत. पूण जी पुराणां आपल्या पाठांत आसात तांचीच खबर पाठकांक आसल्यार पुरो. सगळ्या पुराणांतल्या राकेसांची नांवां खबर आसुंकूच जाय अशें ना.

पाठ्यपुस्तकांत लेखकांचो पाठ आसत जाल्यार मात तांचे नांव

सगळ्यांक पाठ आसता. हालीं पयलेच पावट म्हजी एक कविता कोंकणी सातव्या पुस्तकांत घेतल्या. तेन्नाच्यान म्हजे नांव सगळ्या सातवेच्या वर्गांनी जालां. एक दीस म्हज्या शेजारचो शाळेंत वचपी एक भुरगो म्हज्या म्हऱ्यांत आपलें सातवेचें पुस्तक घेवन आयलो आनी पुस्तकांतली ती कविता दाखोवन "ही कविता तुवें बरयल्या?" काय म्हूण विचारूंक लागलो. हरशीं ती कविता हांवें बरयल्या हें त्या पुस्तकांत सांगिल्लेंच आसलें आनी ती हांवें बरयल्या हें ताकाय बरे भाशेन खबर आसलें. पूण एकाद्रो बापूय आपले धुवेक घेवन दिसलो आनी ती ताची धूव हें आमका बरे भाशेन खबर आसलें तरी "ही तुजी धूव? बरी हुशार आसा आं" अशें आमी ताका तिचें कौतूक करून म्हणटात तशे तरेच्या कौतुकान ताणें म्हाका हो प्रस्न विचारलेलो. हांवें "हय, कित्याक?" काय म्हूण ताका विचारतकूच ताणें म्हाका म्हळें, "ही चालीर म्हणून दाखयशी?" ती चालीर म्हणून दाखोवपा इतलो म्हाका आत्मविश्वास नासलो. म्हूण म्हजेवेलें संकट दुसऱ्याचेर धुकलूंक हांवे ताका सांगलें "शाळेंत तुज्या सराकडल्यान चाल लावन म्हणून घे"

सांगपाचें तात्पर्य म्हळ्यार एदीशी कविता पसून शाळेंत घाली म्हणटकूच तिचो इतलो बोवाळ जाता. हो भुरगो आतां इतलीं वर्सां म्हज्या शेजरा आसून पसून आमची तशी वळख नासली ती हे कवितेवेल्यान जाली. तो कोंकणी शिकता आनी हांव कोंकणी बरयतां हें पसून आमकां एकमेकांक आदीं खबर नासलें. ताची वळख हांवें आनीक वाडयलीना. तो म्हाका म्हजे कवितेवेल्यान वळखता हेंच बरें आसा अशें म्हाका दिसलें.

बरोवपी जायते तरेचे आसतात. मास्टर दिनानाथान जरी बोकड्याची उपमा दिली तरी लेखकांच्या सगळ्याच प्रकारांक ती जमतशी दिसना. सगळेच लेखक काय बोकडे नासतात. सगळ्यांकूच काय घरांत हाडून दवरचे पडनात. कांय जाण खंयूय कितेंय बरयतात. ताचो कितेंय अर्थ तेच काडटात. थोडे बुकल्याभशेन गुरगुरतात, थोडे किराभशेन किरायतात, थोडे मोरा भशेन पाखां फुलयतात, थोडे शिंगा फुलयतात तर थोडे शेपड्यो फुलयतात. म्हूण लेखकांचो एकूच प्रकार अशें म्हणूं नज. मास्टर दिनानाथाचें एक मात मानूं येता. ते बरयतात तशेच ते आसतात असो विस्वास धरून तांका चड लागीं करतना मात विचार करूंक जाय.

एक कवी मोगाच्यो कविता करतालो. मोगाच्यो कविता करता म्हूण तो मोग करतालो. मोग करता म्हूण चलयांक प्रेमपत्रां बरयतालो. कवी आसलेल्यान प्रेमपत्रां काव्यमय बरयतालो. पूण ताचीं प्रेमपात्रां ताका ताच्या प्रेमपत्रांची जाप धाडिनासलीं. तांका कवनां करूंक येनासलीं. निम्माणें एके चलयेन ताच्या प्रेमपत्राक एक ल्हानशीच जाप धाडली. "तुवें म्हजेर मळबभर मोग केला म्हूण

बरयलां. जाय जाल्यार हांवूय तुजेर मळबभर मोग करीत रावतां. पूण म्हाका तुवें दर्यादेगेर शितळ चान्र्यांत मेळूंया म्हळां तें मात जावपाचें ना. म्हजेर मळबभर मोग करता जाल्यार दर्यादेगेर चान्र्यांत म्हजे एदेशे कुडीची एदीशी सांवळी तुका कित्याक तें कळना. तुवें म्हाका तुज्या कविसंमेलनाक आपयलां थंय मात हांव येतांच. चार चौगांत मेळटा तें सदांच बरें."

लेखकाक चार चौगांत मान आसता तो हेचखातीर!

###

## फटिंगपणाची विद्या

कितलोय शिकयलो तरी मूळचो गळो आसल्याबगर बरो गायक जायना तसोच बरो फटींग जातलो जाल्यार मुळांत फटिंगपणाचें आंग आसचें पडटा. सादो मनीस फटोवंक गेलो जाल्यार फस्तीक पडटलो. बाबा-बुवा चमत्कार करतात. कोण ती निव्वळ जादू म्हणटात. पूण चमत्कार आनी जादू करूंक आंगांत कसब लागता.

समाजांत फटाफटी नित्याक चलतात. चडशीं हीं फटिंगपणां पचतात. पूण केन्ना केन्नाय मर्दी असो एक काळ येता कीं ही फटिंगपणां एका फाटल्यान एक उक्ताडार येतात. असोच फाटलो म्हैनो आसलो म्हणूंक जाय. फाटल्या म्हैन्यांत इतलीं फटिंगपणां उक्ताडार आयलीं कीं वर्सभर शाळेंत वतकूच एकाच म्हैन्यांत सगळ्या परिक्षांचे निकाल येवचे तसो हो फटिंगपणाच्या निकालांचो म्हैनो कसो दिसलो. पूण हे निकाल आयले ते फटिंगपणांत पास जाल्ल्यांचे न्हय तर फेल जाल्ल्यांचे.

फाटल्या कांय वर्सांनी गोंयांत जायत्यो दुडवांच्यो संस्था उदेल्यो. दोन तीन वर्सांनीं पैशे दुपेट करून दितां अशें उतर दिवन तांणी लोकांकडल्यान लाखांनी रुपया उबारले आनी दोन तीन वर्सांभितर त्यो नाच जाल्यो. हांतले खांपे फटींग पळून गेले आनी जे कोण अरवळ गोंयांत उल्ले तांका धल्ले. मनशाच्या पैशाच्या लोभाचो असो फायदो घेवपी जायते फटींग संवसारांत आसात.

फाटल्या कांय दिसांनीं हे निकाल वर्तमानपत्रांनीं एका फाटोफाट एक येतात म्हणसर एका केंद्रीय मंत्र्याचेर असल्याच एका दुडवांच्या गैरव्यवहाराक लागून पकड वॉरंट सुटलां अशी खबर आयली. पूण मंत्र्यांच्या घोटाळ्यांचो निकाल केन्नाच् लागना. तो सदांच राखून दवल्लेलो उरता. मंत्र्याचेर आरोप

घालप आनी कांय काळान ते पोके करून उडोवप हें आतां लोकांचें संवयेचें जालां.

पूण हालींच मुंबैच्या वर्तमानपत्रांनी एक खबर आयली ती मात अजापांत उडोवपाची. सांगलीच्या धाव्वी शिकिल्ल्या एका बेकार तरणाट्यान खंय मुंबै येवन मुंबयच्या साहित्यिकांक तोपी घाली. साहित्यिकांक नाडपाचें ताचें तंत्र म्हळ्यार आपूण कोणा तरी एका नांवास्त्या प्रकाशकाचो पूत जावं नातलग अशें भासोवप. लेखकांक आनी साहित्यिकांक आपले प्रकाशन संस्थेन तांच्या साहित्याचेर परिसंवाद जावं चर्चासत्र दवल्लां आनी त्याभायर तांचो सत्कारूय करचो येवजिला अशें फोनार सांगप आनी तांच्या घरा वचून तांका चण्या झाडार चडोवन तांचेकडल्यान हजार-देड हजार उठोवप! अजाप म्हळ्यार अशें करून ताणें जायत्या बऱ्या बऱ्या साहित्यिकांक फटयले. पूण जेन्ना ताणे आपलो उद्योग सुमाराभायर वाडयलो तेन्ना ताचीं फटिंगपणां उक्ताडार येवन पुलिसेन ताका धरलो.

आतां दुडवां संस्थांमदें कांय लक्ष्मीभक्तांनी आपल्या धनाचो इल्लो वांटो रकयलो आनी तांका त्या संस्थांनी इल्ले फटयले म्हूण तितले वायट दिसना पूण सरस्वती भक्तांसारकिल्या संस्कृतीक संस्थांनी वांटो घेतल्यांक नाडप हें माणसुकेभायलें जाता. कांय नाड साहित्यिकांचो आडवाद सोडलो जाल्यार सर्वसादारण साहित्यिक विचारवंत आसत पूण धनवंत मात नासतात. असल्या वर्गाक लुबाडटल्यांचो खर निशेध करूंक फाव. साहित्यिकांक अशे सोपेपणान फटोवप म्हळ्यार आयच्या तरणाट्यांमदें साहित्यिकाबद्दल आदरभाव उणो जायत चल्ला हीय हुस्को करपासारकी गजाल. फटोवंक जाल्यार पसून विद्वानांक फटोवचे न्हय हीं जी आदीं विवेकबुद्ध आसली ती हालीं ना जायत चल्ल्या.

आपलें चार चौगांत व्हड साहित्यिक म्हूण नांव जावचें, आपूण एक आगळो-वेगळो साहित्यिक म्हूण आपलो भौमान जावचो अशें खंयच्याय लेखकाक दिसप हें स्वभावीक आसा. पूण आयचें यूग हें जाहिरातीचें आसलेल्यान कितलीय साहित्य सेवा केली तरी ताची जाहिरात केल्याबगर साहित्यिकाक समाजांत भौमान मेळूंक अशक्य आसा. हाकाच लागून आयच्या लेखकाक प्रकाशकान जांव हेर बरे मागत्यानीं आपल्या साहित्याचेर परिसंवाद घडोवन हाडचो, आपलो सत्कार करून आपली सायबाजात्रा करची अशे मनापसून दिसलें जाल्यार वायट कांय ना. दर एक टूथ-पेस्ट जर आपूण दुसऱ्या खंयच्याय टूथ-पेस्टीपरस अडेज-पट बरी अशी जाहिरात करता जाल्यार लेखकान आपूण शेराक सवायशेर म्हूण आपली जाहिरात केली जाल्यार अदीक तराचें कांय ना.

गोंयांत लेखकाक स्वताची जाहिरात करची अदीक गरज आसा

कित्याक तर सादारणपणान गोंयांत लेखकाक कमी लेखची चाल आसा. लेखकाक भपको नासत तर तो सामको कडेक पडटा. अदीं मदीं कांय करामती करून लेखकान आपलो भाव वाडोवचो आसता.

ह्या करामतींची लेखकांक सर्वसादारणपणान समजिकाय आसता पूण त्यो हिकमतीन करपाक आपली कार्याची दिका स्पश्ट दवरची लेखकाक गरज आसता.

सगळ्यांत सोपी गजाल म्हणचे लेखकान सुरवेक बरो कवी जावंक जाय. काव्य मानल्यार कठीण ना तर सामकें सोपें आसता. आदीं कविता गावन म्हणटाले पूण आतां ती कटकट अशें मानतात. कविता चड लांब आसूंक जायना. जितली ती ल्हान तितलीच ती म्हान असो समज आसा. कविता बरोवन वाचल्याबगर कवींची उदरगत जायना. व्हड व्हड बरोवप्यांनी कवी-संमेलनानींच आपल्या प्रचाराचो नाल्ल फोडलेलो आसा. कवी संमेलनांनीं गायनाक जरी स्थान नासलें तरी रुपाक आनी ध्वनीक खूप म्हत्व आसता. वा, वा, करीत रुप आनी ध्वनी तोखेल्याबगर कवी संमेलनांक बरो रंग चडना. लेखकाक आपलो फुडार पर्जळीत करूंक जाय जाल्यार ही सगळी भोगावळ करचीच पडटा.

काव्यान सुरवात करून मागीर हेर विशयांचेर हात घालूंक जाय: नाटिका, कथिका, नवलिका, वात्रटिका, मोगिका अशे जायते विशय आसात जंय अचळय जैत मेळोवं येता. ह्या सगळ्यांनी इल्ली तडुकां भरशिलीं म्हूण कांय नज. ज्या समाजाक फित्रिकांची ओड आसा ताका इल्लीं तड्डकांच करचीं पडटात.

हे सगळें केल्या उपरांत प्रकाशकांक सोदूंक जाय. पुरस्कार मेळोवन दिवपाची हमी दितले कांय प्रकाशक आसात तांचेचकडे आपणें कितें केलां ताचे संग्रह छापूंक दिवक जाय.

पुरस्कार खटपट करून मेळोंवकूच जाय. परीस लागून जशें भांगर जावचें तशें आपलें बरोवप कशेंय आसलें तरी पुरस्कार लागतकूच ताचें भांगर जाता. अशेंय आसून कांय लेखक आपल्याक साहित्य अकादमी पुरस्कार दिल्यार पसून तो घेवचे ना म्हणटात तांका कितें म्हणचें? बरें, घेवचे ना जाल्यार घेवं नाकात. दिवचेलो वेळ येता तेन्ना पळोवया. पूण पुरस्कार मेळिल्ल्यांचो अपमान कित्याक? गरज नासतना समराङ्गेक येवप आनी येवचे येवन पानार बसचे ना म्हणप म्हळ्यार पंगतीचो अपमान! हो हट्ट ताणीं सोडून दिवचो आनी पुरस्कार घेवचो.

साहित्यिक जर मानान वावुरतले तर ताणीं खटपट करून सत्कार करून घेवंक जाय आनी पुरस्कारूय मेळोवंक जाय. ह्या खातीर कसलोय हेत मनांत दवरून जर प्रकाशकांनीं आपल्या साहित्याचेर परिसंवाद दवरलो जांव

आपलो सत्कार करचो येवजिलो तर साहित्यिकान तो तत्परतेन स्विकारूंक जाय. पूण त्या सांगलीकारान मुंबैच्या साहित्यिकांक फटयले तशे मात स्वताक फटोवन घेवंक जायना. ह्या खातीर साहित्यिकानीं आपलो खास विस्वासांतलो असो एक गट तयार करूंक जाय. ह्या गटाभायलो कोणूय त्या सांगलीकारा सारको कित्याय कितें सांगून फुलां माळूंक आयलो जाल्यार ताका पयस दवरूंक जाय.

###

## फुलां पाटलो

फुलान संवसारांत सोबितकाय, परमळ आनी रंग हाडला. कठीण जिणेक फूल मोवसारपण हाडटा.

फूल सगळ्यांक जाय. माथेंभर फुलां माळप हो आदल्या बायलांचो नित्याचो उद्योग आसलो. आतां तशाच प्रसंगाक फुलां माळतात ना तर माथ्यांत एक फूल खोयल्यार पुरो जाता.

हालीं दादल्यांचो मात फुलांचो सोस खूप वाडला. कोणाकूय येवकार दिवचो जालो जावं ताचो सत्कार करचो जालो जाल्यार ताचे गोमटेर फुलांच्या हारांचे भरे घालतात तें पळेतकूच फुलां ही माथ्याक माळपाक न्हय तर गळ्यार दाळपाक अशें दिसूंक लागता. पूण असल्या दाळांनी फुलांची निजाची नाजूकसाण घाळ जाता.

हाली देवांकूय फुलांच्या राशींनीं भरतात. खंयच्याय देवळांत गेल्यार देवाफुडें फुलांची रास पडिल्ली आसता. तांतूंत भावार्थ कितलो आनी देखाव कितलो हें देवाकूच खबर! चड करून ही दर्शना वेळार प्रदर्शन केल्लीं फुलां विक्रेचीं आसतात. स्वता रोयिल्ल्या झाडांची फुलां देवाक चड प्रिय अशें म्हणटात पूण देवाक विक्रेच्या फुलांचीच संवंय लावचो प्रयत्न ताचे भक्त एकसारके करीत आसतात.

आमच्या गांवांत विक्रेक चडशीं फुलां येनात कित्याक तर हांगा विक्रेच्या फुलांक देवाचें व्हडलेशें गिरायक ना. पूण देवाक चोरयेच्या फुलांची संवंय लावपी आमच्या गांवांत जायते जाण प्रयत्न करतात. तरी हे फुलांचे चोरयेक हांगा चोरी म्हणची माणसुकी ना. कारण देव एक! तुजेय बागेंतलीं फुलां त्या एकाच देवाक पावतात आनी म्हजेय बागेंतलीं फुलां त्या एकाच देवाक पावतात. मागीर तुजे बागेंतलीं फुलां व्हेलीं जाल्यार जालें कितें?

आमच्या घरा शेजरा कांय जाण आपले देवपुजेक आमचे बागेंतलीं फुलां व्हरतात. कांय जाणांच्या घराक बागो नात म्हूण तांचे समजू येता पूण आमचे दोन तरी शेजारी अशे आसात जे घरच्यो बागो आसुनूय आमचे बागेक संवकल्यात. ते व्हड आसात तशे तांचे देवूय व्हड आसात. तांच्या व्हड देवांक आपले बागेंतली फुलां पावनात. ते तशे व्हड देवभक्त आसलेल्यान कितेंय म्हणत जाल्यार देवाक लागत म्हूण भंय दिसता.

आमच्या ह्या एका शेजाऱ्याचो कर्तबगार पूत बापायन जोडिल्लें जायतें आसलेल्यान काम धंदो कांय करीना. पूण कमोवपाची कांय कामां ना चुकतां करता. तांतलें पयलें काम म्हळ्यार सकाळीं आमी उठचे पयलीं आमचे बागेंतलीं फुलां तोडून आपल्या घरा बापायचे देवपूजेक कमोवन व्हरप. तर दुसऱ्या शेजाऱ्याचें एक अपुर्बायेचें बाय ताचेकडे स्पर्धा करीत आदल्या दिसा आमोरेचेर आमचे बागेंतले फुलांचे बोंगे तोडून रातचे फुलोवन सकाळीफुडें बापायचे देवपूजेक सादर करता. आमच्या घरच्या  देवाक मात अक्षता! ताणीं काडून उल्लीं जाल्यार एक दोन फुलां आमच्या देवाऱ्यांतल्या एक दोन मुर्तीक मेळटात आनी उल्लेल्या मुर्तींचें "सकल पुष्पार्थे अक्षतां समर्पयामि" अशा मंत्रान समाधान करचें पडटा. तशे दोगांयचे बापूय व्हड देवभक्त. आपल्या देवांबद्दल तांका कांय अमृतानुभव आयिल्ले आसात. एकल्याच्या घरा गेलों जाल्यार तो आपल्या संगमरवरी सोबीत देवाऱ्यांतल्या असंख्य देवमुर्तींकडे पळोवन म्हणटा, "म्हाका हांगां देवाची व्हड सासाय दिसता. केन्ना केन्नाय हांगां म्हजें आंग शिरशिरता." पूण ताचे एदो हांव देवभक्त नासलेल्यान म्हाका तसो दिव्य अणभव येना. परतें जाल्यार ताच्या देवांच्या माथ्यार म्हजे बागेंतली फुलां पळौवन म्हजें माथें भिरभिरता. दुसऱ्या शेजाऱ्याच्या घरा गेलों जाल्यार ताचो आपल्या देवांबद्दल तसलोच कसलो तरी अणभव आसा. तो आपल्या देवांफुडें उबो रावन म्हाका सांगता "ह्या देवांफुडें उबो रावतकूच म्हज्या आंगार कांटो उबो रावता!" पूण म्हाका तितलें पुण्य ना. आमचे बागेंतले मोगरें, शेंवतें, आबोलें, हांका फुलोवन तांच्या देवाऱ्यांत व्हेल्लीं पळोवन ताच्या पुताक आमचे बागेंत भितर सरतनाच एक व्हडलो कांटो तोंपचो असो एक पातकी विचार म्हज्या मनांत येता.

हालीं हांवें म्हजे बागेंतल्या फुलांची आस सोडल्या. पोरसांत कोणाचे नदरेक पडना अशें एक शंकराचें आनी एक अनंताचे झाड रोयलां. असल्या झाडांक फुलां खूप आनी थोडीं तरी देवाक मेळूं येतात. बरें, तींय व्हेलीं जाल्यार ह्या झाडांक नांव देवांचेच आसलेल्यान फुलतनाच थोडो वेळ तरी तीं आमच्या शंकराच्या आनी अनंताच्या माथ्यार आसतलीं हाचें समाधान मेळूं येता!

फुलाक सुमन म्हळां. पूण दरेका मनशाच्या मना प्रमाण तें बदलता.

कोणाचें भावार्थाचें, कोणाचे चोरयेचें, कोणाचें विक्रेचें तर कोणाचें अपहाराचें.

फूल माळ्ळें, गळ्यांत घालें जांव देवाऱ्यांत दवरलें तरीं फुलाचो निजाचो जागो झाडार. देव देवळांत पुजलो कितें, देवाऱ्यांत पुजलो कितें, देवाचो निजाचो जागो मनांत. जशें झाड तशें फूल, जसो मनीस तसो ताचो देव!

###

## दसणे फूल

जाय, जूय, मोगरें, गुलाब, शेवतें अशा जायत्या फुलांचो बडवाचार जो कवीनीं गायला तांतूंत दसणे फुलांची ताणी सदांच उपेक्षा केल्या. दसणे फुलाक रंग रुप आसा पूण वास ना म्हूण आंगाक चेर घाल्ले कवी दसणे फुलाचे वाटेक वचनाशे दिसतात. तसो आबोल्याकूच चड वास ना पूण ताची तरी तोखणाय केल्ली दिसून येता. नाजूक कवींक ताची नाजूकसाण आवडटा जांवक जाय पूण दसणे फुलाक आमी सामकेच कडेक दवरलां. तशें पळोवंक गेल्यार सगळ्या फुलांमदें आमका दसणे फूल आपलेशें दिसपाचें कित्याक तर निसर्गान दसणे फुलाक जसो वासाचो घमघम दिवंक ना तसो मनीस देहाकूय दिवंक ना. दिलाच जाल्यार दुस्वास दिला जो दसणे फुलाक दिवंक ना.

दसणे फूल म्हळ्यार दर्शन फूल. दसणे फुलाचें इतलें बरें वर्णन ताच्या नांवानूच जें कोंकणी भाशेन केलां तितलें बरें वर्णन करची बुद्द हेर भासांनी ना. उपेक्षितांक फाव ते म्हत्व दिवपाची न्यायबुद्द कोंकणी भाशेक निजाचीच आसा. ही बुद्द जांका ना तांचें कोंकणी भाशेकडे पटना. दसणे फूल हें दर्शनाचो अणभव दिवपी फूल. दसणे फुलांचे रंग आनी आकार निर्विकार मनाक दर्शनाची ओड लायता.

हेर भासांनी दसणे फुलाक तरातरांचीं नांवा आसात. मराठींत ह्या फुलाक जास्वंदी म्हणटात पूण दर्शनाचें तत्वगिन्यान त्या नांवांत ना. इंग्लिशींत तर ह्या फुलाक Shoe Flower म्हणटात तेन्ना ते भाशेची काकुळट दिसूंक लागता. इंग्लीश भाशेंतलें हें नांव आयकतकूच कल्पनेचें दिवाळें काडून इंग्लीश भास रस्त्यार मोचे विकूंक बसल्या काय दिसूंक लागता. आता इंग्लिशीचो आधार घेना जाल्यार आपूण निराधार अशें जांका दिसता ताणीं ते परभाशेच्यो खडावो कपलार घेवन "आमचो आधार, आमचो आधार" असो गजर करीत परभाशेचें भक्तिसंगीत गावपाचें पूण निजाच्या कोंकणी उतराची जी दर्शनाची गोडी आसा ती परभाशेच्या उतरांनी येवपाची ना.

दसणे फूल हें अपुर्बायेन वाडयल्ल्या झाडाचें फूल न्हय. तशी अपुर्बाय ताका लागना आनी अपुर्बाय करून घेवची संवय ना. अपुर्बायेचें सुख आसता पूण दुखणीं वाडटात. गुलाब शेंवत्याचीं तर श्रीमंती दुखणीं केन्ना उचकत सांगूं नज. दसणे फुलाची प्रकृती धडधाकट. भामटें न्हय आनी सभावान हिमटें न्हय.

बागेंत दसणे फुलां नासत जाल्यार सगळें आसून दर्शन सूख ना अशी अवस्था जाता. देवारो लकलकता, देवाऱ्याफुडें दिवल्यो पेट्टात, उजवाती परमळटात, कापूर घमघमता पूण मूर्ती कलमेल्यात अशी बागेची गत जाता.

हेर फुलांक रंगाची मर्यादा आसा. दसणे फुलांचे दोळे सुखावपी जायते रंग! एकेच मातयेचे विविध रंग उप्रासतात ताचें अप्रूप दिसता. एकेच रोयणीचेर सांतेरीचीं आगळीं वेगळीं रंग-रुपां उदेवचीं तशेच दसणे फुलांचे विंगड-विंगड ढंग आनी रंग पळेतकूच भूमका देवी प्रसन्न जाल्लेवरी दिसता.

बागेंत दसणे फूल प्रगट जातकूच ताचें वर्णन तरी कशें करचें! सामान्य काव्यरुपानूच न्हय तर अभंगरुपान त्या रुपाचें वर्णन करूं येता. दसणे फुलाचें दर्शन घडटकूच अशीं उतरां आपशींच उतरतात :-

गोड तुजें रुप
गोड तुजें नांव
म्हाका दी ठाव
तुजेसरीं

स्नेह उदक पडचें
ना तरी ना बावचें
तग धरून रावचें
पावसा सरीक

ताळी जरी लायली
मातयेक मुळां धरलीं
भौसांत मेळून गेली
जीण आपशीं

तांबडो घेवन रंग
शक्ती आराधन
उग्र रुप धरून
यथाकाळ

रंग धवो शुभ्र
पुजूंक हरीहर
मनांतसून मत्सर
धुवन वच्चो

दर्शनानूच सूख
जावचें तें आपसूक
वेर्थ नाका दर्प
परमळाचो

नाका अती छाया
सांवटांत माया
उजवाडांत सया
तेजवंत

तरेक तरा रंग
जाचो जसो संग
ना तर निसंग
आपलेमदें

दर्शनी फुला
जायत्यो तुज्यो कळा
म्हाका तुज्या मुळा
दर्शन जालें.

###

# कुसके

पैशे खातल्यां विरुद्द जायते जाण आड्डतात. आपल्याक खावंक मेळना आनी दुसऱ्यान खाल्ले पळोवं नज म्हूण ते आड्डतात. असल्यांक कुसके म्हणटात. पैशे खातल्यांक कुसके म्हणिनात.

इंग्लीश भाशेंत पैशे खातल्यांक 'कर्रप्ट' म्हळ्यार कुसके म्हणटात. हाचेवेल्यान आमची आनी इंग्लीश लोकांची कुसकेपणाची व्याख्या एकमेकाक विरोधी आसा अशें दिसून येता.

आमी लाडू खातात तशे पैशे खातात. जांच्यानी पळोवं नज ते कुसके आसतात.

साखरेचें खाता ताका देव दिता अशी एक म्हणणी आसा तेच परी पैशे खाता ताका लक्ष्मी प्रसन्न आसता अशें कांय जाण म्हणटात.

पैशे खावपाक मर्यादा नासता. साखरेचें खातल्यांक मर्यादा आसता. साखरेचें खावन खावन कितलें खातले? पैशे खाता तितली पैशाची रुच वाडत आसता. पैशे कितलेय खावं येतात. पैशांचें अजीर्ण जायना.

पैशे खातले मनीस आपल्या-पेल्या मनशांची भक्ती करीना. देवाचे भक्ती सारकीच पैशांची भक्ती आसता. पैशांची भक्ती ही गुणांची भक्ती नासता. ही भक्ती निर्गुण आसता.

लांच खावप हो एक पैशे खावपाचो प्रकार. लांच घेवप हो गुन्याव न्हय तर लांच दिवप हो गुन्याव अशें कायद्यांचो सर्वोच्च अभ्यास केल्ल्यानीं हालींच सांगिल्लें आसा. कायद्यांचे गिन्यान जांका सारकें ना तांका सोपे भाशेंत आनी तांका कळसारके भाशेंत सांगचें जाल्यार अशें म्हणूं येता "वीख दितल्याचो गुन्याव. दिल्लें वीख घेतल्याचो न्हय. आमी खातात तुमी दितात म्हूण. आमी खावचें न्हय जाल्यार तुमी दितात कित्याक?"

तर आमच्या देशांत पैशे खावप हो तसो गुन्याव न्हय. म्हणून इंग्लीश भाशेवरी पैशे खातल्यांक कुसके म्हणिनात. जांचे दोळे फुट्टात तांका कुसके म्हणटात.

आमच्या देशांत भ्रश्टाचार चल्ला हें सगळ्यांक खबर आसा. पूण हेर भ्रश्टकाराभशेन पैशाचो भ्रश्टकार आमी व्हडलोसो मानीना. न्हावन देवाक फुलां घालचीं तसो आंगार उदक घालुनूच आमचो भ्रश्टाचार धुवन वता. शाबू पसून लावपाची गरज ना. एका पक्षांत भ्रश्टाचार चल्ला म्हूण तो पक्ष सोडून आमी दुसऱ्या पक्षांत वतात आनी थंय आंगार उदक घालून परते आमी आदल्या

आमच्या पक्षांत येवची तयारी करतात. दोन पक्षामदें आमका मात्रें आनी रांदची कूड इतलोच फरक दिसता.

लूट मारतल्यांक आमी कितेंय म्हणूं पूण लूट मनांतल्यान जायशी दिसता. खरें भांगर लुटूंक मेळना म्हूण आमी दसऱ्याच्या म्हूर्तार आपट्याच्या पानांक भांगर मानून किंवाट्यान आपटो बुड्डितात आनी वर्सभर लुटचेलो हातांक सराव करतात.आपले लुटीन आपली भर जावची अशें जायत्या जाणांक दिसता तर कांय जाणांक आपले लुटीन आपली भर जावची जावन दुसऱ्याचें नुकसान जावचें अशेंय दिसता. सुरतेचे लुटीच्यो खबरो आमी मोटे रुचीन सांगतात पूण ताचेय परस सूरत बदसूरत जाली हें अदीक तोखणायेन सांगतात. लुटीबद्दल जायत्या जाणांच्या मनांत तोखणाय दडलेली आसा.

सरकारी ऑफिसांनी ऑफिसरांची बॉल्सां भरल्याबगर कामां जायनात तर सकयले कर्मचारीय कर्मां केल्याशिवाय रावनात. घराकडे फोनवालो, लायटवालो, उदकवालो असो कोणूय सरकारी वालो येंव ताच्या वाल्यांत कितेंय उडयल्याबगर काम वेळार जायना. भुरग्यांक सांसपिले म्हणूनूच जायना तांका कितेंय खावंक दिल्याबगर तांची रड बंद जायना.

हालींच एक सरकारी ऑफिसर भरपूर लुटून निवृत्त जालो. ताची सेवा पळोवन ताका दोन वर्सां तरी सेवावाड दिवची अशी त्याच ऑफिसांतल्या जायत्या जाणांनी सरकाराकडे मागणी केल्ली ती सरकारान मानून घेतली ना. ताका निरोप दितना ऑफिसांतलो एक कर्तो सवरतो मनीस गेल्ल्याचें जायत्या जाणांक दुःख जालें.

दुसरो एक प्रामाणीक ऑफिसर व्हडलेशें कमयनासतना निवृत्त जालो तेन्ना ताच्या इश्टांनी ताका म्हळें "पिसो तूं! ऑफिसांत आसतना स्वताचें कल्याण करून घेवपाचें न्हय?" तेन्ना त्या निवृत्त अधिकाऱ्यान म्हळें "सुटलो हांव. हांव निवृत्त जालों तें आमच्या ऑफिसांतल्या कितल्या जाणांक बरें दिसलें जाणा!" जो स्वताचें कल्याण करूंक नकळ ताचेकडल्यान दुसऱ्याचेंय कल्याण जायना.

अशेंय एक ऑफिस आसा. ह्या ऑफिसांत पगारवाडीखातीर संप जालो. पगार वाडलो आनी संप सोपलो. पूण आदली सवंय आनी आदली आळसाय वचना. ह्या ऑफिसांत काम थोडें आनी नोकर भरती चड म्हूण बेकारपणाचे धंदे चलतात. कांय जाण ऑफिसच्या कामा वेळार आपली खाजगी कामां करतात. ह्या ऑफिसांतलो एक 'बिल' हालीं थंयच काम करपी एका 'मोनिका'च्या फायलीनीं घुस्पला. आदीं कांय काळ बेठीच येतना वतना घुस्पतालीं. आतां तो कदेलार बसल्यार तें ताच्या टेबलार बसून खबरो करता. कांय जाणांच्या हें दोळ्यांत वता आनी तें तांका कितेंय म्हणटात तेन्ना तें तांका कुसके म्हणटा. तांची ऑफिसांतली

वागणूक बदलूंक कांय जाणांनी तांका शिटकायल्यार बदल इतलोच जालो. तें आदीं टेबलार बसतालें तें आतां कदेलार बसता आनी तो टेबलार बसता.

असो दर एकल्याचो वेव्हार बरे भाशेन चल्ला थंय आपणें कितेंय उलोवन कुसको म्हणून कित्याक घेवप? ताचेपरस ओगी राविल्ले बरें न्हय?

###

## चोर आनी साव

चोर, गुंड, फटिंग आनी साव, सभ्य, साधू हांचेमदें व्हडलेशें अंतर नासता. जायते पावट सादता तो साधू आनी सादना तो चोर जाता. कांय साधू गुंड कशे दिसतात आनी कांय गुंड साधू कशे दिसतात. पूण साधू ते साधू आनी गुंड ते गुंड! हालींचे कांय साधू गंगेंत आदीं कोणे न्हावचे ह्या प्रस्नाचेर मारामारी पसून करतात. ते गुंड न्हय कित्याक तर ते आदीं सावन चलत आयिल्ल्या आपल्या हक्काक लागून झगडटात. गुंड नवे हक्क प्रस्थापीत करूंक झगडटात. प्रेमाचो पाल्हाळ करून मागीर एकाद्रे चलयेक उबारून व्हरतल्याक प्रेमवीर म्हणटात. मारुतीन दोंगोर उबारून व्हेल्लेवरी ताची तोखणाय जाता. पूण प्रेमाची कसलीच आरांस करिनासतना गणपतीक पुजेक व्हेल्लेवरी चलयेक उबारून व्हरून मागीर तिची प्रेमपूजा करूंक सोदतल्याक गुंड म्हणटात. प्रेमवीर जांव गुंड असामान्य अशें कितें तरी करतात. सामान्य लोक लग्न म्हणून कितें तरी करतात. आयच्या काळार सभ्य जांव साव आनी चोर जांव फटिंग हांचेमदलें अंतर खूप उणें जाल्ले आसा. खंडणी घेतल्यांक गुंड म्हणटात. हप्ते घेतल्यांक पुलीस म्हणटात. फट उलयल्यार ताका फटींग म्हणटात. खरें केन्नाच उलयना ताका राजकारणी म्हणटात. इल्लोसो भ्रश्टाचार करीत जाल्यार ताका कैदेंत बसयतात व्हडलो भ्रश्टाचार करीत जाल्यार ताका कॅबिनांत बसयतात.कित्याय कितें उलयल्यार ताका पिसो म्हणटात. कित्याय कितें बरयल्यार ताका कवी म्हणटात. हालीं कोंकणीवादी आनी मराठीवादी हांचेमदें पसून फरक करूंक कठीण जाला. कांय खांपे मराठीवादी कोंकणीच उलयतात आनी कांय खांपे कोंकणीवादी मराठीच बरयतात.तात्पर्य, हे आनी ते ह्या सर्वनामांत व्हडलोसो फरक उरूंक ना. तशेंच सदाचार आनी दुराचार हो कर्त्याप्रमाण बदलता, कर्म तेंच उरता! काळाप्रमाण समाजाचे नवे व्याकरणी नेम घडत आसतात.

एका तरणाट्यान एक पावट आपूण मोग करता ते चलयेचेंच पार्कांत

मारलें. हें चली एक दीस बदल म्हणून दुसऱ्या चल्यावांगडा मोग करूंक गेल्लें हें जेन्ना त्या तरणाट्याक कळ्ळें तेन्ना ते चलयेक बुद्द शिकोवंक ताचेकडे मोग करतां करतां ताणें ताचे पाकिटूय सांसपिलें. मोग करून वतना ते चलयेक आपले शंबर रुपया आशिल्लें पाकिटूय मारिल्ल्याचें कळून आयलें. तेन्ना तें चली परतें त्या दुसऱ्या चल्याकडे वचून ताका घेवन येवन आपल्या आदल्या प्रियकराक बडोवन तें पाकीट तांतूंत आसलेल्या शंबर रुपयांसैत घेवन गेलें. कोणाचें कांय गेलें ना. पूण ह्या प्रसंगावेल्यान पयलो मोगी चोर, दुसरो मोगी प्रेमवीर आनी तें चली नीतीदार हें दिसून आयलें. तरी बरें वायट कितें तें कळूंक कठीण आसता. इतले मात कळटा कीं हालीं विस्वास कोणाचो ना. प्रवास करतना पाकीट सांबाळूंक जाय.

नशिबानसार मनीस साव जांव चोर कसो उतरत सांगूं नज. भुरगेपणांतलो मनशाचो सभाव जाण्टेपणांत ताका कसो उपेगाक पडत तेंय सांगू नज.

एका घराब्यांत भुरगेपणांत तीन भावांचे सभाव तीन भाशेचे आसले. व्हडलो घरांत कश्ट करी, दुसरो आळशी, न्हिदो काडपी, तिसरो तर सामकोच फटींग. व्हड जातकूच पयलो क्लार्क जालो. बढती मेळून चडांत चड यु.डि.सी. पदार पावलो. दुसरो वाडटकूच इश्कोलांत टिचर जालो. आतां बरें जोडटा. सांजचो न्हिदो काडटा. तिसरो राजकारणांत पडलो. हालींच देड वर्स मंत्री आसलो. देड दिसाच्या गणपती इतलोच समाजांत ताका मान आसा. सद्या विसर्जन जाल्लो आसलो तरी फुडल्या पिळग्यांमेरेन पुण्याय कमोवन दवल्ल्या. हाचेवेल्यान भुरगेपणांत कोणाक कांयच म्हणचें न्हय. फुडें पावन तो कोण जायत सांगूक नज.

कांय वेळा आपणें केल्लो सदाचार आनी दुसऱ्यान केल्लो दुराचार जाता.

एक पावट एका विद्यालयाचे शिक्षिकेन एका महाविद्यालयाच्या शिक्षकाच्या गळ्यांत माळ घालची केली. पूण मागीर विचार बदलून एका पुलीस उपनिरिक्षकाच्या गळ्यांत माळ घाली. पगारांत व्हडलो फरक नासलो तरी शिक्षकापरस उपनिरिक्षकाक "चड सुट्टा" हें ह्या निर्णयाफाटलें शाणेंपण आसलें. ट्युशनां परस हप्त्यांनी चड जोड आसता हो हिशोब तिणे जमेक धरिल्लो. तिचो हो निर्णय पळोवन त्या शिक्षकान ट्युशनाक येतले एके श्रीमंत चलयेकडे सूत जमयलें आनी तिचेकडे वीर विवाह केलो. आतां दोनूय लक्ष्मी-नारायणाचे जोडे बरे जोडटात आनी सुखांत आसात. प्रेम करूंकूच जाय पूण लग्न जातना विचार करूंक जाय. लग्न हो एक सदाचार आसता आनी ह्या लग्नांनीं समाजांत सगळ्या

थरार सदाचार पातळटा.

पूल मोडटात, उदकाचीं पायपां फुट्टात, वीज झेमेता, फोन पिरंगतात, नळ सुकतात, बँको बुडटात, अशा जायत्या नित्याच्या घडणुकांक भ्रश्टाचार मूळ कारण अशें म्हणटात. पूण हो भ्रश्टाचार नेल्या थरार जरी अती मातला आसलो तरी तळामेरेन तो पावल्याबगर ताका इतलो नेट मेळूंक ना. ही फूट उबी पडिल्ली आसा म्हूण कायद्या आड ती जायना अशे परिस्थितींत सगळ्यांनी शांतता आनी सभ्यता राखून हाका ताका चोर म्हणच्या बदला जमता थंय स्वताचें सादोवन घेवंक जाय. सादतां सादतां मनीस साधू जाता. साधू बोवाळ करिनात. खंयचेकडे कांय घडूंक ना हे भाशेन तोंड धापून कार्य करतात. शांतपणान स्वताचें सादयत आपलो सदांचो आचार पाळप हातूंतूच सदाचार आसता. तो योग्य रीतीन सांबाळून आमी आमची सभ्यता राखूंक जाय.

###

## कृष्णार्पण

कांय काळ आमी पुस्तक प्रकाशन सुवाळ्याक पुस्तक विमोचन सुवाळो म्हणूंक लागिल्ले. प्रकाशन म्हळ्यार उजवाडावप आनी विमोचन म्हळ्यार सोडणूक. पुस्तक विमोचनान पुस्तक बरयतल्याची सोडणूक जाता. बरोवप्यान जे त्रास काडून पुस्तक बरयलां आनी ताचेपरस चड त्रास काडून तें छापलां तांतूंतल्यान ताची सोडणूक जाता. सुवाळ्याक हजेरी लायतकूच वाचप्याचीय सोडणूक जाता. पूण हालीं आमी वाचप्यार्पण अशें उतर वापरूंक लागल्यात. वाचप्यांर्पण म्हणचेपरस लोकार्पण म्हळ्यार तरी आयकुपाक सुमाराचें दिसूं येता. तत्सम आनी तद्भव उतर जोडून घडयल्लें उतर केन्ना केन्नाय तितलें बरें लागना. पूण उतर कशें घडोवचें हाची दर एकल्याक मेकळीक आसा. खरें म्हत्व अर्थाक आसा. वाचप्यांर्पण ह्या उतरावेल्यान तें पुस्तक आमी वाचप्याच्या गळ्यांत माळ घाल्लेवरी घालतात असो एक अर्थ जाता ना तर वाचप्यान तें पुस्तक विकते घेंव ना घेंव आमी तें ताच्या पदरांत घालतात असोय एक अर्थ जाता.

पदरांत पडलें, पवित्र जालें अशें म्हणटात पूण हांवें बरयल्ल्या पुस्तकांनीं पूर्वजन्मांत कितें पातक केल्लें कोण जाणा! आजून तीं कोणेंच पदरांत घेंवक नात. वाडिल्ल्यो चलयो खंयच्याय कारणाक लागून लग्न जायनासतना उरच्यो आनी जाण्टेपणान लग्नाची आस सरून कडेक पडच्यो तशीं म्हजीं पुस्तकां एके कुडींत

दाटून कडेक बशिल्लीं आसात.

म्हजीं पुस्तकां कित्याक खपूंक ना ते म्हाका कळना आनी कोण सांगियना. कोणाचीय धूव खपनासतना उरली जाल्यार कोणूच तिचे आवय बापायक ती कित्याक खपली ना तें तोंडार तरी सांगिनात आनी सांगचेंय न्हय. भायर उलयतात आसत पूण खरें कितें तें कळूंक मार्ग ना. काकुळटेक आयल्यार कोणूय वाचपी म्हज्या पुस्तकाची काकुळट करता पूण पदरांत घेना.

पुस्तकां ना खपपाक केन्ना-केन्नाय वाचप्या इतलोच बरोवपीय जबाबदार आसता. भर णव म्हैन्यार पुस्तकां थोडींच जातात. चडशीं सातोळीं आसतात. तांचें मोलूय चड आसता. मोल चड आसपाक मात बरोवपी चडसो जबाबदार नासता. पुस्तकां खपची ना म्हूण तो मोल हिसपाभायर दवरून तीं पुस्तकां सरकाराक घालता ना तर कांय बऱ्या-मागत्या संस्थांक खपयता. बरोवपी सामकोच प्रकाशकाच्या हातांत पडलो जाल्यार तोय मदीं भानगडी करून पुस्तकाचें मोल वाडयता. पुस्तक कशेंय आसलें तरी तें बरें सजयल्याबगर खपपाची आस उणी. पुस्तक वाचलेंय ना जाल्यार सोबीत कव्हराचें पुस्तक आरमारींत सोबता. आंगार भांगर सारकें नासत जाल्यार वाचपी पुस्तक घरांत हाडूंक फाटी-फुडें जाता. पुस्तकां ना खपपाक अशीं जायतीं कारणा आसात.

पुस्तक खपूं ना खपूं पुस्तक बरयतल्याचो मूळ हावेस पुस्तक खपपाचो नासता. पुस्तक बरोवपांतूच एक वेगळें समाधान आसता. निर्मितीची खोस आसता. पयलें पुस्तक उजवाडाक येतकूच पयलें भुरगें जाल्ल्याचें आपल्याक समाधान जालें अशें म्हाका जायत्या बरोवप्यानीं सांगलां आनी तें तशेंच कितें तरीं आसूंक जाय. म्हजे नवें पुस्तक उजवाडाक येता तेन्ना म्हाकाय जातना भुरगें रडटा तशें म्हजें पुस्तकं रडटा काय असो भास जाता.

पुस्तक बरें खपलेंना तरी आपलें पुस्तक वाचप्यान बरें म्हणचें आनी ताची तोखणाय करची इतली तरी अपेक्षा बरोवप्याची आसता. पूण कोंकणी वाचपी आपलें मत वाचप्याचीं पत्रां ह्या सदरांत पसून केन्ना मांडिना. मागीर बरोवप्यांक समीक्षकांचेर पातयेवन रावचें पडटा. सगळीं पुस्तकां वाचूंक समीक्षकाक फावना. नाटकांत संवगां रंगोवपी जसो कोण फुडें येवन बसता ताका पयलो रंगयता आनी फुडें येवन बसना तो तसोच उरता तसो समीक्षकूय फुडें येतल्याक रंगयता. म्हणून समीक्षेनूय सगळ्यांचें सादना.

समीक्षकांच्योय जायत्यो अडचणी आसतात. गोंय ल्हान. कोंकणीची कर्नाटकांक कानडी लिपी जाल्यार गोंयांत देवनागरी आनी रोमी. देवनागरींतलेय जायते बरोवपी सामके वळखीचे. त्या भायर गोंयांत चाळीस आमदारांत जशे चवदा मंत्री तशे चाळीस देवनागरी कोंकणी बरोवप्यामदें चवदा साहित्य अकादमी

पुरस्कार मेळिल्ले. मंत्र्यांची शान राखूंक जाय आनी आमदारांचो मान राखूंक जाय. कोणाकूय दुखोवच्या परस ताची इल्ली अदीक तुस्त करपांत हीत आसता अशें समीक्षक समजता. कोणाय बरोवप्याक दुखयल्यार पोरसांतल्या सोरपाक दुखयल्ल्यावरी प्रसंग येवं येता. त्या भागर कांय लेखक स्वताच समीक्षक आसतात. कथाकार कोंकणी कथांचें समीक्षण करता तर कवी कोंकणी काव्याचें समीक्षण करता. अशे रीतीन आडसांतल्यान स्वताचेंच समीक्षण करची ताका बरी संद मेळटा. आडसाक रावन दोळो मोडून आपल्याकडे नदर ओडचेली ही पद्दत कशी दिसता.

अशा ह्या मतवाल्यांच्या मतांमतांनीं वाचपी आपलें मत भरसूंक सोदिना. तो वाचता, किते समजूंक जाय तें समजता आनी ओगी रावता. अर्पण-तर्पणाचें ताका पडूंक ना.

हे परिस्थितींत पुस्तक बरोवन ते उजवाडावप हातूंतूच समाधान आसता. वाचप्यांर्पण, नाचप्यांर्पण करपांत अर्थ ना. पुस्तक कोणाकूय अर्पण करचेपरस कृष्णार्पण केल्लें बरें! हांवें म्हजीं पुस्तकां केल्यां म्हूण म्हणटां. कृष्णार्पणमस्तु!

###

## निरक्षर कविता

हालींच पणजे कला अकादमीच्या काळखा कुडींत एका कसबी कोंकणी कवीचें "कोंकणींतल्यो अक्षर कविता" ह्या विशयाचेर पेपर वाचन जालें. जायते जाण त्या प्रसंगार थंय गेल्ले पूण हांव मात भियेवन वचनासतना रावलों.

हो पेपर आयतारच्या कोंकणी पेपरांत उजवाडाक आयलो पूण वाचल्यार तकलेंत बरो उजवाड पडना जालो. सोमारा दीस पणजे वचपाचो तो तकली फोडटा म्हूण घरा उरलों. चार दिसांनी बरो जातकूच पणजे पावलों तर आमच्या नित्याच्या पांयपथार कांय साहित्तीक त्या पेपराचेर चर्चा करतना दिसले.

"दोन तीन कविता घेतल्यो आनी त्यो अक्षर कविता म्हळ्यो म्हूण जाता? कोंकणींत आनीक पंचवीस वर्सां तरी साहित्याची एकसारकी भर पडूंक जाय. मागीर तांतली एकाद्रीच अक्षर कविता म्हूण वेंचून काडूं येत पूण तें पसून सांगूं नज."

हीं उतरां कानार पडटकूच त्या पेपराच्या विशयावेल्यान कोंकणींतल्यो थोड्यो तरी अक्षर कविता त्या काळखा कुडींत सांपडल्यो आसतल्यो असो जो

म्हजो समज जाल्लो तो चुकीचो थारलो. कोंकणींतली अक्षर कविता वाचपाचें भाग्य आमका ह्या जन्मांत तरी ना ह्या विचारान मन निर्शेलें.

"हांवें पांचशांवयर कविता बरयल्या आसतल्यो. तांतल्यो जायत्यो लोकांनी वाखाणल्यो तरी अक्षर म्हूण कविता वेगळीच आसता."

म्हजें निराश जाल्लें मन परतें फुलून आयले. हाणें पांचशेवयर कविता बरयल्यात जाल्यार नक्कीच सात आठ तरी अक्षर उतरल्या आसतल्यो. विद्या विनयान सोबता म्हणटात तसो हो आपल्यो अक्षर कविता खंयच्यो हें जाणा जावन पसून सांगना आसतलो. ह्या जन्मांत अक्षर कविता मेळपाचें भाग्य आमका नक्कीच आसा.

"अक्षर साहित्य वाटेर पडूंक ना. कालिदासाचे शाकुंतल इतलें प्रसिद्ध. पूण तें पसून अक्षर साहित्यांत येना अशें जायते जाण म्हणटात."

हें कोंकणींतलें कोण तरी नवरत्न उलयतालें. त्या पेपरांत तर हालींच्याच दोन तीन कवींच्यो कविता घेतिल्ल्यो. कालिदास काय हालींच्या नवरत्नांतलो न्हय. ताचो दुस्वास कित्याक तें कळना.

"ताचेपरस आपल्योच कविता अक्षर कित्याक म्हळ्यो ना?"

आतां मात हे मर्मार घाय घालूंक लागिल्ले. अक्षर कवितेची ही भानगड बरी न्हय म्हूण हांव तांचे वाटेक वचनासतना घरा आयलों.

अक्षर कविता हो विशयूच चुकीचो आसलो. समकालीन कविता, गतकालीन कविता अशे विशय घेतले जाल्यार आपले संगतींतल्या जायत्या जाणांक भितर घेंवक मेळटात पूण अक्षर कविता सारक्या सर्वकालीन विशयांत आपल्याच गटांतल्या जायत्या जाणांक भायर दवरचे पडटात.

आतां अक्षर साहित्य म्हळ्यार कितें? ताची व्याख्या सुताभशेन सरळ आसा. पूण ओगीच सूत घुस्पावचें तशें जायत्या जाणांनीं ताची व्याख्या कठीण करून दवरल्या. अक्षर साहित्याची व्याख्या म्हळ्यार जें क्षर न्हय तें अक्षर आनी जें अक्षर न्हय तें क्षर साहित्य.

म्हज्या खाजगी उपेगाखातीर हांवें कोंकणी अक्षर कवितेची व्याख्या केल्या ती अशी:- जी छापून येता ती अक्षर कविता. अक्षरांनीं छापून येता म्हूण ती अक्षर कविता. जी कविता बरोवन पिंजून उडयतात ती क्षर कविता.

ह्या दोन तरांच्या कवितांभायर हांव केन्ना केन्नाय निरक्षर कविता करतां. ही कविता बरयना म्हणटकूच छापपाचो जांव पिजपाचो प्रस्नूच येना. अक्षरां बरोवचीं पडना म्हूण ही निरक्षर कविता. ह्यो कविता फक्त जीबेर घोळोवपाच्यो आसतात. प्रसंगाप्रमाण घडटात. असल्यो कविता उठटना, बसतना, न्हिदतना, न्हिदून उठून च्या घेतना केन्नाय करूं येतात. च्या फराळाचे रुचीन केल्ली म्हजी

एक निरक्षर कविता अशी आसा:-

हांव तुजो तूं म्हजें
जशें कांदो घालून भजें
हांव तुजें तूं म्हजो
जसो साकर घाल्लो सांजो

मागीर कॉप तोंडाक लायतना

काळजांत खतखतता मोग आमच्या
कॉपांत खतखतता च्या
ल्हव ल्हव करूया मोग
न्हिवोवन न्हिवोवन च्या

ही कविता बरयल्ली जावं छापिल्ली नासता म्हूण जाय तेन्ना जाय तशी बदलूं येता. इंग्लीश उतर घाल्याबगर कवितेंत पेज येना अशें दिसता जाल्यार 'ल्हव ल्हव करुया लव्ह' अशेंय म्हणूं येता. सदांच गोड उलोवपी आसत जाल्यार साकर घाल्लो सांजो म्हणूं येता आनी तो मदी मदीं फडफडटा आसत जाल्यार "फोण्णां घातल्लो सांजो' अशीय ओळ बदलूं येता. थोड्यांक फोण्णां घाल्लो सांजो अदीक आवडटा.

निरंतर मोगाच्यो आनीक कांय निरक्षर कविता -
शॉपिंग करूंक मेक-अप करून आयिल्ले एके चलयेक :

ओठ तुजे तांबडेच करून
दिसता कितलें तूं लव्हली
विकतें घेवन दिवं तुका
फेअर ॲन्ड लव्हली?

तळयेर उमळूंक आयिल्लें चलयेसंबंदान एक जोड-गीत:

तो: मनमंदिरांत पुजलां तुका
म्हज्या काळजांतली तूं देवता
तें : चड लाग करशी जाल्यार
तळयेंत हांव देंवता.

केन्ना केन्नाय एक सामकी सादी गजाल पसून निरक्षर काव्यांतल्यान सोपेपणान सांगूं येता. निरक्षर साहित्यांतलें हें लोककाव्य म्हणूं येत. कोलव्यां वाऱ्याक वचूंक भायर सरतना बायल घोवाक म्हणटाः

वाऱ्याक वतां कोलव्यां
घरच्या म्हजा धनंया

घर राख घरकारा
चोरयो जातात सामकारा
रांदून दवर तिनसनां
केन्ना पावन समजना

अशो निरक्षर कविता खंयूय, केन्नाय आनी खंयच्याय विशयाचेर करूं येतात. तांका पेपराचीय गरज ना आनी पेनाचीय गरज ना. मिरसांग मीठ लावन वेगळीच रूच हाडपाक कांयजाण क्षर आनी अक्षर कविता करतात. पूण त्यो केन्ना अळणी जाल्यार केन्ना खार जातात. तांचे परस निसर्गीक निऱ्याभशेन निरक्षर कविता बरी !

###

## भरस काव्य

"वाक्यं रसात्मकं काव्यं" अशें म्हणिल्लें आसा. पूण आतांच्या काळार रसात्मक काव्यापरस भरसात्मक काव्य बरें अशें दिसूंक लागलां. भरसात्मक काव्य म्हळ्यार पोन्ने-नवें, मोव-निबर, आगळें-उणें, हांगचें थंयचें भरसून केल्लें काव्य.

रसात्मक काव्य आनी भरसात्मक काव्य हांचे परस वेगळें काव्य म्हळ्यार नवकाव्य. हाका मुक्तछंद अशेय म्हणटात. हें कशायकशें बरोंव येता. चड करून गद्याच्यो ओळी तोडून फोडून केल्लें हें काव्य आसता. हें काव्य जागो चड खाता. जांका जागो खावचो छंद लागला ताणी हें काव्य बरोवचें. हेरांक तें परवडना. कोणेतरी एक पावट म्हाका विचारलें." तूं सगळें बरयता नवकाव्य

कित्याक बरयना? हांवे म्हळें "ना, म्हाका तें जमचेंना" ताणे म्हळें "ना, तुका तें जमतलेंच. तूं बरयच."

ताणे बरयच म्हळें म्हूण हांवें बरयलें. तें अशें आसलें:

### कोणे तरी

कोणे तरी
:क पावट
म्हाका विचारलें
तूं सगळें बरयता
नवकाव्य कित्याक
बरयना.
हांवें म्हळें ना
म्हाका तें जमचें ना
ताणें म्हळें ना
तुका तें जमतलेंच
तूं बरयच.

गद्य ओळीचे तुतयो मारून फोडिल्लेवरीं कशाय कशे कुडके करतकूच नवकाव्य जाता. दसयल्यार तें गद्य जाता फोडल्यार काव्य जाता. हें खंड काव्य चड करून महाकवीच बरयतात. म्हूण सान कवींनी ते भानगडींत पडचें न्हय.

भरसकाव्य हें रसकाव्य, सरसकाव्य, निरसकाव्य हांचे परस बरें आसता अशी म्हजी हालीं खात्री जाल्ली आसा. ज्ञानेश्वराच्यो चार ओळी चोरून कोंकणीच्या अभिमानान बरयल्लें भरसकाव्य अशें आसा:

म्हजी कोंकणीची बोली
कोणेय जरी हिणयली
अशी अक्षरां रसाळ मेळयन
मराठीकूय पैजेन जिकता.

फाटीं कोंकणींत कोण तरी ज्ञानेश्वर जन्माक येता म्हूण आयकल्लें. कोणे तरी कोंकणींत महाकवी येता ताचीं पावलां आयकूंक येतात अशेंय म्हणिल्लें. पूण मागीर कांय बोवाळ ना! कोण तरी नवकवी पांय आपटितालो ताचो तो

आवाज आयकूंक येतालो जावंक जाय. ज्ञानेश्वर जावंक सोपो उपाय म्हळ्यार पैजो मारुंक शिकूंक जाय.

हें भरसकाव्यांतलें 'रसाळ' काव्य बरयतकूच हांवें कालीदासाच्या मेघदूताचेर एक 'कापें' काव्य बरोवंक घेतलें ताच्यो सुरवेच्यो ओळी अशो आसात:

एक दीस मगा हांव म्हज्या घरा
चार दीस म्हजी बायल गेल्ली कुळारा
दीस सरले तरी परतली ना घरादारा
म्हूण खंत करीत बसलेलों फुडल्या दारा.

तेन्ना कूप एक दिसलो म्हाका मळबा माथ्यार
आमच्या झगड्याच्या गडगड्यार
राविल्लो दिसता तो मात्सो आडसाक
संद पळोवन आयलो तो म्हज्या आदाराक
मेघदुता मित्रा म्हूण हांवे ताका पाचारलो.

बायलेक झगड्या नेटार मूर्ख म्हणिल्ली तें तिच्या वर्मार पडून ती कुळारा गेल्ली ती कितलींय पत्रां धाडलीं तरीं परतलीना. तेन्ना तिका आपोवन हाडूंक तिच्या गांवचो पत्तो, पीन-कोड बी दिवन मेघदूताक तिका समजावन हाडूंक धाडिल्लो ताची कर्मकाणी ह्या भरसकाव्यांत आयल्या.

हालीं कांय कोंकणी कवी कोंकणीची सोबायात्रा काडपाक स्मशान यात्रेसारखे कसलें तरी काव्य बरोवंक लागल्यात. देखीक, कोणे एकल्यान शंकराक अशी आरत दाखयल्या.

जय देवा जय देवा जय श्रीशंकरा
मसणांत तूं रावता गोबोर आंगाक लायता

ही कसली अप्रूप यात्रा कळना! ही असली आरत कवी संमेलनाच्या भरलेल्या सभाघरांत वाचूंक बरी, भरलेल्या घरांत म्हणूंक न्हय! भरसकाव्यांत मात भक्तिकाव्य सोबसारके बरोवं येता. भरसकाव्यांतले एके गणेशवंदनेंत हालीं ज्यो घराघरांनीं चोरयो जातात ताचे पसून गणपतीक सावध करूंक बरयल्ल्यो कांय ओळी.

जय जय गजानना गणराया रे
लिपोवया कुंडलां गजवदना रे

चोरयो मारयो भोवच जाल्यो
दिसा उजवाडे घुरयो पडल्यो
नस्तो नाका वस्तीं सोस रे
लिपोवया कुंडलां गजवदना रे

घराघरांत मातले बुकले
लिपून चोरूक खांवक संवकले
नाका तुका तें वाहन रे
लिपोवया हुंदराक गजवदना रे.

भरसकाव्यांतली एक राजकी आरत :

जय गोंयां जय गोंया जय नव्या गोंया
पेडण्या ते काणकोणा आरत उंवाळया

आमदार आनी मंत्री, तांची तीं खातीं
तरातरा वाटांनीं पैशे ते खाती
वेचणुके वेळार मानो जरी खालती
वेंचून येतकूच मारतात ते पलटी....

भरसकाव्यांतलो मंत्र्याचो एक पाळणो.

मंत्र्या जय जय रे कुळभुशणा, गोमंतक नंदना
बाळा न्हीद आतां पुरो जालां,
लुटून पुरो जालां.

मारलो कोणें तुका विधानसभेंत
खोटो घालून कमरेंत

बाळा करी ताता, मतां दितां



परतो वेंचून हाडटा

बाळा जय जय रे कुळभुशणा

कोंकणींत सर्जनात्मक काव्य बरोवंक कातरी-सुरयो घेतिल्ले व्हडले व्हडले सर्जन बरोवपी लागतात ना तर हातांत तुतयो, घण घेतिल्ले नवकवी लागतात पूण भरसकाव्य हो कोंकणींतलो आयुर्वेद आसा. हांतूंत निसर्गाक आनी झाडापाल्यांक आनी पाळां-मूळांकूय खूप म्हत्व आसता. ते नदरेन भरसकाव्याक कोकणींतलें मूळ काव्य म्हणूं येता. निसर्गाचेर हालीं जायत्यो कविता जातात. पावसाच्या कवितांचो तर पावस पडटा. ह्यो कविता. चड करून नवकाव्यांत आसता. पूण नवकाव्याचे धर्तेरूच पावसाचेर भरसकाव्य बरोवं येता. देखीक पावसाचेर एक भरसकाव्य.

पावस पडटा शिरीशिरी
पावस पडटा पिरीपिरी
केन्नाय भरता आंगण
केन्नाय करता पिरगण

पावस एक शिरशिरो
पावस एक गिरगिरो
वरुण राजाच्या काळजाचो
पावस एक फुरफुरो

पावस एक हुंवार
पावस एक सांवार
पावस एक कूप गुरवार

नाका तेन्ना पडटा
जाय तेन्ना दडटा

पावसा पावसो यो रे यो
म्हजी कविता आयकूंक यो
हांव जालों खोटो

पावस आयलो मोटो.

अशे हें भरसकाव्य! हातूंत कितलीय आनी कसलीय भर घालूं येता.

###

## सरकार गडगडलें!

अंदूच्या पावसा दिसांनीं अकस्मात मदींच एक गडगडो मारलो आनी गोंयचें आमचें कल्याणकारी सरकार गडगडलें.

हालींची सरकारां गडगडपाक जमीन हालची लागना!. गडगडो पुरो जाता.

सरकारांच्यो बुन्यादी सारक्यो नात. बेत्यांत पक्षांची भेसळ ओतिल्ली आसा. पक्षांचे चिरेय कुसकुशीत. हांगा थंय धांवपी पक्ष बदलतल्यांची रेवं चड. बांदावळ करपी भकारे, सुपरव्हायझर खावगे, आनी नॅशन बिल्डर लूटमार करूंक बिलिंडर! हे परिस्थितींत आमच्या देशांतलीं सरकारां केन्ना खंयच्या गडगड्यार पडत सांगू नज!

राज्यांतल्या सरकारांनीं अराजक तर केंद्र सरकाराक केंद्रूच ना जालां. मूळ एकेकडे तर तण दुसरेकडे अशें तृणवत सरकार कोणाच्याय पदराक गांठ मारूंक तयार जालां. गठबंधन सरकाराच्यो गांठी निसरगाठी जायत आसात. असलें सरकार संवसारांत सोदल्यार दुसरें मेळपाचें ना. तरी आसतना आमचो देश महान म्हणीत आमच्या देशांतले हे व्हि.आय.पी. आपले व्हडपण मिरयत देशांतल्या प्रामाणीक नागरिकांक *Very unimportant Persons* समजून 'हूप हूप' करूंक लागल्यात. ह्या अर्विल्ल्या रामायणांत देशांतले नागरीक वानरसेना जाल्या आनी हे राम जाल्यात. देशांत सद्या नव्या रामायणाचें आनी महाभारताचें 'अनुसर्जन' चल्लां.

ह्या आमच्या अर्विल्ल्या महाभारतांत कौरव आनी पांडव एक जाल्यात. युधिष्ठिराच्या 'धर्ममेव जयते' पक्षांतलो अर्जुन फुटून कौरवांक मेळ्ळा. पक्षांतर बंदीचो कायदो आड येत म्हूण वांगडा ताणें भिमाकूय व्हेला. नकूल आनी सहदेव धर्मराजाच्या पक्षांत उरल्यात. इतले म्हणसर दुःशासन तिसऱ्या वाट्यांपरस ज़ड कौरवांक घेवन युधिष्ठिराच्या पक्षाक मेळ्ळा. अशें पक्षांतर वाडत आसा, केन्ना खंयचो सत्तापक्ष जातलो तेंच कळना. कोण खंयच्या पदार पावत तेंय कळना. बलराम हो बलवान पूण मुखदुर्बळ तरी ताका 'स्पिकर' केला. संसदेंतली मारामारी सोडोवचो एकाद्रें प्रसंग येवं येता! द्रौपदी सोबता बरी म्हूण तिका

उपसभापतीच्या मकरांत बसोवची केल्या. रुक्मिणीकडे परराष्ट्र खातें सोपयलां. श्रीकृष्ण प्रचंड मतांनीं निवडणूक हरला. निवडणूक हरिल्ल्याक आपूण शस्त्र हातांत घेवचो ना अशी प्रतिज्ञा ताणें केल्ली आसा. आतां ह्या श्रीहरीचे कितें करचें तें कळना. ताका लागून शासनांत एक सासणाचो जागो निर्माण करून पर्यटन मंत्रालयान ताका निशस्त्रीकरणाच्या वाटाघाटींखातीर विश्वपर्यटनाक धाडचो केला. अशे तरेन हे केंद्रांतलें महाभारत चल्लां. आमचो देश महान म्हणटात तो खरो!

जें केंद्रांत तेंच राज्यांनी. हांगा रामायणां रचल्यात. उत्तर प्रदेशांत रामायण चलता म्हणसर आतां दक्षिण प्रदेशांतल्या गोंयांत ताचेहून व्हडलें रामायण चालीक लागलां. ह्या रामायणांनीं राम आनी रावण एकठांय जावन सितेचो फुडार थारावंक लागल्यात.

ह्या सगळ्या बोवाळांत लोकशाहीचो फुडार कितें? आयाराम आनी गयाराम चड जाले आनी लोकशाहीची विटणूक जाली म्हूण पक्षांतर विरोधी कायदो केलो. तर त्याय कायद्याक आमच्या लोकप्रतिनिधींनीं गाढव केलो. आपल्या अधिकाराची कशाय कशी कुराड चलोवन सभापतीच आतां परशुराम जालो! अशें हें रामराज्य चलता आनी ह्या रामाच्या राज्यांत लोकशाहीचो खून करपी नथुरामांक म्हत्व येता.

भ्रश्टाचारांत खंय आमच्या देशाचो पांचवो नंबर लागता. पूण विधानसभेंतल्या मुष्टियुद्धांत आमचो पयलो नंबर लागूं येता!

कायदो मानतल्या नागरिकांचे नदरेन जरी ही परिस्थिती गंभीर आसली तरी कायदो करतल्यांचे नदरेन ती तशी ना. सत्ता आसासर लूट मारपाची जांका ताकतीक लागल्या तांका हाचें कांयच पडूंक ना. तांका हो तमाशा दिसता. लोककल्याणाच्यो सगळ्यो खबरो हीं नाटकांतलीं भाशणां आसात. सत्तेर येतना देवाच्यान तर हांव लुटचोना म्हूण ते मराठींतल्यान, हिन्दींतल्यान, कोंकणींतल्यान आनी आठवें वळेरींतले जाय ते भाशेंतल्यान सोपूत घेवंक तयार आसतात. पूण सत्तेर येतकूच लुटपाची तांची एक आडसाची भास आसता. ते भाशेंत सगळो वेव्हार चलता.

हेरकडे तमाशा जाल्यार गोंयांत तियात्र! ह्या विधानसभांतल्या तमाशांची आनी तियात्रांची टेलिफिल्मां टी.व्ही.चेर दाखयतात. केन्ना केन्नाय तीं इतलीं हळशीक आसतात की तीं सेन्सोर कित्याक करिनात कळना! भुरग्यांचेर तसोच जाण्टच्यांचेर, शिकपी भुरग्यांचेर तसोच आडांगी भुरग्यांचेर तांचो वायट परिणाम जाता.

सद्या गोंयचे विधानसभेंत खडेगांठ तियात्र लागलां. तांतलो चडसो वांटो खुद्द सभापतीन बरयला आनी तो तांतूंत एक संवगूय करता. 'लूट आनी फूट' हें

तियात्रांचें नांव आसा. सरकारांत लूट चड चल्ल्या म्हूण आमी फुटल्यात अशें कांय जाण म्हणटात तर लूट कायद्याक धरून आसा पूण फूट कायद्याक धरून ना अशें दुसरे कांय जाण म्हणटात.

हें सगळें प्रकरण भ्रश्टाचार संहितेक धरून ना अशें कांय कायदेपंडितांचें मत आसा.

सद्या हें प्रकरण न्यायालयांत आसा. न्यायालयांत आसा म्हणटकूच आनीक कांय उलोवंक मेळना. न्यायालयाचो अपमान जावं येता. तोंड धापूंक जाय!

###

## बांक नासिओनाल

आमच्या बाजारांत म्हाल्याच्या शापाभायलो बांक म्हळ्यार बांक नासिओनाल म्हणूं येत.

ह्या बांकार आमच्या गांवच्यो फाटल्यो दोन तीन पिळग्यो बसल्यात. एक पिळगी पुर्तुगेजा काळार, दुसरी मदल्या काळार आनी तिसरी त्या उपरांतची आतांची. पुर्तुगेज काळ, मध्ययुगीन आनी अर्विल्लो अशे तीन काळ त्या बांकान पळेल्यात.

हो पुराणकाळावेलो बांक ह्या शापाभायर पडवेर खंयच्या दिसा, खंयच्या वर्सा कोणे हाडून दवरलो हाचो इतिहास सारको मेळना तरी तो अंतू म्हाल्याचो बांक अशें सगळे जाण समजतात. अंतू म्हाल्याची तिसरी पिळगी सद्या ह्या बांकाच्या संचालक मंडळाचेर आसा. अंतू म्हाल्यान त्रास खूप काडले पूण ताचे पूर्वपुण्यायेन अंतूची हे पिळगेंतली वंशावळ बऱ्या बऱ्या हुद्दार आसा. तांतलो एकलोच मात घरच्या पुर्वापार धंद्याच्या अभिमानान शापार केसकापणेचें आनी खाडतासणेचें प्राप्तकर्म करता. ताचें नांव केशव पूण सगळेजाण ताका केसू जांव केसो म्हालो म्हूण वळखतात.

ह्या बांकाचे कांय कायम सभासद आसात पूण तसो हो बांक कोणाकूय बसपाखातीर आसा. ह्या बांकार कोणाच्यानूय कसल्योय खबरो करूं येतात. गांवच्यो, गोंयच्यो तशो नासांवाच्यो कसल्योय खबरो हांगा चलतात म्हूण हाका बांक नासिओनाल अशें नांव पडलां. पूण कांय पुराणमतवादी हो बांक खूप पोन्नो आसलेल्यान ताका पांडवांचो बांक अशें म्हणटात. कौरवांनी जेन्ना पांडवांक

घराभायर सरात म्हूण सांगलें तेन्ना ह्या बांकार बसपाइतलो तरी जागो आपल्याक दी अशें ताणीं मागलें असो तांचो सोद आसा. पूण हो सोद सारको न्हय. हो बांक कौरवांचोय न्हय आनी पांडवांचोय न्हय. हो बांक कोणाचोय. कसता ताची जमीन तसो बसता ताचो हो बांक आसा.

ह्या बांकाची सुप्रभात फांतोडेर येवपी खबरापत्रांनीं जाता. पणजेच्यान मोटरीनीं जांव मोटरसायकलीनीं येवपी खबरेपत्रांचे गठ्ठे जांव कवळे हांचें पयले दवरणें ह्या बांकार जाता आनी हांगा सोडोवन मागीर तांचे एजंट ते गांवार वांटतात. बांकावेले फुकट मेंबर हीं खबरेपत्रां सगळ्यांत आदीं वाचतात आनी मागीर तीं गांवांक पावतात. सकाळीं फुटिल्ल्या मटक्या नंबराचें भक्तिसंगीत जातकूच हीं खबरे पत्रां वाचून हे मेंबर आपलीं विचार किरणां वितरायतात आनी मागीर हॉटेलाचेर च्याचो घोट घेवंक वतात. कांय जाणांक सकाळचें 'कुटट' केल्याबगर जायना ते लागींच दुसरेकडे वतात.

सकाळीं सातांच्या सुमाराक केशान शाप उक्तें करतकूच मात खऱ्या अर्थान पयली सभा सुरू जाता. दर एकल्यान आप-आपलें हक्काचें खबरेपत्र खांकेक मारून हाडिल्लें आसता. त्याभायर बांकार कांय मोफत खबरेपत्रां पडिल्लीं आसतात. केशव जनेलार वणकून पडवेर बांकार बशिल्ल्या वाचप्यांक आनी आयकुप्यांक कांय वेचीक खबरांचेर आपलें मत सांगता ताचेर भासाभास जाता. पेपर खंयचेय भाशेंत आसूं सगळे पेपर तांचेर आयिल्ले फोटो पळोंवक तरी धवळचेच पडटात. कितेंच वाचूंक येना ते पसून सगळे पेपर वाचतात. कांय पेपरांचेर जाल्ल्यांचे - गेल्ल्यांचे तर कांय पेपरांचेर बायलांचे फोटो बरे येतात अशें म्हणटात. चमत्काराची जांव बलात्काराची खबर आसल्यार चर्वण चड जाता. पेपराचेर मंत्र्यांचे फोटो तर आसतातूच आनी तांतल्या एक-दोन मंत्र्यांचे आदीं केन्ना तरी केशान केस मारिल्लेय आसतात. तांच्योय चमत्काराच्यो खबरो वाचूंक बरें दिसता. कांय जाणांक ऑल्तेरार वणकून बसून खबरो वाचूंक बरें दिसता पूण हो बांक आतां गलगलाक आयला तरी ताचेर बसून खबरो वाचपांत जी मौज आसा ती मंत्र्याच्या कदेलार बसून वाचपांत पसून ना. तीं कदेलां थीर ना पूण हो बांक वर्सांच्या वर्सा त्याच जाग्यार थीर आसा आनी ताचेर जण एकल्याचें आसन जल्मभर थीर आसा.

दनपारचे सभेंत पाडेकार आनी गाडेकार आसतात तशेच बेकार ठवय आनी ताळो पडिल्ले गवय आसतात. पूत जोडीक लागिल्ले कांय बापूय आसतात. केन्ना केन्नाय काम नाशिल्ले कामगार थंय येतात तर भाटां वगडायिल्ले कांय भाटकारूय येतात. आदल्या काळार धवीं आंगस्तरां नेशिल्ले धवाडे आनी तांबडी काश्टी मारिल्ले कश्टीय थंय येताले पूण तेन्नाची तीं धवीं आनी तांबडी बोंदेरां

आतां उरूंक नात. आतां लांब कल्सांव घाल्ले लांबोडे ना जाल्यार लुंगी नेशिल्ले लफंगे चडशे दिसतात. केसू म्हालो मात मोटवें कल्सांव घालून ह्या लांबोड्यांमदें मुट्टो कसो दिसता. तसो तो पिकला पूण आजून मुट्टोच कसो दिसता.

सांजचे सभेंत प्रादेशिक खबरो चडशो आसतात. ह्यो सूरबूस आसतात. दीसभर घडिल्ल्या आनी दडिल्ल्या खबरांचेर हांतूंत उजवाड पडटा. शेंवत्या, आबोल्यांचेर खबरो आसतात तशो मोगरे कळ्याचेरूय आसतात. आमोरेचेर शब्दुली फुलतात तशो ह्यो खबरो फुलतात. हवामानाचो अंदाज आसता तसो मटक्या नंबराचोय अदमास आसता. ह्यो आमच्या बांकावेल्यो प्रादेशिक खबरो तरातराच्यो आसतात. थोड्यो पागून हाडिल्ल्यो आसतात, थोड्यो गरोवन हाडिल्ल्यो आसतात. कांय जाण घडोवनूय सांगतात पूण रुचीन सांगतात. कांय जाण रचून सांगतात तेन्ना अर्विल्ले रुशी लोकवेद रचतात काय दिसता. रेडियोवेल्यो प्रादेशिक खबरो भटपण सांगिल्लेवरी आसतात. फाटीक कोण लागिल्लेभाशेन जांव फुडें कोणाक धरूंक धाविल्लेभाशेन त्यो घडाघड, घुस्पत सांगिल्ल्यो आसतात. पूण ह्यो सवकास, अर्थ समजायत, एक एक सूत्र सोडलेले भाशेन सुरान, लयेन आनी तशोच तालार येवन सांगिल्ल्यो आसतात.

रातचें आठांक शाप धांपता तेन्ना ही सभा सोंपता. कांय जाण घरा परततात. कांय जाण गाड्यार नंबरांनीं घुस्पतात तर कांय जाण बारांनीं शिरकतात. केसो म्हालो बार्रार भितर सरून रोखडोच भायर सरता. सोरो रूचीन पियेवचेलो न्हय तर सोरो जिवाक बरो म्हूण घेवचेलो अशें तो धरता. भायरी घेतिल्लेभाशेन कॉप ओंठाक लावन गटगट करून ताळ्यासकयल घालून तो भायर सरता आनी लकचे पयलीं घरा पावता.

हो बांक सार्वत्रीक पूण रातीक न्हय. कोणूय एकाद्रो पियोवन रातचो घरा वचूंक जमना जाल्यार ह्या बांकार आड पडला आसत. पूण तो आडवाद. तसोच हो बांक सार्वत्रीक आसलो तरी बायलांक न्हय. तांका हांगा स्थान आनी मान ना. ह्या बांकाच्या लांब इतिहासांत कोणूच बायलमनीस ह्या बांकार बशिल्ली नासूये. आसलीच जाल्यार पिशी आसत. पूण तीय एक आडवाट. हो बांक सरळ वाटेन वतल्या शाण्यांखातीर आसा!

###

प्रमाण आनी प्रामाणीक हीं उतरां जशीं आदीं आयकूंक येतालीं तितलीं हालीं काळार आयकूंक येनात.

प्रमाण हाचो मूळ अर्थ माप. च्यांत साखर प्रमाणांत घालूंक जाय म्हळ्यार मापाच्या अदमासान घालूंक जाय. प्रमाणाभायर कितें्य घालें, केलें, उलयलें जाल्यार ताचो परीणाम वेगळोच जावं येता.

प्रमाणाक मागीर जायते अर्थ आयले. 'तूं सांगता तें प्रमाण' म्हळ्यार तूं सांगता तें सारकें अशें हांव धरतां असो एक अर्थ जालो. तूं सांगता तें खरें आसूं, नासूं तें हांव खरें धरतां असोय तांतल्यान एक अर्थ आयलो.

देवाफुडे प्रमाण जावप हो एक प्रकार. ह्या प्रकारांत देवाक साक्ष दवरून जें कितें तें सांगपाचें. तें खरें-फट कितें तें देवाकूच कळपाचें. कांय जाण देवाक भियेवन खरें तें सांगताले तर कांय जाण देव काय देवाऱ्याभायर पांय दवरिना तेन्ना ताका कित्याक भियोवपाचें अशें समजून आपल्याक जाय तशें सांगताले.

हांगा प्रमाण हाचो अर्थ सोपूत असो जाता. आदीं सोपूत घेवपाचें प्रमाण खूप आसलें. आतां मंत्री राज्यपालाफुडें आनी आरोपी न्यायाधीशाफुडें हे असले सोपूत विशेश उरल्यात. देवाचो सोपूत घेतकूच देव कितें करता ताचो पत्तोच लागना हें दिसून येतकूच आवयचो सोपूत घेवपाचेर पडलें.आवयचो सोपूत घेवन फट उलयल्यार आवयक तो बादता असो एक समज जाल्लो. सोपूत गडबडीन, उठटां-बसतां घेवपाचो जाल्यार देवाच्यान तर, आवयच्यान तर अशें म्हळ्यार चलतालें. बापायच्यान तर असो मात सोपूत चडसो नासलो. बापूय न्यायाचें माप घालतना तागडेकडे कितेंय गडबड करीत असो एक दुबाव आसलो जावंक जाय. दुसऱ्याक खात्री दिवंक 'तुज्यान तर ' हो सोपूत सर्रास घेताले. तेन्ना दुसरो केन्ना-केन्नाय कच्च करून आंग काडटालो. फट उलयता जाल्यार उलय पूण आपलो सोपूत घेवं नाका अशें म्हणचो आकांत येतालो. पूण उलयतलो उलोवन वतालो. ताका आडावपाची संदूच मेळनासली. मोटार आंगार येवची तसो हो सोपूत आंगार येतालो. 'म्हज्यान तर ' असें म्हणपी पुण्यवंत मात साप थोडे. नासलेच म्हळ्यार जाता.

सोपूत जितलो कमी घेता तितलो बरो. नित्य खरें उलयतल्यांक सोपूत घेवची तशी गरजूच पडना. पूण फटिंगांकूय जर सोपूत घेवचो आसत जाल्यार ताणीं खंयच्याय पुस्तकाचेर हात दवरून सोपूत घेतिल्लो बरो. गीतेचेर जेन्ना हात दवरून सोपूत घेतात तेन्ना श्रीकृष्णाच्या कर्मयोगाचो एकाद्रें कर्मभोग जायत पूण एकाद्रो आरोपी जर न्यायालयांत 'तुज्यान तर' म्हूण न्यायाधीशाचोच सोपूत घेवंक

लागलो तर न्यायाधीशाक धांव मारची पडटली.

प्रमाण म्हळ्यार माप आनी सोपूत अशे दोन अर्थ जातात तसोच प्रमाण म्हळ्यार पुरावोय जाता. तूं आठवी शिकला ताका प्रमाण कितें अशें विचारल्यार पुरावो म्हूण विद्यार्थी शाळेचें प्रमाणपत्र दाखयता. हीं प्रमाणपत्रां वर्सभर शाळेंत शिकून परिक्षेक बसून मेळयल्लीं आसतात. थोडीं विकतींय मेळटात. शिकून परिक्षेक बसल्या उपरांत जीं प्रमाणपत्रां मेळटात तांतूंत शिकपाक म्हत्व आसता. शाळेंत शिकनासतना ट्युशनाक वचून मागीर जीं प्रमाणपत्रां मेळटात तांतूंत ट्युशनाक म्हत्व आसता. जीं सामकीच विकतीं मेळटात तांतूंत प्रमाणपत्रांकूच चड म्हत्व आसता. हे तिसरे पद्धतींत प्रमाणपत्रांक सगळ्यांत चड म्हत्व आसता म्हूण हे शिक्षणपद्धतीक अति प्रामाणीक पद्धत म्हणूंक जाय. दुसरी पद्धत प्रामाणीक शिक्षण पद्धत आसता तर पयली अप्रामाणीक आसता. कित्याक तर तांतूंत शिक्षणाक चड म्हत्व आसता, प्रमाणपत्रांक नासता. शिक्षणीक मळ हें उदाहरण म्हूण घेतलें तरी हालीं सगळ्याच मळांनी थोडी भोव हीच नेमावळ चल्ल्या. प्रामाणीकपणाची ही विकृती पूण कांय जाणांची हीच प्रकृती जाल्ली आसा.

ही प्रामाणीकपणाची परतल्ल्या संवसाराची व्याख्या जाली. पूण मुळांतूच प्रामाणीकपणापरस विश्वासीपणाचे व्याख्येंत इल्लें अंतर आसता जरी हे दोनूय शब्द आमी केन्नाकेन्नाय एकाच अर्थान वापरतात. प्रामाणीकपणाचीं मापां थळ-काळ, समाज आनी मनशा मनशाप्रमाण बदलत आसतात.

अमेरिकेचो राष्ट्राध्यक्ष आपल्या कार्यालयांत एके 'स्वयंसेविके'कडे अनैतीक वर्तन करता ताचो अमेरिकेंत व्हडलो बोवाळ जाता आनी ताचेयपरस त्या संबंदाविशीं फट मारता म्हूण अदीक बोवाळ जाता. पूण आपलो अध्यक्ष जगभर दोट्टी धोरणान चलता, फटी मारता आनी अशें करून हेर देशांचेर संकट हाडटा आनी आपल्याय देशाक संकटांत ओडटा आनी हें सगळें आपल्याच देशांतल्या लोकांक फटोवनूय करता हाचें अमेरिकेच्या लोकांक व्हडलेंशें कांय दिसना.

आमच्या देशांत असलो बोवाळ ना. हांगा आमच्या मंत्र्यांची आनी आमदारांची ऑफिसांच एकाद्रें सर्किट हाउसांत जांव टुरिस्ट हॉस्टेलांत आसतात. मंत्री आयला काय टुरिस्ट कोणाक घेवन आयला तें कळना. कोण कोणाचो बोवाळ करिनात. आमचो प्रधानमंत्री आपूण आंकवार पूण ब्रह्मचारी न्हय हें अभिमानान आनी जाहीरपणान सांगता तेन्ना राष्ट्राक व्हड संदेश दिल्लेवरी आमी ताची तोखणाय करतात. मंत्र्यांक खरें फट उलोवचो व्हडलोसो प्रसंगूच येना कित्याक तांची भाशणां वेल्या पांवड्याचीं पुराणांतली प्रवचनां कशीं आसतात. लोकांकूय तांचेकडल्यान व्हडलीशी अपेक्षा ना. जीव उबगतकूच बुवाच्या किर्तनाक वच्चे तशे ते तांच्या भाशणाक वतात. वेळ पडल्यार परतून तांकाच वेंचून

हाडटात. कित्याक तर आमचें प्रामाणीकपणाचें प्रमाण तितलेंच थारलेलें आसता.

विश्वासाक जसो पातयेंव येता तितलो प्रामाणीकपणाक पातयेंव नज. विश्वासाक फटी उपकरनात. एक-दोन फटी मारपी मनीस एक-दोन फटी मारतल्या मनशाकडे प्रामाणीक आसूं येता. प्रमाण मात सारकें दवरूंक जाय.

विश्वासी मनशान फट मारिल्ली कळत जाल्यार विश्वास उडूं येता. प्रामाणीकपणांत प्रमाणाभितर फटी पचोवचेली पचनशक्ती आसता. पचता त्या प्रमाण दर एकल्यान प्रामाणीकपणान रावं येता. विश्वासाइतलें पथ्य प्रामाणीकपणान पाळचेली गरज ना.

विश्वास धरात, ना धरात हांवें हें सगळें प्रामाणीकपणान सांगलां.

###

## गोपकघट्टण मंडळ

गोपकपट्टण हें व्हडले गोंयचें आदले नांव. हे नांव कदंब रायांनीं दिल्लें. गोपक म्हळ्यार राखपी आनी पट्टण म्हळ्यार शार. हे आदलें गोंय राखपी शार. कांय जाण गायो राखपी म्हूण समजतात तें सारकें न्हय. व्हडलें गोंय दर्यादेगेवेलें शार. थंय आदींय गायो व्हडल्योशो नासल्यो आनी आतांय नात. गायांक चरपाक हांगा तशीं मळांय नात. आसात त्यो दर्या वेळो. हांगा कितें मेळटा ताचे वेल्यानूच नांव दिवपाचें आसलें जाल्यार हाका मछलीपट्टण म्हणूं येतालें. पूण कितें मेळटा ताचेवेल्यान हे नांव येवंक ना तर कितें वावर करता ताचेवेल्यान हें नांव आयलां. हांगा आदी सावन वावर चल्ला तो गोंय राखपाचो.

शिलाहार, कदंब आनी विजयनगरच्या रायांनी गोंय राखपाचो वावर ह्या व्हडल्या गोंयच्या राजपाटणांतल्यान केलो. ना तर आयज गोंयांत महाराष्ट्रवाद्यां परस अरबराष्ट्रवादी चड आसपाचे आनी आयत्यां परस नायते चड आसपाचे.

ह्या रायां उपरांत गोंयांत लुटपी राज्यकर्ते आयले आनी लुटपी राजकारणाच्या इतिहासाक आरंब जालो. तेन्ना हें राजपाटण सोडचें पडलें. तें पणजे पावलें. सद्या ते थंय आसा. व्हडल्या गोंयच्या गोपकपट्टणाचें मात घट्टण जालें. राखतल्यांच्या घट्टणाचेर लुट्टल्यांचें भाग्य फळफळटा.

व्हडल्या गोंयान जायती झुजां पळेलीं. झुजता झुजताना ताचो गोबोर जालो. पूण पणजी भाग्यवंत. तिका इतिहास ना. तिणें व्हडलीं झुजां पळेलींच ना. लडनेको बडा भाई, खाने को हम अशें पणजेचें भाग्य!

गोंयची इतिहासाची नदर म्हेळी आसा. इतिहासाच्या उत्खननापरस

हागा प्रदर्शन चड. चडशे गोंयकार इतिहास इतिहासीक नाटकांवेल्यान शिकतात. आमी 'नाट्यवेडे' म्हणपाक गोंयकारांक व्हड अभिमान. गोंयच्यो चडशो संस्था म्हळ्यार नाटक कंपन्योच. पूण नाटकां बरीं करतात. हांगाचें "आर्किव्ह" म्हळ्यार इतिहासीक नाटक. पुराणवस्तू संग्रहालय म्हळ्यार पौराणीक नाटक.

पुराणवस्तू संग्रहालयांत कोणूच पावना म्हूण हालीं सरकारान ताचेंच वस्तू संग्रहालय करचें केलां. तांतूंत गोंयची सृश्ट, गोंयची वनस्पती, फळां, फुलां आनी पर्यावरण, गोंयचे दोंगोर, न्हयो आनी बांयो, भुंयारां आनी बोगदे, आनी ह्या सोबीत पडद्याचेर गोंयचो इतिहास अशें हें नेपथ्य आसा. वर्तमान आनी फुडार इतिहासाक जोडलेलो आसा. ह्या इतिहासांत कितें आसत ताचो तसो नेम ना. हालींच्या इतिहासांतले मुख्येल मंत्री, मंत्री, स्पिकर आनी ज्योकर हांचे पसून पुतळे आंसूं येतात. जागो पावना जाल्यार कांय जाणांची वण्टीचित्रां आसूं येतात. व्हड 'बजेटा'चो सिनेमा तसो हो व्हड उपक्रम आसा. हो म्युझियम राखपाकूच गुरख्यांचो पगार लाखांनी आसा. "प्रिन्स ऑफ वेल्स" जांव "प्रिन्स ऑफ डेनमार्क" सारखेंच हे "प्रिन्स ऑफ मुंबै" नाटक आसा.

व्हडले गोंयचें गोपकघट्टण मंडळ ही एक पोत्री संस्था आसा.हें स्थापन जावन खूप वर्सां जालीं तरी ताच्या कार्याची वळख जायत्या जाणांक ना कित्याक तर ताचो चडसो वेव्हार उक्त्यार चलना. तो चडसो गुप्त, गुप्प वा गोपनीय आसा. व्हडल्या गोंयां आदले मुस्तींत शेता-भाटांनीं खणटना भांगराच्यो म्होरो पसून सांपडटाल्यो. तेन्ना केन्ना तरी ह्या मंडळाची स्थापना जाल्ली असो एक अदमास आसा. पूण हालीं हांगा शेतां खणल्यार कणंगांय मेळनात. म्हूण ह्या मंडळाचो चडसो वावर निव्वळ इतिहास संशोधनाचो उल्ला. मूळ ध्येय मात तेंच आसा तें म्हळ्यार गोपकपट्टणाच्या घट्टणांतल्यो वस्तू आनी इतिहास खणून काडप. हांगा मेळपी तांब्या पटे, पाशाण बरपां, मूर्ती, नंदी, लिंगां आदी वस्तू आमी चोरांच्या आनी सरकाराच्या हाताक सांपडच्यो न्हय म्हूण सांबाळून दवरतात आनी मागीर योग्य त्या खाजगी संस्थांकडे आनी उरलेल्यो देवळांनीं धाडून दितात. कदंबांचे निम्माणे राणयेच्या श्रापाक भियोवन आमी त्यो सरकाराकडे धाडून दिनात. मुसलमानांच्या आक्रमणावेळार गोंयकारांक खूप बरें करपी तेन्नाच्या कदंब रायाक एकलो सोडून जेन्ना गोंयकार राजपाटणांतल्यान पळून गेले तेन्ना राणयेन दर्यांत उडकी मारतना श्राप दिलो. गोंयांत हाचेफुडें बरें करतले बुडटले आनी लुट्टले राज्य करतले असो तिचो श्राप आसलो असो आमच्या गांवांत एक समज आसा.

फाटीं पिलार घर बांदपाक बुन्याद खणटना एकल्याक नंदी सांपडलो. ताचें कितें करूं अशें ताणें आमच्या घट्टण मंडळाच्या सभासदाक विचारतकूच

ताणें ताका सांगलें "कोणाकूय मारूंक दी पूण सरकाराक दिवं नाका." नंदी सांपडला म्हूण कळयतकूच सरकारी मनीस तो व्हरूंक आयले तेन्ना आमच्या मंडळाच्या सभासदान तांका सांगलें "नंदी कदंबरायाचे तळयेंत उडयला. ती तळी उसपात अशें सरकाराक जायते अर्ज केले तर सरकाराक ताचें कांयच पडून वचूंक ना. आतां जाय जाल्यार तळी उसपात आनी नंदी व्हरात. सरकार तळी उसपिना आनी सरकाराक नंदी सांपडना!

गोंय सरकारच्या वस्तू संग्रहालयान गोंयांत कोणायकडेन कदंबकाळ धरून तो आतांचो काळ मेरेन कसल्योय इतिहासीक वस्तू आसल्यो जाल्यार त्यो संग्रहालयाक हाडून दिवच्यो, त्यो राखपाची दीस-रात वेवस्था केल्ली आसा अशें हालींच जाहीर केलां. ह्या सरकारच्या जाहीरनाम्याचेर विचार करूंक आमच्या गोपकघट्टण मंडळाची रोखडीच आपत्कालीन बसका जाली तांतूंत घेतिल्ले कांय थाराव अशे आसात.

१ गोंयच्या सरकाराचेर विस्वास ना.

२ ज्यो इतिहासीक वस्तू मंडळान खाजगी संस्थांक, देवळांक जांव खाजगी घरांक पसून दिल्ल्यो आसात त्यो मंडळाची परवानगी घेतल्याबगर सरकाराक दिवच्यो न्हय. परवानगी मेळचीच ना अशें धरून चलचें.

३ कदंबरायाच्या आदल्या राजमहलाचे सुवातेर म्हळ्यार आतांच्या 'ऑट्टांत' ह्या भाटांत कांय वानांचे रगडे पडिल्ले आसात. ते मंडळान आपले कोठये कुडींत दवरचे. तें आतां सरकाराक जांव जनतेक रगडपाक उपकरनात. तांचो आकार रगड्यांपरस अदीक शिवलिंगांसारको आसा.

४ ऑट्टांत माडांची आनी कावथ्यांची निसर्गसोबा वस्तु संग्रहालयांत सोबसारकी आसा. तेन्ना ते सोबेच्या एका कुडक्याचो फोटो काडून वस्तुसंग्रहालयांत जतनाय आनी तोखणाय करपाक धाडून दिवचो.

५ पुर्तुगेज काळार ऑट्टांत कदंबकालीन वस्तूंचो म्युजियम बांदचो आसा अशा अर्थाची पुर्तुगेजींत बरयल्ली एक पाटी आसली. ती स्वतंत्र सरकारान मोडून थंय 'हांगा कदंबांची राजधानी आसली' ही आपली इंग्लेज आनी मराठींत बरयल्ली पाटी लायली. तीय आतां मोडूंक पावल्या आनी ताचेवेल्यान पावस जायते गेल्ल्यान इंग्लेज उतरांचो रंग मराठी उतरांचेर देवला. गोंयच्या कदंबरायांची भास ह्या तिनूय भासांतली एकूय नासून तांची उलोवपाची भास कोंकणी आनी बरोवपाची कानडी आसली. सरकाराक विनंती करून हे पाटयेचे अवशेष संग्रहालयांत दवरपाक व्हरूंक लावचे.

६ बाजारांत वडाकडेन, फुटबॉल ग्राऊंडालागीं, सावरीकडे, आनी आगशी चिंचेकडे आदल्या कोटाचे सुमार पन्नास-साठ पाषाणी फातर पडिल्ले

आसात. हे पाषाण युगाचे फातर म्युनिसिपालटीचे गाडयेन व्हरून संग्रहालयांत दवरूंक सरकाराक विनंती करची.

७ कदंबकाळावेली खंयचीच इतिहासीक थळां आनी मळां कोणेच सरकारी अधिकाऱ्यांक दाखोवपी न्हय. तीं दाखयल्यार थंय प्लॉट-कारस्थानां करून आपलीं स्वताची घरां निर्माण करपाची तांची एक गृह निर्माण येवजण आसता.

हे बसकेक आमच्या मंडळान आनीकूय कांय म्हत्वाचे थाराव घेतल्यात. पूण ते गुपीत आसलेल्यान सगळेच सांगपाचे नासतात.

###

## प्लीज.....!

गोंयच्या आमच्या एका मंत्र्यान भारताच्या एका प्रधानमंत्र्याक गोंय ही तुमची कॉलनी न्हय अशें एक वैयक्तीक पत्र बरयल्यार इतलो बोवाळ कित्याक जालो कळना!

हावजिंग बॉर्ड कॉलनी, पत्रकार कॉलनी, चित्रकार कॉलनी, सरकारी कर्मचारी कॉलनी अशो जायत्यो कॉलनी आसात. त्यो तांच्यो तांच्यो कॉलनी. त्यो आमच्यो म्हणूं नज. तशेंच गोंयच्या मंत्र्यान प्रधानमंत्र्याचो कितेंय गैरसमज जाला जायत म्हूण गोंय तुमची कॉलनी न्हय, ती आमची कॉलनी अशें सहज कळयलां जाल्यार तांतूंत बोवाळ करचें काय कारण ना.

कॉलनी म्हळ्यार वसाहत. जायत्या जाणांची स्वताचीं आदलीं घरां वेगवेगळेकडे आसतात. पूण गरज म्हणून जांव सोपेपण म्हणून ते कॉलनी करून रावतात. तेन्ना ती तांची कॉलनी जाता. ती आमी आमच्या घरा बसून आमची म्हणूं नज. तशेंच आमच्या गोंयच्या मंत्र्यान प्रधान मंत्र्याक दिल्लींत कदेलार बसून गोंय आपली कॉलनी म्हणूंक जावचें ना अशें वैयक्तींक पत्र बरोवन आपलेपणान कळयलां.

गोंयची कॉलनी ही गोंयकारांची, गोंयकारांखातीर, गोंयकारांनी वसयल्ली कॉलनी. तांतूंत दुसऱ्यांक आपले दोवले घालून धवळे करूंक मेळपाचे ना. ही कॉलनी गोंयकार चलयतले. गोंयचे राजकर्ते चलयतले.

गोंयकार राजकर्ते गोंयचें राज्य कशें चलयतात तें सगळ्या गोंयकारांक केन्नाच कळना. तांची सगळी भितल्ली खबर राजकर्त्या वर्गाकूच कळटा.

एकामेकाक भ्रश्ट म्हणटात, म्हणसर इश्ट जातात. एकल्यान गोंय खालें अशें दुसरो म्हणटा आनी म्हणसर तोय ताचे पंगतीक येवन बसता. गोंयची तिजोरी खाली जाली म्हणटा आतांतनाच तेच तिजोरेंतले पैशे काडून सगळे मेळून परदेशाचे अभ्यास दौरे करून परते गोंयांत येवन वारकरी कशे गोंय़चे उदरगतीचें कीर्तन करतात.

अशी ही राजकी वर्गाची भास हेर वर्गाक कळूंक कठीण. वर्णाश्रमांत जशी वेल्या वर्णाची संस्कृत भास हेर वर्णाक कळची न्हय म्हूण आडखळ हाडटाले तसो हो राजकी वर्ग आपली कुवाड्याची भास हेर वर्गाक कळूंक दिना. संस्कृताक आतां कोण खायना कित्याक आतां तांतूंत खावपासारकें कांय ना. वर्गाश्रमांत मात तांचे खावपाचे भाशेक खूप म्हत्व आयलां.

आयज खरो प्रस्न राजकी कॉलनीचो ना. तर अर्थिक कॉलनीचो आसा. विदेशी शक्तींचो राजकी वसाहतवाद वायटूच. तांचो अणभव गोंयानूय घेतला आनी गोंयाभायर हेर भारतानूय घेतला. तांतल्यान सोडणूक करपाक जायत्या जाणांनी हाल उपाद्रे, बंदखण आनी हेर जायते कश्ट काडल्यात तशेंच आत्मबलीदानूय केलां. पूण तो वर्ग आयज राज्यार ना. तसो तो चडसो केन्नाच नासलो. तेन्ना आयच्या देशकारभाऱ्यांनी गोंयांत आपलो अर्थिक वसाहतवाद कित्याक चलोवचो इतलोच आमच्या मंत्र्याचो प्रस्न आसा. तुमी खावचे आनी आमी पळोवचें हो कसलो न्याय? आमचो मंत्री अन्यायाआड झुजता तें पळोवन खरें म्हळ्यार आमका अभिमान दिसपाचो.

केंद्र सरकार गोंयचें इतलें उत्पन्न खाता पूण गोंयाक अनुदान दिंवक रडटा. गोंयचो विकास आडखळून उल्ला. खावपाची मारामार जाल्या. तसो वेली मलय खावपी वर्ग गोंयांत तसो हेर भारतांत सारकोच. पुर्तुगेज काळार एकाद्री नोकरी मेळोवंक साग्वाद म्हूण एक नुस्त्याची गांथन धाडल्यार समाधान जातालें. हेर भारतांत इंगलेजाच्या काळार "लंच" दिताले जावंक जाय. पूण आतां हें करचें लागना. आतां सगळे मुद्राधारी शिवराक. गांथन धाडिना जाल्यारूय नोकरी मेळटा. लाखांनी बेकार तरणाट्यांक नोकऱ्यो दिवपाच्यो सरकारी येवजण्यो चल्ल्यात. पूण प्रस्न इतलोच आसा कीं तुमच्या रामराज्यांत जर लक्ष्मणाक पसून नोकरी मेळोवंक सुवर्णमुद्रा मेजच्यो पडटात जाल्यार आमच्या हनुमानांक नोकरी मेळोवन दिवची सुवर्णसंद तुमी आमका कित्याक दिनात? आमच्या विकासांत तुमी आडखळ कित्याक हाडटात? आमी पोसोभरून दान दिल्यार तुमी चिमटीभर अनुदान दिवंक फाटीं-फुडें कित्याक जातात? असल्यांनी गोंयचो फुडार कितें?

"प्लीज, आमका तुमी तुमची कॉलनी समजूं नाका अशें जेन्ना आमचो दयावंत मंत्री केंद्र सरकाराक कळयता तेन्ना गोंयकारांची दया आनी गोंयच्या

अर्थिक विकासाचे प्रस्न तांतूंत भरसल्ले आसतात. आमच्या देशांत तशेंच आमच्या गोंयांत खावपी तोंडां खूप. आचार-विचार तरातराचे. रूची भिन्न. प्रस्न अनेक पूण देश एक. कांय जाण कांदो खावंक आड्‌डतात तर कांय जाण मलय खांवंक वखवखतात.

तरीं हें रामराज्य आसा. आमचे राम ज्यो लीळा करतात त्यो कळपाक कठीण. आमच्या कृष्णांची कर्तुबांय कळनात. "मैं नहीं माखन खायो" अशें भासोवपी कृष्णांचेय हें राज्य आसा.

पूण हे राम आनी कृष्ण मेळून आमचो वांटो आमका कित्याक दिनात हो खरो प्रस्न आसा. आमी कितें ह्या भरतवर्षाचो वांटो न्हय? आमचें गोंय म्हळ्यार कितें लंका? असो तांका आमच्या मंत्र्याचो प्रस्न आसा!

अशा ह्या आमच्या स्वाभिमानी आनी गोंयचें स्वत्व राखपी मंत्र्याक घेवन नाच्चें सोडून तुमी ताचे मानेर चौकशीची तलवार दवरतात? चौकशी करात ना तर दिल्लीक वचून उठा-बशी काडात ती तुमची खोशी पूण आमचो मंत्री पदर पातळावन तांचेकडे मागपाक कितें तांचे बश्शेसकयली बिल्ली न्हय! तो हक्कान मागता. अशा ह्या मंत्र्याची तुमी तुस्त करचे नात जाल्यार करूं नाकात. पूण प्लीज.... ताका दुशण मात दिवं नाकात. प्लीज....!

###

## मर्तो शणैक नोबल प्रायज!

बंगालच्या अमर्तो सेनाक अंदूचो अर्थशास्त्राचो नोबल पुरस्कार मेळ्ळो तसो आमच्या गोंयच्या मर्तो शणैक तो रोखडोच मेळटलो अशीं चिन्नां दिसतात. गोंय शांत आनी सुशेगाद प्रदेश अशें भोंवडेकार आदीं म्हणटाले तेन्ना गोंयच्या कोणा तरी शांत आनी सुशेगाद म्हात्म्याक शांततेचो नोबल पुरस्कार मेळटलो अशें केन्नाय दिसतालें पूण ती गोंयची शांतताय आतां ना. मदीं तो कोणाय गोंयच्या साहित्यिकाक मेळटलो अशें धरिल्लें. पूण तेदे तांकीचे पांच-स साहित्तीक गोंयांत आसुनूय पुस्तकांचे मार्केटिंग करपी तेदे तांकीचे प्रकाशक गोंयांत नासलेल्यान आनीक चार-पांच वर्सां तो गोंयच्या साहित्यिकाक मेळतसो दिसना. पूण सगळ्यांत आदीं अर्थशास्त्रांत आमच्या मर्तो शणैक हो नोबल पुरस्कार मेळूं येता अशी मात खात्री दिसता.

मर्तो शणै आनी अमर्तो सेन हांच्या अर्थकारणांत एक उठून दिसपासारकें साम्य म्हळ्यार मर्तो शणैच्या अर्थशास्त्राक ताच्या तत्वगिन्यानाची घट बसका आसा. साम्यवादापरस लोकतंत्राचेर ताचो अदीक विस्वास आसा. मानसशास्त्र,

समाजशास्त्र, आदी शास्त्रांच्या एकवटीत आपरोसांतल्यान ताच्या अर्थशास्त्राचें पक्वान्न शिजलां. ते सपक नासून सुरबुस आनी गोड आसा. पूण मर्तो शणैचो विशेश गूण म्हळ्यार आपलें हें अर्थशास्त्र तो श्रद्धेन आपल्या आचरणांत हाडटा. उलयता तसो चलता म्हूण ताचे पांय घरचे कशे दिसतात.

अमर्त्य सेनाक ताचें नांव कवी कुलगुरू रवीन्द्रनाथान दवरलां तशेंच मर्तो शणैक ताचें नांव ताच्या एका कुलगुरूनूच दवरलां. मर्तो शणैच्या आवयगेर एका फाटोफाट भुरगीं जावन एका फाटोफाट मरूंक लागलीं तेन्ना तांच्या फाटल्यान जल्म घेतिल्लो मर्तो तरी मरचो न्हय म्हूण ह्या कुलगुरून ताका हें मर्तो नांव दवरलें आनी कांट्यान कांटो काडचो तशें ह्या नांवान मर्त्याचे बडींतलें मरण काडून भायर मारलें आनी मर्तो अमर जातलो असो आशिर्वाद ताका दिलो. ह्या आशिर्वादाचें गोड फळ म्हळ्यार आमचो मर्तो शणै!

एकोनोमी हो मर्तो शणैच्या तत्वगिन्यानाचो आनी ताच्या आचरणाचो गाभो. सतत जोडप आनी मोडप ना, सतत बचत करप आनी तें मेजत रावप हो ताचो उद्योग. अशा ह्या उद्योगपतीक जायते जाण हिमटो, चामटो आनी भामटो अशें पसून म्हणटात. पूण व्हड आनी उद्योगी मनशांक विरोधक आनी निंदक हे आसतातूच. तांची टीका ध्यानांत घेवपासारकी न्हय. कुलगुरूच्या आशिर्वादाचें गोड फळ म्हणून ताका जाय जाल्यार चिकू म्हणूं येत.

मर्तो शणैचें अर्थशास्त्र समजून घेवंक आतांचें अस्तेंती आनी आदलें आमचें उदेंती ह्या दोनूय अर्थशास्त्रांचो अभ्यास आसूंक जाय. "नित्य आयं, मित व्ययं" ही मर्तो शणैच्या अर्थशास्त्राची सुसंस्कृत थेअरी आसा. जे मनीस वेव्हारांत "आयाधिकं व्ययं" करतात आनी पैशे होगडायतात तेच ताचे विरोधक आनी निंदक आसात अशें म्हणूंक जाय. फोल्गी आनी उधळ्या मनशांक मर्तो शणैच्या मनाचो निग्रह कळना आनी ते ताका निगरगट्ट म्हणटात.

सादें रावप आनी खोल विचार करप हो मर्तो शणैचो व्हड गूण. मर्तो शणैची काया पळेत जाल्यार ताणें बँकेंत माया कितली करून दवरल्या ताचो पत्तो लागपाचो ना. सात-आठ लाखांवयर आसत. आंकडो सारको कळचोना कित्याक तर तो वाडत आसा. देंवपाचो ना. पांच वर्सांक, धा वर्सांक, पंदरा वर्सांक अशो ताच्यो कायम ठेवी बँकांनी 'फिक्स' आसात. राजकारण्यांच्या उलोवपांत विकास हें उतर जशें परतें परतें येता तशें मर्तो शणैच्या उलोवपांत फिक्स हें उतर फिक्स जाल्लें आसा. कोणूय मर्तो शणैकडे गरजेक शंबर रुपया उसणें मागूंक आयल्यार आसल्यार दितलों आसलों. कालूच हांवें आसलें ते सगळें फिक्साक घालें" अशें सांगून मर्तो शणै मागूंक आयिल्ल्याक जेन्ना परतिता तेन्ना आपणें जोडिल्ली जोड आनी ती मोडची न्हय म्हूण बँकेंत केल्ली फिक्साची वेवस्था हाची दोट्टी खोस

ताच्या तोंडार झळकता.

बऱ्याक गेल्यार बिरमत फुट्टा हो मर्तो शणैचो आनीक एक सिद्धांत. तो पटोवन दिवपाक तो जायतेकडे घडिल्ले जे प्रसंग सांगता ते आयकून खरेंच केन्नाच कोणाच्या बऱ्याक वच्चें न्हय अशें दिसूंक लागता. बरें करचें देवाचें काम. तें काम मनीस करूंक गेल्यार देवाक वायट दिसता आनी देव ताका कसो तरी त्रासांत उडयता अशे सांगून मर्तो शणै जेन्ना भेश्टायता तेन्ना नाका ती बरें करपाची भानगड अशें दिसूंक लागता.

पावोवप हें मनशाचें काम. पावप हें देवाचें काम हो मर्तो शणैचो आनीक एक सिद्धांत. मर्तो शणै प्रसंगाक केन्ना कोणाक पावलो हें कोणाच्यान दाखोवन दिवं नज. प्रसंगाक तो पावना. प्रसंग येवन वतकूच पावता. "आरे, काल तुका शंबर रुपयांची गरज आशिल्ली जाल्यार म्हाका तशें सांगपाचें न्हय? हांव कितें परकी? जांव, गरज भागली मरे? बरें जालें. केन्ना कोणाचेर कसलो प्रसंग येत सांगूं नज!" प्रसंगाक आपूण पावना पूण प्रसंग येवन वतकूच काकुळट करता हाचे फाटलो अर्थशास्त्राचो नेम विस्कटावन सांगतना मर्तो शणै केन्ना केन्नाय एक उदाहरण दिता. तशीं असलीं उदाहरणां ताचेकडे जायतीं आसात.

ताच्या भुरगेपणांत ताचो शेजारी आपा आसगांवकार खूप श्रीमंत आसलो. ताचो अणभव तो सांगता. आपा श्रीमंत आसलो तेन्ना ताणें दानधर्म खूप केलो. प्रसंगाक कोणाकूय पावपी अशी ताची नाम्ना. पूण उपरांत ताच्या वायट नशिबान तो धंद्यांत नुकसानेक पडलो. निम्माणें ताची परिस्थिती सामकी कंगाल जाली. एक दीस गरजेक पडून तिसूच रुपया मागूंक तो एका मनशाकडे गेलो जाल्यार पैशे घरांत कुसता आसून पसून ताणें आपाक तीस रुपया दिनासतना परतिलो. खरें म्हळ्यार, आदीं हो मनीस गरीब आसतना आपा जायतेदां ताका व्हड व्हड प्रसंगाक पसून पावला. पूण आपाचेर प्रसंग आयलो तेन्ना कोण कोणाचो न्हय. आतां मर्तो शणै सांगता त्या प्रमाण ही खबर ताका आपान सांगूंक ना तर त्या मनशान जाचेकडे तो पैशे मागूक गेल्लो ताणें. आपा आपल्याकडे तीस रुपया मागूंक आयिल्लो पूण आपणें ते दिले ना तेन्ना आपाच्या दोळ्यांत दुखां कशीं आयलीं ताचीं वर्णनां करून ही खबर त्या मनशान मर्तो शणैक सांगली. मर्तो शणै जेन्ना ही खबर तिखट-मीठ लावन सांगता तेन्ना तांतले तिखट-मीठ काडलें तरीं मर्तो शणै शाणो कसो दिसूंक लागता, आपा पिसो कसो दिसता, ज्या मनशान आपाक तीस रुपया दिले ना तो कोण तरी समाजांत प्रतिष्ठा मेळयल्लो मनीस कसो दिसता. आनी देव वेळार आपलें पावपाचें काम करीना म्हणून देवाचो राग मारूंक लागता.

अर्थशास्त्र हेर शास्त्रांपसून अनवाळें दवरून सामके वेगळे काडूंक

मेळना. समाजांतल्यो चाली रिती, समज-अपसमज, मानदंड आनी हेर दंड, धर्म आनी राजकारण, भुगोल आनी इतिहास. वृत्ती आनी प्रवृत्ती ह्यो खंय ना खंय अर्थकारणाक आफडून वतात. मर्तो शणैच्या वेव्हारवादी अर्थकारणान हीं सगळी कारणां समजून घेवन अर्थशास्त्राचीं नवीं नवीं तासां नदरेक हाडिल्लीं आसात. देखीक, देशाचो इतिहास समजून घेवन ताचें अशें मत जाल्लें आसा किं ह्या देशांत म्हापराक्रमी हर्शवर्धन राजापरस हर्षद मेहताचे पराक्रम व्हड तोखणायेचे थारतात!

मर्तो शणैचे लाखांनी रुपया बँकेंत आसून पसून तो पादिशेर कसो भोवता म्हूण कांय जाण ताका हिमटो, चामटो अशें म्हणटात पूण ज्या महात्मा गांधीन एका व्हड राष्ट्राचें सगळें राजकारण धवळून काडलें तो कसो रावतालो, भोंवतालो हाची इल्लीय देख ह्या अराष्ट्रिय लोकांक ना. सगळें अर्थकारण धवळून तांतलें वीख पचोवपी आमच्या मर्तो शणैचो आहार, आचार तसोच सादो आसा. मर्तो शणैचें घर सादेंच. फर्निचर सादें आनी आंतीग. घरांत दिव्यांक जाय तितलीच लायट. इलेक्ट्रीक जांव इलेक्ट्रोनिक असल्यो कसल्योच क्रोनिक वस्तू नात. आसा तो एक सादो चवदा इंची ब्लेक अँड व्हाइट टी.व्ही. गॅस-फॅस तसलें कांय ना. फॅन ना आनी फोन ना. फोन घेवपाचो पूण सरकारचे अर्थवेवस्थेचो निशेध म्हूण ताणें घेंवक ना. फोन घेतल्यार टॅक्स रिटर्न भरात अशें सरकार जेन्ना पिशाभशेन सांगूक लागलो तेन्ना फोन घेंवक हाडिल्लो फॉर्म मर्तो शणैन रिटर्न केलो. तांतूंत फोन आसून नासून सारकेच. शंबर पावट मरतात. तें अवचिन्न घरांत कित्याक? तात्पर्य, मर्तो शणैचें घर सामकें शांत. ताच्या भाटांतलें ताचें तें एकोडें शांत घर पयशिल्ल्यान शांति निकेतन कशें दिसता आनी लागीं गेल्यार वर्ध्याचो महात्माजीचो आश्रम कसो दिसता.

श्रम करपी लोकूच ह्या देशाचें अर्थकारण घडयतले. फॉल्गां मारपी न्हय. मर्तो शणै आनी मर्तो शणैचे दोगूय पूत भाटांत कश्ट करतात आनी आपलो हेर वेव्हारूय पळेतात. पयली बायल मरतकूच मर्तो शणैन दुसरी बायल केल्या. पयले बायलेचो पूत आतां व्हड जावन भाटांत कश्ट करता तो करताच त्या भायर एल.आय.सी.,, यु.टि.आय. असल्या संस्थांचो एजंट आसा. तोय एक दीस "करोडपती" जावं येता. फॉल्गां मारिल्लीं जाल्यार पनवती जावपाचो. दुसरे बायलेचो पुतूय शिकता बरो आनी कश्टी. हांगाय मर्तो शणैचें अमर्त्य सेनाकडे इल्लें साम्य आसा. दोगांयनींय एका परस अदीक बायलो केल्यात. पूण तांतूंत अजाप ना. व्हड अर्थशास्त्रज्ञांचे जिणेंत अशें घडटा. तांचे पयले बायलेचें म्हत्व तितलें नासता. तांची पयली बायल म्हळ्यार बँकेंतलें तांच्या खात्यांतलें 'इनिशियल डेपोझिट' कशें आसता.

अशें सगळे दिश्टीनीं आमच्या मर्तो शणैचें भौमानेस्त अमर्त्य सेनाकडे साम्य आसतना मर्तो शणैच फाटीं उरूंक फावना. ताका नोबल प्रायज मेळुंकूच जाय. आमी गोंयकारांनीं एकवटान खटपट करून हो भौमान फुडल्या वर्सा गोंयाक फाव करूंकूच जाय.


LIBRARY KONKANI CENTRE
२१५८

## मंचलापूरचें देवस्पण

सर्गांत जर देव नासले तर संसाराक रंग येवचो नासलो आनी मळबांत जर देव नासले तर मंचलापुरांत रावपाक मजा येवची नासली. आमचे मंचलापूरचे देव सर्गाइतले पयस रावनात तर लागींच मळबांत रावन गांवच्या दिसपट्ट्या वेव्हाराचेर नियंत्रण दवरतात.

नाशिक, वाराणसी, हरिद्वार अशे मेजकेच देवाक लागचे अशे कांय गांव आसात तसलोच आमचो मंचलापूर गांव. हांगा देव खूप आनी देवळांय खूप. येवन वचून देव हांगाच रावतात काय दिसतात. हांगा महामाया, सांतेर, शांतादुर्गा, रवळनाथ, वेताळ ह्या आनी अशा प्रादेशीक देव-देवतांची देवळां आसात तशेच राष्ट्राक व्यापून धा आंगळां चड आसलेल्या रामाचीं आनी कृष्णाचीं देवळां आसात. त्रिमूर्ती दत्ताचें देऊळ आसा तशींच हालींची नवीं म्हळ्यार साई मंदीर आनी सत्य साई मंदीर हींय मंदिरां आसात.

मंचलापूर हें नांव ह्या गावाक कशें पडलें हाचेर हालींच एक परिसंवाद जालो पूण वाद सोपलो ना. ह्या गांवचें आदलें नांव मंचकापूर अशें कांय जाणांचें मत. मंचक म्हळ्यार व्हडलें कदेल आनी मंच म्हळ्यार ल्हान स्टेज. पूण हो गांव तसो उंच जाग्यार ना. इल्लो खोलायेकूच आसा. कांय जाणांचे मत आसलें कीं ह्या गांवाचें आदलें नांव मंजरीपूर. पूण हांगा झरी नात. आनी फुलांच्यो बागो जायसारको जमनीचो कसूय ना. एका विद्वानाचें तर मत आसलें किं हें आदलें मंजिलापूर. हें नांव दिसलें बरें आनी मंचलापूराक तें लागसारूय आसलें. पूण त्या विद्वानान जेन्ना ताचो अर्थ मडवळ रावतात तो गांव अशें सांगलें तेन्ना तुजें तें मत धुंवक घाल अशें म्हणून जायत्या जाणांनी आपलो खर निशेध नोंद केलो.

नांवांत कांय ना पूण गांव मात सामको धर्मीक. हांगा वर्सांतल्यान शेंकड्यांनी सण-परबो, पालख्यो, रथ. भजनां आनी किर्तनां, समराड्गा, धालो आनी शिगमे, रोमटां मेळ आनी तोणयां मेळ, नाटकां आनी काले जायत आसतात. त्याभायर नित्याचें पुजा-अनुष्ठान आनी कौल-प्रसाद हे सतत चालू

आसतात.

पिळग्या पिळग्यांनीं हांगा देवाची सेवा चलिल्ल्यान हांगच्या देवस्पणाक एके तरेचें घरंदाजपण आसा. हांगची आद्य देवी सांतेरी, बाकीच्यो देव-देवता एक एक करून उपरांत आयल्यात. सांतेरीचें देऊळूय सगळ्यांत पोन्नें. देवस्पणूय पुरातन आनी खर. देऊळ आनी भटाचें घर लागुनूच. लागुनूच म्हणचे परस तांतूंतूच म्हणिल्लें अदीक बरें. देवळांत घर आनी घरांत देऊळ अशें ताचें पुराणें शिल्प आसा.

वंश-परंपरेन गोंयांत आजून जे कितें वेवसाय उरल्यात तांतलो एक म्हळ्यार देवांच्या पुजाऱ्यांचो, आनी तोय पसून देव पोन्ने परंपरेतलो आसत जाल्यार. वंश परंपरेन सांतेरी देवीचो सद्याचो पुजारी म्हळ्यार जनार्दन भट. जनार्दन भटाच्या वंश परंपरेचो रूख खूप पुरातन आसून आदीं हेर पुजाऱ्यांची परिस्थिती जशी भौ करून उतळतापाची तशीच ती जनार्दन भटाच्या पूर्वजांची आसली. पूण "बीते दिन गये रे भय्या" हे चालीर जनार्दन भटाचेय दीस आतां बरे आयल्यात.

हे दीस अशे येवपाक कारण म्हळ्यार सरभोंवतणी जायत आसलेली उद्योगीक आनी व्यापार-धंद्यांची उदरगत. मंचलापूरच्या भोंवतणीं आदीं रानां-वनां, दोंगर, झरे आनी व्हाळ अशीच निर्जन सृश्ट आसली. दिसाचो चुकून चोराचो भंय आसतालो आनी रातचो चुकून भुतांचो भंय आसतालो. ह्या वाटाराक चडसो कोण पावच नासलो. पूण सरभोंवतणी आतां नवे नवे व्यापार-उद्योग तेजींत आयिल्ल्यान हीं सगळीं राना-वनां आनी मळां आनीं दोंगर ऊंच उंच इमारतींनीं सोबूंक लागल्यात. कितलेशेच फ्लॅट आनी व्हड-व्हड बंगले वयर सरत आसात. जंय बैलांचे गाडेय पावनासले थंय नव्या नव्या मॉडेलच्यो मोटरी धांवक लागल्यात. लोकवस्ती वाडल्या, चोरांचो-डाकूंचो भंयूय वाडला आनी भुतां पसून रस्त्यानीं कशाय कशी धांवत जाल्यार मोटरीपोंदा चिड्डपाचो संभव आसा.

पैशांनी व्हड जावपाची होड हे नवे गिरेस्त वसणुकेंत एकसारकी लागिल्ली आसा. ताचो परिणाम मंचलापूरचेर जाल्लो आसा. पैशे मेळोवचे नवे नवे मार्ग सोदून काडटना मनशांची शक्त पावना जातकूच हे गिरेस्त लोक देवांची मदत मागूंक मंचलापुरांत येतात. हाका लागून सांतेरीच्या देवळांतूय देवस्पणाक आनी कौल-प्रसादांक मागणी वाडल्या. हे खातीर जनार्दन भटाक दीस बरे आयल्यात.

कोणाचेंय बरें जातकूच दुसऱ्याच्या दोळ्यांत वता. जनार्दन भटान आनी ताच्या पूर्वजांनीं हलाखेची जीण सारून देवीची सेवा केली तेन्ना थंय कोणाची नदर गेली ना. पूण आतां ताका प्राप्ती जांवक लागिल्ल्याक ताचे हीतशत्रू ताचे

होम-याग आनी कौल-प्रसाद म्हळ्यार अंधश्रद्धा अशें म्हणूंक लागले. अंधश्रद्धा म्हूण कांय ना. आसल्यार श्रद्धा ना तर अ-श्रद्धा. गंगेंत न्हाल्यार सगळीं पातकां धुवन वतात अशें समजप ही अंधश्रद्धा अशें सांगपीच कांय जाण द्रव्यांत न्हाल्यार सगळीं पातकां पचतात अशें समजून एक़ सारके पैशां फाटल्यान लागतात. अंधश्रद्धा निर्मुलन हो तर इल्लो अतिरेकी शब्दप्रयोग. जे आंधळे आसतात तांच्या दोळ्यांत अंजन घालूंक जाय. तांची आसलेलीय नदर हुमटून काडूंक जायना. लोभ, मोह हे विकार म्हळ्यार श्रद्धेक लागिल्ली खरी नड. ती नडणी हुमटुच्या बदला श्रद्धाच हूमटूंक गेल्यार कशें जायत? जनार्दन भटाच्या देवस्पणाक कोणूय अंधश्रद्धा अशें म्हणून ताका परतो गरिबीच्या पूर्वपदार हाडीत ह्या भंयान असो हो कीर्तनाचो पूर्वरंग सांगचो पडटा.

मंचलापूरचे सिमेवेले नवे गिरेस्त वसणुकेंत सद्या जनार्दन भटाची कीर्त बरीच जाल्ली आसा. पैशां फाटल्यान धांवतले हांगचे स्पर्धक पैशे मेळोवचे वेगवेगळे सर्तीनीं जैत मेळोवंक मानवी शक्ती उणी पडटा तेन्ना दैवी शक्तीचें साह्य घेवंक सांतेरीच्या देवळांत येतात. दैवी शक्तीचे संदेश तांचेमेरेन पावोवपाचे संपर्क माध्यम जनार्दन भट आसलेल्यान पानवेलीच्या धर्मान मसकाक उदक पडचें त्याप्रमाण जनार्दन भटाचो वेळ बरो आयला. ह्या नव्या भक्तांनीं सगळें देऊळ दुरुस्त करून देवळाक नवें रुप दिलां आनी देवीकूय रुप्याचे मुखें, भांगराचें मुखें दिवन नवें रुप दिलां. धर्माक ग्लानी येवची आनी तेन्नाच कुबेराचो अवतार जावचो अशें घडलां. मंदिरांत धनाचो वर्शाव जाता आनी ताची खातड जनार्दन भटाच्या संवसारांत जाता. जनार्दन भटाक पोन्र्या भक्तांपसून प्राप्ती व्हडली नासली. पूण हे नवे भक्त येतकूच पोन्रे भक्त, भजक आनी कुळावी आतां देवळांत गर्दी करूंक धजनात. वाग, शिंवाची गरड पडूंक लागतकूच घरचीं गोरवां पळूंक लागतात त्याचप्रमाण ह्या रानावनांतल्यान आयिल्ल्या नव्या भजकांक लागून आदले भजक पळूंक लागल्यात. जनार्दन भट देवळांत देवस्पण करतां करतांच मदीं थोडो वेळ देवस्पणाचो चेनल बदलून भायर येवन टी.व्ही. चो प्रोग्रामूय पळेता. एका फॅक्टरीच्या मालकभक्तान ताका हालीं फोनाचें कनेक्शनूय घेवन दिलां. कौल प्रसाद घेंवक प्रत्यक्ष येवंक मेळना जाल्यार जनार्दन भटाक 'हॅलो' केल्यार तो कौल-प्रसाद घेवन देवीचो कितें निर्णय तो परतो 'कॉल' करून कळयता. हे सोयीचो फायदो हेर भक्तांकूय जाला. कौल प्रसादाभायर आतां ही आनीक एक कॉल-प्रसादाची सेवा सुरू जाल्या. सांगणें करतनाच केन्ना-केन्नाय फोन वाजता आनी तें सांगणें मदींच 'ऑफ' करून फोन घेवंक येवचो पडटा. कांय वेळार तर टी.व्हीच्या कार्यक्रमांत फोन वाजता आनी तो आपल्या फोनाचो खरोच कॉल अशें समजून जनार्दन भटाक धांवत येवचो पडटा. असो देवस्पणांत खंड पडटा हें

सारकें न्हय असो साक्षात्कार जाल्ल्यान एका दुसऱ्या जबरदस्त भक्तान जनार्दन भटाक आतां मोबायल फोन दिवचो केला. तात्पर्य, सगळें देवस्पण हे हाय सोसायटीक लागून आतां 'हाय-टेक' जायत चल्लां. संवसारांत जंय मनीसपण 'हाय-टेक' जालां थंय देवस्पण 'हाय-टेक' कित्याक जावचें न्हय?

श्रद्धा खंयच वचना. पूण श्रद्धेचीं हीं मुखीं आसात. हीं मुखीं देवतलीं तेन्ना खरी श्रद्धा प्रगट जातली. हीं मुखीं देवोवची जेन्ना तयारी ना तेन्ना अंधश्रद्धा म्हूण श्रद्धा हुमटून काडूंक भाशणां करून कांय फायदो ना, फायदो इतलोच की एक बाबा वतलो आनी दुसरो बुवा दुसऱ्या रुपान प्रगट जातलो.

थोडे गांव थंयच्या शेती विकासाचेर, थोडे व्यापार उद्योगाच्या विकासाचेर, थोडे हिप्पींचें आनी भोंवडेकारांचे भोंवडेचेर आप-आपली उदरगत करतात. पूण मंचलापूर गांवची उदरगत थंयच्या अनंत देव-देवतांचें श्रद्धेचेर पातयेवन आसा. दरेक गांवची ताच्या ताच्या गुणधर्माप्रमाण उदरगत जाता थंय मंचलापूर गांवान धर्माच्या प्रसारान आपली उदरगत केली जाल्यार कोणाची हरकत आसची न्हय. श्रद्धेची ज्योत ह्या गांवांत तेंवत दवरपी जायते म्हात्मे जावन गेले, जायते हयात आसात. तांतलोच आनीक एक म्हात्मो म्हळ्यार रवळनाथाच्या देवळांतलो बाप्पा भगत, जांका जनार्दन भट नाका ताणीं भगताकडे येवपाचें. जांका बाप्पा भगत नाका ताणीं कृष्णा घाडयाकडे वचपाचें. कृष्णा घाडी नाका तांका सत्य साई, ओम् शांती, अशे जायते सन्मार्ग आसातूच, जण एकल्यान आपले तांकी प्रमाण आपलो मार्ग धरपाचो.

रवळनाथाच्या बाप्पा भगताकडे सांगणें, मागणें असले मिळमिळीत प्रकार नात. ताचें घराणें गाराण्यांचें. ताचे सूर, लय, ताल वेगळेच. बाप्पाचे गाराणें देऊळभर गाजता. ताचे कौल-प्रसाद हुकमी. हुकमी म्हणचे कारण म्हळ्यार तांतूंत सांगण्या मागण्यांपरस हुकूम चड आसतात. "देवा समर्था, दाखय तुजो पराक्रम, सर फुडें, घाल दुस्मानांक आडवे, बस तांच्या कांट्यार, ह्या भावार्थ्याचे भावबंद ताचेर करणी करतात, परतीय तांची करणी, हे तरेची ताची देवाकडे उलोवची भास आसता. ह्या कौल-प्रसादाक गांवचेय लोक आसतात आनी भायलेय आसतात. देखीक, गांवचे नरकासूर आतां पणजे सर्तीत वतात जांव गांवची नाटकां स्पर्धेत वतात तेन्नाय गांवचे उमेदी भक्त देवांक गाराणे घालूंक येतात. तेन्ना नरकासुरांक आनी नाटकांक येश मागतना बाप्पा भगत देवाक परिक्षकांच्या मनी-मुखीं वचून गांवच्या लेकरांक पयलें बक्षीस मेळोवन दी म्हूण सांगल्याबगर रावना. केन्ना-केन्नाय तर गोमटेर बसून दी म्हूण मागता. ह्या गांवच्या नरकासुरांक आनी नाटकांक हालीं जायते पावट पयले बक्षीस मेळ्ळां.

हालीं शिमे वाटारांत नव्यो वसणुको जाल्ल्याक थंयचेय कारखानदार,

कार-मालक, कारसेवक, कारचालक, कारवाहक, कारस्थानी आनी कार-चोर पसून हांगा येवंक लागल्यात. बाप्पा भगताच्या गाराण्यांक नेट चडला. जायते धंदे ताणे उबे करून आनी आड घालून दाखयल्यात. देवाक फावना म्हूण ताचो चडसो कारभार बाप्पा भगतान आपल्याच हातांत घेतला. बाप्पान शाण्यांचो सदरो घाला म्हूण देव पिशेपणाची कांबळ पांगरून ओग्गी रावन पळेता. बाप्पानूय जाल्यार आदीं खूप सोसलां. आतां मारता जाल्यार मारूं दी फोल्गां अशें म्हणून दयेची एक पाकळी देवान बाप्पाक दिवन दवरल्या अशें काय दिसता.

मंचलापूर गांवची उदरगत चडशी देवस्पणाक लागून जाल्ली आसा. कांय गांवांची उदरगत व्यापार, उद्योग, विज्ञान अशा जायत्या कारणांक लागून जाल्ली आसा. हे प्रगतीक लागून आमचे जायते प्रस्न सुटल्यात. जे नवे उप्रासल्यात ते चडशे मनीसपणाचे आसात. ते हिसपांत येनात.

###

## कमळो

करमळेचो कमळो एक सार्वजनीक मनीस. सार्वजनीक म्हळ्यार जाका आपलेंय पडलेंलें आसता आनी सगळ्यांचेंय पडलेलें आसता. सगळे मेळून समाज जाता म्हूण ताका समाजीक मनीसूय म्हणूं येता. कमळ्याक गांवाचें पडलां तशेंच देशाचें पडलां म्हूण तो तसो देशभक्तूय आसा.

कमळो सार्वजनीक जातलो अशें ताका पाळण्यांत घालो तेन्नाच कळटालें अशें ताका जल्म दितली ताची जननीच म्हणटा. ताचे जननीचें नांवूय जनें उर्फ जनी. पाळण्यांत तो खूप धडपडटालो आनी पांय धाडायतालो अशे ताचे सोयरेय सांगतात. गवयाचो पोर खंय सुरार रडटा. भुरगेपणांत फकाणानीं ताचे तकलेर फाटल्यान कूट मारल्यार तो रोखडोच फुडल्यान "सारे जहाँसे अच्छा हिन्दोस्तां हमारा" हे चालीर रडूंक लागतालो अशे ताचे भुरगेपणांतले संवगडी सांगतात. आनी "आँख में भर लो पानी" ह्या तत्वार दोळ्यांत दुखां काडटालो अशे तेन्नाचे ताचे अदीक आडांगी सवंगडी सांगतात.

कमळ्याचें पाळण्यांतलें नांव कमलाकांत. शाळेचे हजेरींतलें नांव कमलाकांत जनार्दन करमळकार. पूण घोळोवन गुळो केल्लें घोळणुकेंतलें नांव कमळो.

समाजसेवक कोणाच्याय उल्याक पावता हो ताचो मुखेल धर्मगूण हे खातीर लोक समाजसेवकाचें नांव उलो मारूंक सोपें जावचें म्हूण घडटा तितलें

मोटवें करता. कमळ्याक कांय जाण उमाळ्यान कमो अशेंय म्हणटात.

"कम्या, बांयत पडला तो कळसो मात्सो काडून दी." अशें कोणेंय सांगल्यार तो तत्परतेन बांयत देंवून कळसो काडून दिता. मागीर कळसो कोणाचोय जांव. दोन वर्सां फाटीं ताच्या एका शेजाऱ्यान जीव दिवंक बांयंत उडकी मारली पूण कमळ्यान फाटोफाट उडकी मारून ताका जीव दिवंक दिलो ना. कमळो आसासर बांयत जीव दिवंक कठीण म्हूण मागीर ताणें पोरूं पुलावेल्यान उडकी मारून मांडवींत जीव दिलो.

असो प्रसंगाक पावपी कमळो. गांवांत सवसकाय हाडचो तो सगळे प्रयत्न करता. कोणूय स्वताचेंच नुकसान करतलो ताका कोण कितें करतलो?

कमळो अती शिकिल्लो न्हय आनी अती शाणो न्हय. कमळ्याचें शिकप चड ना जायत पूण एस.एस.सी. मेरेन म्हळ्यार कमी न्हय. एस.एस.सी. मेरेन शिकून मागीर ताणें समाजसेवेचें व्रत घेतलें. चार वण्टीं भायलें मात ताचें शिकप बरेंच आसा. तो भजनाक वचपी आनी किर्तनाक बसपी. गरज पडटा तेन्ना नाटकांनी काम करपी. गांवची समाजीक, सांस्कृतीक जांव राजकी सभा आसूं तांतूंत तांचो वांटो म्हत्वाचो आसता. सभांनी चड करून तो सूत्र संचालक आसता. सूत्रसंचालकान अलंकारीक भाशेंत उलोवंक जाय अशें सूत्र ताचे तकलेंत कोणें तरी घालां. तेन्नाच्यान ताच्या भाशणाची सुरवात सादारणशी अशी आसता "भावांनो आनी भयणीनो, ह्या करमळे गांवांत तुमच्या पदकमलांचो स्पर्श जालो म्हूण आमी धन्य आसात. हांगा व्हड व्हड फुडाऱ्यांनी आपल्या करकमळांनीं जायतीं सत्कार्यां केल्लीं आसात. सांडलेली गोरवां करमळेच्या तळ्यार हे म्हणीन हो गांव खूप प्रसिद्ध आसा. थंय तुमी पयशिल्ल्या गांवांतल्यान येवन हांगा हे सभेक जमल्यात त्या तुमच्या सगळ्यांचें हांव स्वागत करतां."

कमळ्याच्या चरित्राक जायत्यो पाकळ्यो आसात. कोणाय तळमळीच्या समाजसेवकासारकीच ताचे जिणेची सुरवात किरकोळ आसली. गोकुळांतल्या कृष्णा भाशेन ह्याय आमच्या कमलाकांतान सुरवेक गोरवां राखलीं. मागीर शेतांत जोत घालें. मागीर बाजारांत गाडो घालो. गाड्याच्या जाग्यार मागीर मांड घालो. तेन्नाच्यान तो गांवचे उदरगतीच्याय उद्योगाक लागलो. क्लबाचो खजिनदार जालो, संस्कृती-कला मंडळाचो सेक्रेतार जालो. फुडें खंय खंय मुखत्यार, अखत्यार असोय जालो. मागीर राजकारणांत पडलो. मागीर दोन तीन पक्षांचो प्रचार केलो. बेसुमार म्हणच्या बदला खंय खंय प्रसंगाप्रमाण सुमाराची प्राप्तीय जाली. अशो कमळ्याच्या चरित्राच्यो पाकळ्यो उसोवन दाखोवं येतात.

प्राप्ती जाली पूण भोंवतणच्या हेर गांवच्या समाजसेवकांनी लूट मारली तशी ताणें मारली ना. गांवांत रावन गांवचे उदरगतीचो वावर तो करीत आसा.

हाचे विपरीत ताच्या शेजरा गांवचो एक समकालीन समाजसेवक गावांक प्रवचनां सांगून आतां एका लूटबहाद्दर मंत्र्याक घट जाला आनी शारांत बंगलो बांदून थंय फुडलीं सपनां रंगयता. दुसरो एकलो एका मंत्र्याचो पी.ए. जाला आनी दुसऱ्या एका शारांत सुटये दिसांनी पसून मोटरीनीं भोंवत आसा. तिसरो गांवांत जायत्या जाणांची गंडरी घालून तिसऱ्या एका शारांत वचून पंढरी करता आनी थंयच्या समाजीक आनी संस्कृतीक वारकऱ्यांमजगतीं भोंवन सोमार सोडून सद्दां बार्रांनीं दिसता. पूण गांव सोडून शारांची वारी करपी कमळो न्हय. तो गांवांत रावन गांवाची उदरगत करता.

खूप वर्सां राजकारणांत भोविल्ल्यान राजकारणाच्यो फायद्याक पडटात त्यो विद्या कमळो शिकला. मेळत ते संस्थेंत आदीं "सत्यमेव जयते"च्यो पाटयो लावन घेतल्यात आनी त्या पाटयांचे फाटभूंयेर ताच्यो सगळ्यो लटाफटी चलतात.

हालींच नव्यान एक निवडणूक आयली आनी तांतूंत हात धुवन घेवच्यो माण्ण्यो गांवांत सुरू जाल्यो. लोकशाहीचो जीर्णोद्धार करतनाच गांवांतल्या रामाच्या देवळाचो जीर्णोद्धार करचेलें गांवच्या लोकांच्या मनांत आयलें आनी सगळ्यांनी मेळून कमळ्याक फुडें काडलो. गांवच्या मतांचो एक गठ्ठो करून तो कोणाक दिवचो हें वाटाघाटी करून थारावचो हक्क कमळ्याक दिवन उडयलो.

पक्षांच्या उमेदवारांकडे वाटाघाटी जाल्यो ताचो सादारणसो सारांश असो आसा :

उमेदवार: कमळ्या, गांवचो रागरंग कसो आसा रे?

कमळो : कोणाय एका पक्षाकडे लोकांचो कल दिसना. सगळे पक्ष फटींग अशें म्हणटात. "मुँहमें राम, बगलमें छुरी" असो सगळ्याच पक्षांचो सभाव अशें लोकांचें मत कित्याक जालां कळना.

उमेदवार: पूण तरी आमचो पक्ष तसलो न्हय हें पटोवंक कितें करीसारकें आसा?

कमळो: देशाफुडें प्रस्न जायते आसात. गोंयाफुडें तर ताचेहून व्हड प्रस्न आसात. पूण गांवच्या लोकांक गांवचो प्रस्न सगळ्यांत व्हड दिसता. गांवांतलें रामाचें देऊळ मोडूंक आयलां तें दुरुस्त करून घेवप हो गांवच्या लोकांक आपलो खरो प्रस्न अशें दिसता. सद्याचो हुनहुनीत प्रस्न तरी तोच आसा.

अशे तरेन वाटाघाटी जावन त्या पक्षा कडल्यान आनी ताच्या त्या उमेदवाराकडल्यान एक व्हड देणगी देवळाच्या दुरुस्तीखातीर मेळटा.

सगळ्या पक्षांकडे कमळ्याचो समभाव आसलेल्यान दुसऱ्याय पक्षाचो प्रतिनिधी ताचे कडल्यान मतांचो गठ्ठो हातासूंक येता. पयल्या पक्षान रामाच्या देवळाक देणगी दिल्ली ताका कळिल्ल्यान तो कमळ्याक विचारता "कितें रे कमळ्या, पैशे घेवन मतां दितलें तुमी?" तेन्ना कमळो थंडसाणीन जाप दिता

"आमची मतां कोणाच्या बापायच्यान विकती घेवं नज. त्या पक्षाची रामाचेर भक्ती म्हूण ताणीं देवळाक देणगी दिल्या. पूण तांका मतां दितले म्हूण आमी सांगूंक ना. जण एकल्याचो भावार्थ. तुमीय देणगी दिल्यार तुमकां आमी मतां दिवचे ना म्हूण कोणें सांगलां? खरें म्हळ्यार, सद्याचे परिस्थितींत तुमचोच पक्ष उजवो अशें लोकांक दिसता.

कडेक आनीक थोड्यो वाटाघाटी जावन ह्याय पक्षाकडल्यान रामाच्या देवळाक देणगी मेळटा. अशे तरेन दाव्या, उजव्या, मध्यममार्गी अशा सगळ्या पक्षांकडल्यान तो निवडणुकेवेळार देणग्यो घेता. सुरवेक ताची एकाच पक्षाकडे निष्ठा आसलेली जायत पूण बदलते परिस्थितींत सर्वपक्षसमभाव दवरून घेतिल्ल्या खोट्या मापान सगळ्याच पक्षांक मतां दिवप हेंच योग्य हें ताणें गांवच्या लोकांक पटोवन दिलां. हांतूंत मतां विकिल्ल्याचोय आरोप येना कित्याक तर गांवचो विकास करपांत कंजूसपणां दाखोवपी ह्या सगळ्या पक्षांक देणग्यांच्या रुपान दानधर्म करूंक लावन निम्माणें एका स्वतंत्र उमेदवाराक पसून ह्या गांवान जैतिवंत करून दाखयल्लो आसा.

गांवांत कमळ्यापरस चड शिकिल्ले आसात. सरपंच कमी शिकिल्लो आसा. पूण कमळ्याक गांवाचो ठाव जितलो लागला तितलो तांका लागूंना. राजकारण्यांचे दावूय ताका चड खबर आसात. सरपंचूय प्रसंग आयल्यार कमळ्याकडेंच बुद्द घेवंक येता. कमळ्याचे चलाखेक लागून गांवचें फुडारपण ताचेकडे चलून आयलां. कांय जाण ताका चालू म्हणटात पूण ताचेबगर गांवचें राजकारण, समाजकारण सारकें चलना.

भजनी मंडळ, कला मंडळ, नाट्य मंडळ, क्रिडा मंडळ, महिला मंडळ आनी असलीं मंड़ळां तळ्यांत जशीं साळकां तशीं खंयच्याय गांवांत आपशींच उदेतात. पूण तांका खेरीत परमळ आनी सोब हाडचें काम गांवच्या फुडाऱ्यांचेर आनी तांच्या फाटल्यान बोवाळटल्या कार्यकर्त्यांचेर आसता. कमळो ह्या मंडळांनीं बोवाळूंक लागिल्ल्यांक तांचो बोवाळ आतां जायतो वाडला. कार्य वाडलां ताचेपरस कार्यक्षेत्र वाडलां.

गांवांतलो नावास्तो फुटबॉल पंगड आतां गोंयांत जायतेकडे सर्तींनीं वाटो घेता. सुरवेक मार खाता पूण मार खावन सुदारत आसा. टेबल टेनीस बॉल क्रिकेट टीम, टेनीस बॉल हॉकी टीम असल्यो कसल्यो तरी नव्यो टिमी आकार घेवंक लागल्यात आनी गोंयांत आपली कीर्त गाजोवंक लागल्यात. भजनाचे कार्यक्रम आदीं गांवच्या देवळांनीं जाताले ते आतां चडशे कला अकादमींत जांवक लागल्यात. गायनांचे आनी नाटकांचे कार्यक्रम आतां गांवच्यो शिमो हूपून गोंय दुरदर्शनाचेर पावल्यात. हे कार्यक्रम गांवांत जाताले तेन्ना केन्ना केन्नाय गांवांतले

वाळेस भुरगे कलाकारांचेर तुस्तीचीं भजीं आनी पसंतीचीं टोमाटां जोखून मारताले तांका तशी कलाकारांची दुर्दशा दुरदर्शनाचेर करूंक मेळना म्हूण गांवचे वाळेस भुरगे आतां जायते सुदारल्यात. संस्कृती मंडळांचो जायरातींनीं सजयल्लो दिवाळेचो वर्सुकी आंक आतां नेमान येवंक लागला. तांतूंत मोटव्यो कथा आनी बारीक कवितांसैत वैचारीक लेखूय बरे बरे येवंक लागल्यात. लघुकथा आनी मोटव्यो कथा हांतूंत 'ल्हान' आनी 'मोटवो' हांतूंत जसो फरक आसता तसो बारीकसो फरक आसता. वैचारीक लेखूय दोन प्रकारांचे आसतात. कांय वैचारीक लेख गांधी, बुद्द असल्या म्हात्म्यांच्या आदर्शवादाचेर, पाठ्यपुस्तकांतल्या तांचेवेल्या धड्यांचो संदर्भ आनी आदर्श घेवन बरयल्ले आसतात आनी कांय वैचारीक लेख विचार जबाब पद्धतीचे आसतात. गांवांत मदिरा मंडळां कित्याक चलतात, महिला मंडळां कित्याक चलनात, वार्षिकां कित्याक चलतात, मासिकांनीं खंड कित्याक पडटा आनी दैनिकांची दैना कित्याक जाता, कितें चुकता आनी कितें चुकना असले प्रस्न विचारून विचारान्ती जापो दिल्ले हे वैचारीक लेख आसतात. आनी त्या जापांक जाप दिवपी कमळ्याचें विचारप्रवर्तक म्हळ्यार विचार परतून घालपी संपादकीय आसता.

कमळ्याची हुशारी पळोवन गांवचे लोक ताका फुडले निवडणुकेंत उबो रांवक आग्रो करतात. पूण खंयच्या पक्षा मार्फत तें मात आजून थारना. कित्याक तर पक्षांचेंच आजून मेरेन कांयच थरना. सगळ्या पक्षांची तत्वां एकसारकींच जाल्लीं आसात. सगळ्याच पक्षांची धोरणांय एकसारकीचशीं जाल्यांत. निवडणूक लागीं आसा पूण ती जातासर दरेक पक्षाचे कितले कुडके जातले आनी खंयचे कुडके खंयच्या कुडक्यांक दसतले तेंय पळोवपाचें आसा. कितेंय जालें तरी फुडले निवडणुकेंत कमळ्याक उबो करचें गांवच्या लोकांचें मत जालां. आयजमेरेन कमळो वता थंय भाग्यवंत थारला. ज्या पक्षांच्या कपयाळ्यांत तो वतलो तेंच कपयाळें फुडले निवडणुकेंत जैतिवंत जातलें असो गांवच्या लोकांचो भावार्थ आसा.

###

## पुरसो

संवसारांत वाग, शिंव, कोले, सुणीं, माजरां बी जल्माक येतात पूण तीं व्हडलें कितें आगळें-वेगळें करपाक न्हंय. इल्ली इल्ली बुद्द दिवन देवान तांका संवसारांत धाडल्यांत. तांतल्या थोड्यांक इल्ली अदीक बुद्द दिल्या जायत, पूण मनशाक जी बुद्द दिल्या ती सुमारा भायर. देखीक, फट मारपाची बुद्द देवान मनशाक दिल्या पूण जनावरांक दिवंक ना. मनशाभशेन लूट मारूंक तांका येना, घात मारूंक कळना, मनशाभशेन जनावरांक झगडूंक कळटा पूण कारणाबगर झगडूंक कळना, धर्माविल्यान जनावरांमदें झगडीं जालीं अशें केन्ना घडना. देवान मनशाक खेरीत गूण दिल्यात. मरतकूच सर्गांत व्हरतलों म्हूण देवान फक्त मनशांकूच सांगलां, जनावरांक सांगूंक ना. बऱ्या मार्गान चलात, उजू रितीन चलात, बरें करात, वायट करूं नाकात हें देव फक्त मनशांकूच सांगता, जनावरांक सांगिना.

मनीस तरातराचे आसतात. तशो तरा जनावरांमदें सांपडनात, थोडे मनीस बरेंच करूंक जल्माक आयिल्लेभशेन दिसतात तर थोडे वायट करूंक. थोडे सरळ मार्गान चलूंक तर थोडे वांकड्या मार्गान चलूंक, कांय जाण राजकारण करूंक तर कांय जाण समाजाचें वायट-बरें करूंक. कांय जाण पैशे करूंक धडपडटात तर कांय जाण गरज नासतना फडफडटात. अशे मनशाचे तरातराचे प्रकार आसात. पूण मनशाचो मनीसपणाचो मुख्य गूण कितें हें समजूंक मात कठीण जाता. मनीस मागीर आपले सोयीखातीर आपले दोन प्रकार म्हूण समजता. बरे मनीस आनी वायट मनीस. बऱ्या मार्गान चलपी आनी वायट मार्गान चलपी. बरें करपी आनी वायट करपी.

आमचो गांवशेचो पुरसो गांवकार हो मनशांतलो आनीक एक प्रकार. पुरसो गांवकार कायद्यान चलपी मनीस. बऱ्या मार्गान चतल्याचें बरें जाता जांव वायट मार्गान चलतल्याचें वायट जाता हाची काय तशी खात्री दिंव नज. पूण कायद्यान चलतल्याचो फायदो जाता हें मात पुरसो गांवकाराच्या चरित्राविल्यान खात्रीन सांगूं येता. देव दिता आनी दैव नाडटा अशेंय म्हणटात पूण पुरसो गांवकारासारक्या कायद्यान चलपी मनशाक देव दिना तें दैव दिता अशें म्हणचें पडटा.

पुरशाक देवान दिवना ते दैवान दिलां. पुरशाच्या आवय-बापायक देवान पुरशाक कायद्यान चलपाची अक्कल येवचे पयलींच आपोवन वयर व्हेलीं. वीस बावीस वर्सांचेर अनाथ जाल्लो पुरसो तेन्ना नांवशेचो आपलो जल्मगांव सोडून गांवशे आपल्या मावशे भावागेर वचून रावलो. थंय दैवान ताका साथ दिली.

पुरशाचो मावशेभाव नरसो बॅंकेंत काम करपी. ताची बदली मुंबै जाली. आनी थंयच्यान मागीर दुसऱ्या कांय शारांनी जायत गेली. पुरसो नरशाच्या घरा आयिल्लो तो थंयच उरलो. गांवशे एका भाटकाराच्या भाटांत एक लॉज आसलें. थंय पसरो घालूंक ताका आसरो मेळ्ळो. पसरो बरो चल्लो. पुरसो लग्न जालो. भुरगीं जालीं. संवसार बरो चलूंक लागलो.

नरसो आतां नोकरेंतल्यान निवृत्त जाला. मुंबै रावता. मदीं नरशान पुरशाक पत्र बरोवन आपूण घरा गांवशे येता. दुसरेकडे घर पळे आनी आपलें घर मेकळें करून दी म्हूण कळयल्लें. पूण नशिबानसार पुरशाक दुसरें घर मेळना. नरशाच्या घरांत रावुनूय ताका आतां वीस वर्सांवयर जाल्यांत. घराकूय ताची ओड लागल्या. मदीं नरशान पुरशाक बेगीन घर खाली करूंक ताकीत लायिल्ली खरी पूण दुसरेकडे कोणाचेंय घर रिकामी आसल्यार पसून कोण दिंवक तयार जायना. रावता ताचें घर जायत म्हूण ते भितात. नांवशेंचें मुळचें घरूंय पयलींच मदेराक आयिल्लें तें आतां मोडून गेलां. ते सारकें करतलो जाल्यार उण्यांत उणें एक लाख रुपया जाय. निम्माणें पुरशान नरशाक कळयलें कीं एक लाख रुपया दिता जाल्यार घर सोडटां. तेय दिवंक नरसो कबूल जायना. आतां तर पुरशान नरशाक कळयलां कीं घरा येतलो जाल्यार यो पूण कायद्यान यो.

पुरशान कायदो म्हळो म्हणटकूच नरसो आंग काडटा. पुरशान आपल्या मावशे भावाकूच कायदो शिकयल्लो पळोवन अदीं-मदीं भाटकार पुरशाक लॉज सोडूंक सांगतालो तोय आतां थंड पडला. कायदो आपले वाटेन आसा अशें पुरसो हालीं सगळ्यांक सांगता. ना तर कोर्टांत येवन कायदो कोणा वाटेन आसा तें दाखोवन दियात असो हालीं ताणें एक सूर लायिल्लो आसा. कायदो कोणा वाटेन आसा ताचो कोर्टांतल्यान निकाल लागुंकूय आनीक वीस वर्सां लागतलीं. तेन्ना कोर्टाची सोपणांय चडूंक कोण तयार ना. पुरशाचीय कोर्टाचीं सोपणां चडपाची तशी तयारी ना. पूण सद्या तो घरांत रावता म्हणटकूच कायद्याचो भंय घालुनूच ताचें काम भागता. सोरपापरस सोरपाचो भंय अदीक वायट आसता तसो कायद्यापरस कायद्याचो भंय अदीक वायट आसता.

पुरसो आतां गांवशेंचोच जाला. तो मुळचो नावशेचो हें आतां सगळे विसरल्यात आनी नरसो मूळ गांवशेचो हेंय आतां लोक विसरल्यात. नरशाच्या घराच्या देट्ट्याक आतां पुरशान "श्री पुरुषोत्तम गांवकर" अशी पाटीय लायिल्ली आसा. कांय जाण घराच्या देट्ट्याकडे "Beware of dog" अशी पाटी लायतात तशी पुरशान "Beware of Law" अशी पाटी लावंक जाय आसली अशें दिसूंक लागता.

फाटीं कितें घडलां तें पडलां कोणाक? पराक्रमी पुरूस फाटल्या

इतिहासाक पसून वेगळें मोडण दिवंक समर्थ आसता. गांवशे गांवांत पुरसो गांवकार आयज एक प्रतिश्ठीत मनीस म्हूण मानतात. गांवचें बरें करपांत ताचो वांटो आसा. कुंवाळो काडलो जाल्यार आंवाळ्या इतलें तरी जनतेचें हीत ताणें केल्लें आसा. पुरसो सद्या गांवांत पंचायतीचो एक पंच आसा. आदीं कांय काळ सरपंच आसलो, पूण पंचायतींतले पेंच सोडोवंक स-स म्हैन्यांनीं सरपंच बदलपाची प्रथा सद्द्या पडिल्ल्याक सद्या तरी तो पंच जाल्लो आसा. तरीं पंचायतीच्या कायद्यांचें गिन्यान ताकाच चड आसा. कोणूय सरपंच जालो तरी बुद्द घेवंक पुरशाकडे ताका येवचोच पडटा. आंवाळ्या-कुवाळ्यांचे भोवस्ताळे तो बरे जाणा.

कायदे मनशानींच केल्यात आनी ते आपल्या फायद्याखातीर केल्ले आसात. वकिलांचीं बॉल्सां भरपाखातीर न्हय. कोर्टांनीं खेपो घालपाखातीर न्हय. कायद्यांची कलमां कल्लायत बसप म्हळ्यार मूळ संकल्पाकूच कळम लागप. पुरसो पंचायतीच्या पंचायतनांत बसल्या पसून संकल्पाचे पसून प्रकल्प जाल्यात. पंचायतनाची अभिशेक निवेद्याची सेवा करीत जाल्यार कामां झटपट जातात. ज्या मापान ही सेवा जाता त्या हिसपान आशिर्वाद मेळटात.

हे गांवचे सेवेंत मात खंयच धवंगीपणां दिसनात. मंत्र्यांभशेन सगळें करचें करून आदर्शाचेर भाशणां नात. आयच्या युवकांनीं अमकें करूंक जाय, दादल्यानीं अमकें करूंक जाय, बायलांनीं अमकें करूंक जाय असलो अमके तमके करपा संबंदान कसलोच बोध खंयच ना. करपाचें तें सगळें करतात, तुमीय करतात, आमीय करतात थंय आनीक तोंडातल्यान वाफ काडून कांय फायदो ना म्हूण हे गांवचे सेवक तोंड वाजयनासतना गांवची सेवा करतात आनी सेवा करून घेतात. सगळेंच राजकारण जंय भेसळीचेर चल्लां थंय ह्या राजकारण्यांचीं बोधामृताचीं भाशणां म्हळ्यार शुद्ध धवंगीपणां. धवंगीपणांबगर आनीक शुद्ध तांचेकडे कांय ना. तेन्ना आमच्या गांवांतलीं पंचायतनां तरी तांची प्रवचनां कित्याक आयकून घेत?

आयज गांवाक नरशा सारख्या सज्जन मनशाची गरज ना तर पुरशासारक्या पुरुशार्थी मनशाची गरज आसा. स्वताचें घर वगडावपी अबर्गत गांवची उदरगत कशी करीत? पुरशान गांवचो सरपंच आसतना गांवची उदरगत उप्पाट केल्या आनी तीय कायद्यान केल्या. गांवांत कायद्यान कितेंय करतलो जाल्यार पंचायतीचो ना हरकत दाखलो जाय. पुरशान जाय तेन्ना तो दिला. दक्षणा दिल्यार कोणाक खंयच्याच कामाक कायदो आड येवंक दिवप ना हें मार्गदर्शक धोरण आसलेल्यान कोणाक एन.ओ.सी. मेळूंक अडचण आयली अशें घडलें ना. कायद्याची चड अपुर्बाय केल्यार कायदो माथ्यार बसता आनी मनशाक चेपता. कायद्यान मनीस मनशाक घुस्पायता. म्हूण कायद्याक सरळ करून ताणें

गांवची कामां झटपट केल्यांत. गांवची उदरगत झटपट जातली जाल्यार लोकांची कामां फटाफट जांवक जाय. मदीं पुरशान लटाफट केली म्हूण हरकत ना. पूण कसल्याय येवजिल्ल्या कामाक ना हरकत दाखलो मेळ्ळो ना अशें घडूंक फाव ना. कायदो हातांत आसतना पुरशान असलीं खूप कामां केल्यांत.

देश तसो भेस. पूण देशानूच सद्या आपलो भेस बदल्ला. कर्रप्शन म्हळ्यार फॅशन जाल्या. संत्रीं मंत्री जाल्यात. खासदारांची पावणी चलता आनी आमदारांचे "सेल" पडल्यात.

गांवशे गांवचें गांवपणूय आतां बदल्लां. आदल्या बुदवंतांचो भाव देवला आनी अकलेच्या कांद्यांचो भाव वाडला. कांद्यांचो दर वाडला म्हूण बटाट्यांक वायट दिसचें कारण ना. तांचेय दीस आसले आतां कांद्यांचे दीस आयल्यात. कांद्यांची कल्लां सोलतनाच गांवच्या विकासाचो गाबो सांपडटा. तांच्या कर्तुबांचेर गांवचो फुडार आदारून आसा.

देशाचे प्रगतीबराबरूच गांवा-गांवाची प्रगती जाता आनी गावां गावांची प्रगती जाता तांतल्यानूच देशाची प्रगती जाता. गांवशे गांवचीय जायती प्रगती जाल्ली आसा. आतां हांगा दोन विद्यालयां आसात आनीक खबरां-पत्रां वाचपाक एक वाचनालय आसा. गांवच्या बऱ्याच्यो खबरो करूंक एक क्लब आसा आनी पंचायतीक तेंकून एक बालवाडीय आसा. लायट आसा तशेंच नळाचें उदक आसा. आतां फोनूय आयल्यात. सर्वसादारणपणान चडशा गांवांनी जो विकास जाला तो ह्या गांवांतूय जाल्लो आसा. पूण त्या विकासाचेर दरेक गांवचो त्या त्या गांवच्या पंचायतीप्रमाण एक वेगळो छाप आसता. तसो गांवशे पंचायतीचो थंयच्या विकासाचेर एक वेगळो छाप आसा आनी तांतूंत पुरशाच्या पुरुशार्थाची जायती चलाखी आसा.

पुरसो सरपंच आसतना लोकांचीं कामां झटपट जाल्यांत. लोकांचीं कामां करपाक तो दक्ष आसतालो. दक्षणा मात दिवची पडटाली. काम मात नक्कीच जातालें. कायद्यांत बसना तें कायद्यांत बसोवंक खेरीत वायदे आसले. पूण काम मात कायद्यान जातालें. नोटी बॉल्सांत शिरकतांच ना हरकत दाखले मेळटाले. विकासाक गती आसली आनी पुरशाक प्राप्ती आसली. आतांय जाल्यार सरपंचाक तो भागी आसाच आनी ग्रामसेवकाक आनी तलाठ्याक धरून गांवच्या भाग्याचो वांटेकार आसा. सरपंच आरतून परतून बदलत आसलेल्यान परतून सरपंच जावची संद ताका रोखडीच मेळूं येता आनी आनीकूय नेटान वावुरची जबाबदारी येंव येता. आंगार जबाबदारी घेंवक तो तत्पर आसा. पुरशाच्या पुरुशसुक्तान गांवची नेटान उदरगत जाल्ली आसा.

मानादीक पुरुशोत्तम गांवकाराचें हें मानपत्र पुराय वाचूंक खूप लांब

आसा म्हूण तें मोटवें करून सांगचें पडटा.

पंचायतीचे क़ायदे सगळ्यांक बरे पडचे जाल्यार कितें करचें हाचें भितरलें गिन्यान ताका बरेभाशेन खबर आसा. पंचायतीच्या कारभारांत बारीक लक्ष घालून ताणें गांवचो आयस-पयस विकास सादपाचो प्रयत्न केलां. गांवांत आतां बांदावळी जायत्यो जाल्यात आनी कांय रस्त्यार पाविल्ल्यान रस्ते अरूंद जाल्यात पूण रस्त्यांनी लायटीचे 'फोकस' बरे घाल्ले आसात. घरांतले दिवे उण्या दाबाक लागून मंद पेटूं जाव मदीं मदीं पेटूं पूण बिलां व्हडलीं येनात. भाटांनी कोणाच्या जाग्यार कोणें घरां बांदल्यात हाचो गोंदळ जाला खरो पूण, घरांचो आंकडो वाडलो म्हणचे असो गोंदोळ जातलो ताका उपाय ना. शेतांनी पसून जायते कडे घरां वयर सरल्यांत. कोमुनिदादींच्या जाग्यांचो तर पत्तो लागना. खंय खंय कोणा कंपनीचे गुदांव जाल्यात तर कोमुनिदादीच्या दुसरे खंयचे तरी सुवातीर कोण तरी दादीचें घर बांदून जालां. उदकांची पायपां परतीं परतीं बदलून घालपाक जायते पावट रस्ते खणिल्ले आसतात. लायटीचो एक ट्रान्सफॉर्मर बदलून नवो घाला तर दुसरो चकचकीत रंग मारून नवो म्हूण घाला. कोणे रातयां खोप घालून ताचेर इल्लें इल्लें करून घर बांदला आनी ताचेर पंचायतीचो घर नंबर घालून तें कायदेशीर केलां. अरूंद जाल्ल्या रस्त्यांनीं अपघात जरी वाडले तरी खासदाराकडल्यान खासदार निधींतल्यान ताच्या नांवाची एक अँब्युलन्स हाडिल्ली आसा आनी कोणूय जखमी जालो म्हूण ताची व्हडलीशी अडचण जायना.

गोंयची विधानसभा पळेत जाल्यार गांवशेची ग्रामपंचायत जायती बरीशी दिसता. तितली हळशीक हांगा ना. सगळ्या पंचांक गांवच्या विकासाची उमळशीक आसा. अशेंय आसून तो विकास सादूंक आमदारांभशेन पक्ष बदलपाचो माकडांचो खेळ ते करीनात जांव परतो परतो सोपूत घेवचेलो नित्य विधी करिनात. एकामेकांचेर आरोप करून आनी व्हडलो बोवाळ करून जगभर दशा वोगडावन आरतून परतून मुख्यमंत्री बदलच्या बदला हे गांवचे पंचायतींत कसलोच व्हडलो बोवाळ नासतना सगळेच विकासाचे धनी अशें मानून नित्यनेमान सरपंच बदलतात. पूण एकमेकाचेर भ्रश्टाचाराचे आरोप करचे विस्वासघातकीपण करिनात.

पंचायती मार्फतीन सतत विकास जायत आसा. रस्ते नासले थंय रस्ते जाल्यात. रस्त्यांनीं लायट पडल्या. घरांतले नळ खंयूंय पावूं पूण सार्वजनीक नळ व्हांवतात. दरेक वेंचणुकेवेळार अशीं हीं सार्वजनीक मळावेली कामां खूप जातात. हालीं पंचायतीन एक थाराव करून हांगा एक उद्योगिक वसाहत करपाची मागणी करून तो थाराव मंत्र्यामार्फत सरकारांत दाखल केला. अशो वसाहती जाल्ल्या गांवांनीं दाखले दिंवक लाखांनी दुडू मेळटात असो त्या गांवांतल्या पंचांचो अणभव

जमेक धरून गांवचे पंचायतीन हे मागणेक नेट धरला.

भीड-भंय, लज हें सज्जनांचें दुबळेपण. असले जन राजकारणांत आनी पंचायतींच्या कारभारांत उपकरनात. थंय पुरशासारके पुरुशार्थी जाय पडटात. शिकिल्ले सवरिल्ले हेर सगळीं शास्त्रां जाणा आसत पूण पंचायतींचे पंचांग तांका कळना. पंचांचे पंचतंत्र तांका समजना. पंचाचें व्यक्तीमत्व पंचरंगी आसूंक जाय. रंग बदलूंक ताका कळूंक जाय. सरकार कोणूय येव ताका पंचारत दाखोवन सुवार्थ-परार्थ सादची ताका बुद्द आसूंक जाय. आपलें पेलें पळेनासतना आयतें आलायतें संपादन करची शिटुकसाण ताचे ठांय आसची पडटा. गांवचो विकास हें आद्य कर्तूब पूण तांतलें आपलें खाद्य खंयचें हें ताका होलमूंक जाय आनी हें कर्तुब करतना कोणा कोणाच्या हातार पंचखाद्य उडोवंक जाय तेंय ताका समजूंक जाय. कोणाक कितलें पंचामृत घालचें आनी आपल्या पंचपात्रांत कितलें पंचामृत दवरचें तें पंचाक कळूंक जाय.

ही बुद्द पुरशाक आसा म्हूण तो नांवशेचो गांवशे येवन गांवचें कितेंय बरें करूंक पावला.


WORLD KONKANI LIBRARY
Accn No :002513

###

## ल्हान जाले म्हान

गोंय सान, सुपुल्लें आसलें तरी तें म्हान करची गरज आसा. जितलें राज्य ल्हान तितलो ताचो विकास अदीक सोपेपणान जांव येता. बारीक-सारीक गजालींनीं ध्यान दिवपाक संद मेळटा. ल्हान ल्हान मनीस व्हड जांव येता. गोंयचें नांव व्हड करूंक ल्हान जाले म्हान अशें कवीन पसून म्हणिल्लें आसा.

गोंयांक व्हडपण येंवक जाय जाल्यार सगळ्यांनीच नेटान वावरूंक जाय. कर्ते-सवर्ते राजकर्ते, बरयतले साहित्यीक, कलेच्या मळार वावुरतले, ज्ञानी आनी विज्ञानी इतलेंच न्हय तर अज्ञानी लोकांनीं पसून व्हड व्हड कार्यां तडीक व्हरूंक जाय.

ह्या म्हान गोंयच्या विकासकार्याक आनी राजकारभाराक चाळीस आमदार आनी चवदा-पंदरा मंत्री वावुरतात. ल्हान प्रदेशाक बेगीन व्हडपण हाडूंक जाय जाल्यार हो आंकडो असो व्हड आसुकूंच जाय. ल्हान ल्हान गजालींक व्हड रूप दिवंक जाय. कॅबिनेट व्हड आसूंक जाय तशेंच कॅबिनूय चड आराम दिवपी आसूंक जाय. मंत्र्यांच्यो मोटरी व्हड आसूंक जाय आनी बंगलेय चड आसूंक जाय. वर्तमान पत्रांय चड आसूंक जाय. बरोवप्यांक, कलाकारांक, शास्त्रज्ञांक खूप मान

आसूंक जाय.

ल्हान प्रदेशाक म्हत्व येतलें जाल्यार ल्हान विशय व्हड करूंक जाय. मुख्य मंत्र्याचो बंगलो हो गोंयच्या मुख्येल वर्तमानपत्राच्या पयल्या पानावेलो मुख्येल खबरेचो विशय जांवक जाय. विकासाक गती हाडूंक जाय जाल्यार धांवपळ करची पडटाच. ते नदरेन गोंयच्या विकासाक बरीच गती आसा अशेंच म्हणचें पडटा. बंगल्याखातीर धांवाधांव, गाडयेखातीर धांवाधांव कॅबिनांक पसून मंत्र्यांचीं शर्यत लागता. नवें मंत्रीमंडळ उदेल्या बराबर बऱ्यांतलें बरें कॅबीन मेळोवंक मंत्री धांवतात. जो बेगीन पावता ताका गावता. एका मंत्र्यान आपल्या खातीर कॅबीन बरें सजोवन तो गोंयच्या विकासाच्या कार्याक लागचोच आसा म्हणसर कोण तरी पांय ओडटा आनी मंत्रीमंडळ पडटा आनी तें सजयल्लें आनी उजयल्लें कॅबीन भलतोच बळकायता. मुख्यमंत्री आदल्या मुख्यमंत्र्याक बंगलो खाली करूंक लायता म्हणटनाच लायनींत तिसरो मुख्यमंत्री येता आनी तो दुसऱ्याक धुकलून भायर घालूंक लागता. पूण ल्हान प्रदेशाचो व्हड विकास करूंक अशी होड आसचीच पडटा.

प्रदेश ल्हान आसलो म्हूण कांय ना. हावेस दोट्टी आसूंक जाय. गोंयाक एक राज्यभाशा पावना. दोन आसूंक जाय. शिक्षणीक भासो तीन आसूंक जाय. एक घरांत, दुसरी शाळेंत, तिसरी मिटिंगेंत, रेडिओचेर पांच भासाचें पक्वान्न. दुरदर्शनाचेर अडेज. एक शाणी, दुसरी देड शाणी. देड शांणेचो दर्जो वाडोवंक जाय जाल्यार वेळ अडेज वरां वाडोवंक जाय. वेळ वाडोवन दर्जो वाडोवची करामत ल्हान राज्यांतूच करूं येता. व्हड राज्यांनीं अशें करूंक खूप मेहनत घेवची पडटा. हो ल्हान राज्याचो एक व्हड फायदो आसता. कश्ट करिनासतना श्रेष्ठ जावप ल्हान राज्यांत सोपें. कश्ट करून कितेंय मेळोवप मात खूप कठीण. सुमाराचे कलाकार पसून हांगा व्हड जातात. हांगा कलागूण खूप आसात. पूण खरोच व्हड कलाकार जांवक हांगच्या कलाकाराक सद्याचे परिस्थितींत तरी गोंयाभायर वच्चो पडटा ना तर गोंयांतूच खंय तरी वनवासाक वच्चो पडटा.

कलेचें क्षेत्र सोडलें जाल्यार गोंयांत समाजीक, संस्कृतीक, धर्मीक आनी साहित्यीक मळारूय खूप प्रगती जाल्ली आसा. एदेशें गोंय पूण हांगा कितले फुडारी, कितले म्हालगडे आनी बालगडे, तशेच खेळगडे आनी मेळगडे, कितले स्वामी, बाबा आनी बुवा, कितले देव आनी देंवचार, आनी हो आंकडो वाडत आसा! आदींच गोंयांत देवांचो आंकडो सुमाराभायर आसलो. आतां दरेक खेड्यांत जशी ग्रामपंचायत तशीं आदीं दरेक गांवांत त्या त्या गांवचीं देवांचीं पंचायतनां आसली. आतां जशी लोकसंख्या वाडल्या तशी तीय देवसंख्या वाडल्या. आदीं

शारांनीं देव चडशे रावनासले खेड्यांनी चड. तांतल्या तांतूंत अंत्रुजेंतल्या खेड्यांनी चड. पूण आतां जायते देव शारांनीय देवळां बांदून रावल्यात. अंत्रुजेची देवाधिकारशाहीय तितली उरूंक ना. त्या भायर आतां गोंयांत मठांचो आंकडोय वाडला. आदीं गोंयांत मठग्राम एकूच आसलो. पूण आतां जायते जाल्यात. आमच्या ग्रामांत पसून एका रामानंदान मठ बांदला आनी मोडक्या जुवारेपुला पलतडीं एका प्रेमानंदान आपलो मठ बांदला. मूळ मठग्रामांतूय मठाची संस्कृती वाडीक लागिल्ली आसा. केन्नाच बागवनासलेले आनी सदांच खोटो मारीत आयिल्ले व्हड फुडारी पसून नतमस्तक जावन पाद्यपूजा करतात तें पळोवन कौतूक दिसता.

सुपुल्ल्या गोंयांत साहित्यीक मळारूय खूप प्रगती जाल्ली आसा. साहित्याच्यो व्याख्या खूप आसत पूण साहित्य म्हळ्याबराबर जेवणा-खाणाच्या साहित्याचेंय ताट नदरेफुडें येता. गोंयच्या साहित्यांत कथेक पयलो क्रमांक दिवचोसो दिसता. गोंयच्या साहित्यांत होच प्रकार चड केळयला आनी खेळयलासो दिसता. गोंयकारांच्या जेवणांत जशी शीत-कडी गरजेची आनी आवडीची तोच मान गोंयच्या साहित्यांत कथेक आसा. ह्या एकाच प्रकारांत लेखकां सारकोच लेखिकांचो वाटो व्हड आसा. चड आसासो दिसता. महिला आरक्षणापरस पुरूश संरक्षणाची चड गरज ह्या प्रकारांत दिसून येता. नाटक मात गोंयच्या लेखकांची मक्तेदारीशी जाल्या. हांगा महिला आरक्षणाची चड गरज आसा. लेखक हालीं हालीं इल्ले नाटकी जावंक लागल्यात. लेखिकाय नाटकी जाल्योना जाल्यार साहित्याचो तोल वचूं येता.

नवलिका हो प्रकार गोंयांत नवलायेचोच उरला. साप्प थोड्यो नवलिका उजवाडाक आयल्यात. पूण जांणी आसनमांडी घालून थोड्यो-भोव नवलिका बरोवचे कश्ट घेतल्यात त्यो बऱ्यो उतरल्यात. तरी कथांकडेच चडशा जाणांचो ओडो आसा. नवलिका हो प्रकार श्रीखंड पुरये भशेन आसूं येता. "नाका तुमची श्रीखंड पुरी, आमची शीतकडीच बरी" हे चळवळी वेळावेले घोशणेचो परीणाम आजून गोंयच्या लेखकांचेर उरला जावंक जाय. पूण आतां चळवळ तितली उरूंक ना. थोडे जाण उरल्या म्हणटात. पूण तरी ती गरजेक जाय तितलीच उरिल्ल्यान हाचेफुडें नवलिकेक बरे दीस येवं येतात.

गोंयच्या वैचारीक साहित्यांत मात गोंदोळ आसा. खरें म्हळ्यार गोंदोळ आसा म्हूण वैचारीक साहित्य आसा. थोडें वैचारीक साहित्य अनवाळ्या शिवराक जेवणाभाशेन आसा. बुद्ध-गांधीचे चित्रावळी भितर हें कुळागरांतले पत्रावळीचेर वाडिल्लें आसता. तर दुसरे तरेचें वैचारीक साहित्य प्लेटो-ॲरिस्टॉटल सारक्यांचे प्लेटीचेर मांडिल्लें आसता. ना तर स्टार हॉटेलांतले 'डिशी' सारकें आसता.

सार काडचो जाल्यार गोंयच्या साहित्याक खेरीज प्रतिष्ठा गोंय हें सुपुल्लें राज्य म्हणुनूच आयिल्ली आसा. व्हड प्रदेशांत तें केळीच्या पानावेल्या पातळ पायसाभाशेन व्हावन वचपाचें.

हांगा साहित्य, कला, नाट्य मंडळां कितलीशींच जाल्लीं आसात. कोणेंय कितें बरें केल्या बराबर तांका बक्षिसां, इनामां, पुरस्कार दिवची मांडावळ हांगा बरी घडून येता. नाटक्यांक नाट्य पुरस्कार मेळटात, कलाकारांक कला अकादमी पुरस्कार मेळटात साहित्यिकांक साहित्य अकादमी पुरस्कार मेळटात. फावता तांका सगळ्यांक मेळटात. व्हड प्रदेशांत फावता तांका मेळपाक खूप वर्सां काडचीं पडटात. हांगा पयल्याच चंवराक मेळूं येतात.

कोंकणी भवन जालें म्हूण आतां ताचेपरस व्हडलें मराठी भवन जावचें आसा. साहित्याचे भलायकेची ही स्पर्धा तोखेवपासारकी आसा. ह्या भवनांनीं साहित्याची उपासना जावची आसा. भायर उपास आसूं पूण हांगा उपास ना!

पर्वरेची इल्लीशी दोंगुल्ली भाग्यवान खरी! थंय मराठी भवनाचो संकल्प जाला तसोच आतां कोट्यांनीं रुपया खर्चून सचिवालयाचो नवो प्रकल्प पूर्ण जावचे धडेर आसा. साहित्यिकांच्या आसनांचो प्रस्न सुट्टा तसो आतां राजकर्त्यांच्या कॅबिनांचोय प्रस्न कांय न्हय करून सुटपाचो आसा. पंदरा-सोळा कित्याक तीस-पसतीस मंत्र्यांक पसून कॅबिनां करची थंय सोय आसा. आतां कॅबिनांखातीर गोंयचो विकास अडून उरची गरज ना. सगळ्या मंत्र्यांक थंय बंगले बांदल्यार गोंयच्या विकासांतली आनीक एक अडचण पयस जांव येता. बंगल्या-खातीर मारामारी करचेले प्रसंग येवपाचे ना.

ल्हान प्रदेशाक देवाचें वरदान आसता आनी मनयल्यार देवचाराचेंय साह्य मेळटा. घाडपणांय करूंक मेकळीक आसता आनी नाडपणांय करूंक सोपेपण आसता. सर्गूय करूं येता आनी उपसर्गूय करूं येता. ल्हानांक म्हान करूं येता आनी जाय जाल्यार म्हानांक ल्हान करूं येता. गोंयचें नांव व्हड करूंक ल्हान जाले म्हान अशेंय म्हणूं येता आनी गोंयचें नांव इबाड करूंक ल्हान जाले म्हान अशेंय म्हणूं येता. दोनूय मार्ग म्हानूच आसात. पयल्यान गोंयची प्रगती जांव येता, दुसऱ्यान स्वताची उदरगत करून घेवं येता. जो स्वताक मदत करूंक जाणा ताकाच देव मदत करता !

###

# ह्या लेखकाचीं हेर प्रकाशीत पुस्तकां

१.भुतेबाब: ( अणकार: मोलियॅराचें नाटक Le Bourgeois Gentilhomme) १९६५

२. राजा चंद्रहास: (अणकार: शेक्सपियराचें नाटक King Richard III ) १९६६

३. राखण: ( अणकार: मोलियॅराचें नाटक L'ecole des Femmes) १९६६

४. व्हडवीक:( अणकार: मोलियॅराची एकांकी Les Precieuses Ridicules ) १९६७

५. शाकुंतल: ( अणकार: कालीदास ) १९६७

६: वखद: ( अणकार: मोलियॅराचें नाटक Malade Imaginaire ) १९६८

७. वांकडेपण: ( अणकार: मोलियॅराचें नाटक Le Misanthrope ) १९६८

८. लालूबाब: (रुपांतर: मोलियॅराच्या Malade Imaginaire नाटकाचें एकांकी रुपांतर) १९६९

९. ओखदाचें पिशें: ( रुपांतर: मोलियॅराच्या Malade Imaginaire चें रोमी कोंकणी रुपांतर ) १९७०

१०.भागिरथी: (स्वतंत्र नाटक ) १९७०

११.एक देवाचो मनीस: (अणकार:मोलियॅराच्या Tartuffe नाटकाचो रोमी कोंकणीत अणकार ) १९७१

१२. आमचें राज्य: ( स्वतंत्र नाटक ) १९७१

१३. ड्युब्रोस्की: ( अणकार: पुश्कीनाचे कादंबरीचो रोमी कोंकणींत अणकार ) १९७२

१४. अनवळखी: ( स्वतंत्र नाटक ) १९७५

१५. Stray Stories ( इंग्लेज स्वतंत्र कथासंग्रह ) १९७२

१६. आमच्यो खबरो ( वांटो पयलो ) १९८१

१७. आमच्यो खबरो ( वांटो दुसरो ) १९८१

१८. आमच्यो खबरो ( वांटो तिसरो ) १९८२

१९. दसणे फुलां ( विडंबन काव्य ) १९८२

२०. तुळशी लग्न पुजा ( पुजेचो कोंकणी अणकार ) १९८२

२१. अभंग आरती: ( वांटो पयलो ) १९८२

२२. श्री गणपती पुजा ( पुजेचो कोंकणी अणकार ) १९८२

२३. बोधकथा-१ ( स्वतंत्र कोंकणी बोधकाणयो ) १९८३

२४. बोधकथा-२ ( स्वतंत्र कोंकणी बोधकाणयो ) १९८३

२५. बोधकथा-३ ( स्वतंत्र कोंकणी बोधकाणयो ) १९८३
२६. अभंग आरती २ ( भक्ती काव्य ) १९८४
२७. कामाक्षी स्तोत्र ( कामाक्षी स्तुती ) १९८४
२८. आमच्या गोयांत (विडंबन काव्य ) १९८४
२९. मोगरीं. ( भावगीतां ) १९८४
३०. जायां पुजा ( श्री. म्हाळसा भावार्थ काव्य ) १९८५
३१. आबोल्यां झेलो ( श्री सांतेरी भावार्थ काव्य ) १९८६
३२. गुलाब शेवतीं ( श्री कामाक्षी भावार्थ काव्य ) १९८६
३३. साळकां (श्री मंगेश भावार्थ काव्य ) १९८७
३४. रोजां ( श्री नवदुर्गा भावार्थ आनी स्तोत्र काव्य ) १९८७
३५. कांदळां ओंवळां ( श्री सातेर- शांतादुर्गा भावार्थ काव्य ) १९८७
३६. हरे राम हरे कृष्ण ( राम आनी कृष्णाचें भावार्थ काव्य ) १९८८
३७. औदुंबर ( श्री दत्तात्रय भक्ती काव्य ) १९८८
३८. म्हाळसा नारायणी स्तोत्र ( देवी म्हाळसा स्तुती ) १९८८
३९. साद ( निसर्ग काव्य ) १९९१
४० सदाफुली ( निसर्ग काव्य ) १९९१
४१. बालगीता - १ ( भुरग्यांक गितां ) १९९१
४२. बालगीता - २ ( भुरग्यांक गितां ) १९९१
४३. बालगीता - ३ ( भुरग्यांक गितां ) १९९१
४४. भक्तीगाथा ( भक्तीकाव्य ) १९९१
४५. उज्या जात्रा ( देवी लईराईचेर भक्तीकाव्य ) १९९१
४६. श्री चामुंडा स्तोत्र
४७. श्री दत्तात्रेय स्तोत्र
४८. श्री मारुती स्तोत्र
४९. श्री वामनेश्वर स्तोत्र १९९२
५०. व्हडलें म्हजें गोंय ( त्रिविध ) १९९२
५१. साहित्यसार १९९५





रामकृष्ण जुवारकार

फाटलीं तीन दसकां नेमान कोंकणी साहित्यिक वावर. सुरवेक मोलिएर, शेक्सपियर, कालिदास, पुश्कीन ह्या आदल्या श्रेष्ठ बरोवप्यांच्या वेंचीक साहित्यकृतींचें कोंकणींत भाशांतर आनी रुपांतर. गणपती पूजा, तुलसी-विवाह पूजा तशेंच संत सोहिरोबा हांच्या कांय विशेश अभंगांचे कोंकणी भाशांतर. अभंग-आरती, स्तोत्रां आदी धर्मिक साहित्य तशेंच भाव गीतां, बाल गीतां, देश गीतां आनी हेर गीत रचना. ललित निबंध, व्यक्तिचित्रां, प्रवासवर्णनां आदी.

सद्या गोंयच्या पुर्तुगेज राजवटी आदल्या इतिहासाचें संशोधन.

कोकणींतल्या साहित्यिक वावराखातीर थॉमस स्टिफन्स कोंकणी केंद्राचो १९९७ चो आंतोन पेरैर पुरस्कार.